# ाग

◇ आंक ९ ◇ एप्रिल १९९८

: रवींद्र केळेकार

संपादपी : माधवी सरदेसाय

वपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

त्र : मिलन खानोलकार


## ह्या आंकांत


पादप्याची ........................................ १
(कथा) – चंद्रकांत केणी ........................................ ६
वावर, म्हजीं उतरां : कुळागर
ी नायक ........................................ ८
ळ काळखाचो (नाटकुलें : पयलो वांटो) – अभयकुमार ....... १२
गणूक हेंच मनीसपण – भोलानाथ अडवलपालकार ........... १६
– राजय पवार, परेश नरेंद्र कामत, सु. म. तडकोड
र नाडकर्णी, आनंद वर्टी, प्रकाश पाडगांवकार .................. १८
साचीं पानां : प्रियोळकरप्रतीत कोंकणी 'वादा'ची उपपत्ति – रा. ना.
........................................ २०
य नियाळ : 'भोगदंड' – तानाजी हळर्णकार ..................... २३



की पटी : रु. ७५/-
यार्थ्यांखातीर : रु. ६०/-
वर्सांची पटी : रु. २००/-

वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
रुपये अदीक जोडचे)

ाचो नामो :
ग म्हयनाळें
-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
द साउदादिश, पाजीफोंड,
ंव – गोंय ४०३ ६०१.

ोळ आंकाचें मोल : रु. ७/-


**नदर संपादप्याची**

## दोन नदरो

धर्तरेर कितलेय तरांचे जीव आसूं, मनीस सगळ्यांत चड म्हत्वाचो; देवान धर्तरी ताचेच खातीर निर्माण केल्या; धर्तरेर भोगपा सारकें जें आसा तें भोगपाचो सगळ्यांत चड अधिकार मनशाकूच आसा – हो विचार वयर सरलो तो येवरोपांत उद्देगीक क्रान्ती सुरू जाली ते उपरांत.

ह्याच विचाराचो शेक तेन्ना सावन संवसारभर चलता. ह्याच विचारान तेन्नासावन संवसारभरचें 'विकासकार्य' चलत आयलां. ह्याच विचाराक लागून अर्थशास्त्र हें आयच्या विकासकार्याचें बायबल जावन पडलां. विश्वबँक इगर्ज जाल्या. डॉलर देव जाला आनी विज्ञानीक पुरयत जाला.

सगळेकडेन मनीस आपणाक धर्तरेचो धनी मानपाक लागला.

आपूण धर्तरेचो धनी म्हणपाचो विचार मनशाचे तकलेचेर आपणालो शेक चलोवपाक लागला त्याच अदमासाक जिस्त ताच्या हातांत डार्विनवाद पडला. जिवीत म्हळ्यार एक ऍक्सिडेंट, एक अपघात, एक योगायोग; जिविताक हेतूय ना, अर्थूय ना. जेवप खावप फोल्गां मारप हाचे भायर जिवितांत करपा सारकें कांय ना ह्या निर्णयार तो तेन्ना पावला आनी 'पर्स्यूट ऑफ हॅपिनेस' ही मोख मुखार दवरून तो तेन्नासावन धर्तरेर चलपाक लागला. हाकाच लागून जें निर्माण करपाक सैमाक कोटिंनी, अब्जांनी वर्सां लागिल्लीं तें सगळें ताणें फाटल्या दोन तीन शतमानांत उस्तून काडलां, भोगलां आनी, निमाणें, सोंपोवन ना केलां.

चाळीस हजार वर्सां लावन धर्तरेन आपणाल्या पोटांत पावसाचें उदक सांठावन दवरिल्लें. हरित् क्रान्ती सुरू केली आनी मनशान बोरवेल्स घालून तें चाळीस वर्सां भितर वापरून सोंपयलें.

डार्विनवाद हें मनशान विज्ञानाच्या मळार घाल्लें म्हत्वाचें पावल आशिल्लें पुणून ताणें जें तत्त्वज्ञान निर्माण केलें तें मनशाक खंयचे खंय घेवन गेलें. सगळ्यांत पयलीं ताणें मनशाच्या जिवितांतलो देव ना केलो; देवाची गरजूच ना अशें ताका दिसपाक लागलें आनी 'गॉड इज डॅड्' अशें मोट्या गर्वान तो म्हणपाक लागलो. मागीर एक दीस ऊंच विचारांची प्रेरणा दिवपी ताच्यांतले सगळे भावार्त फुर्रर करून उबून गेले. करतां करतां भोगवादाचो तो इतलो बंदो जालो की सुवार्थाचे सर्तींत तो आपणालें देवपणूच न्हय तर मनीसपण लेगीत होगडावन बसलो.

डार्विनवादाचो एक सिद्धांत म्हळ्यार – जीवो जीवस्य जीवनम्. दुबळ्या जिवांक सबळ जीव एक तर फाटीं उडयतात वा ना करतात हो; दुबळ्यांक ह्या संवसारांत सुवात ना; सुवात आसा ती सबळांक; तांकांच जियेवपाचो हक आसा – 'सर्वाइवल ऑफ द फिटेस्ट' हो. ह्या सिद्धांताक लागून मनीस धर्तरे वयल्या हेर जिवां परस सबळ थरिल्लोच. तांतूंत आतां मनशान आनीक एक भर घाली – मनशांतूय सगळे सारके न्हय, सगळ्यांक सारकें म्हत्व ना, जे सबळ तांकांच म्हत्व आसा, तांकांच जियेवपाचो हक आसा, अशें तो म्हणपाक लागलो.

ह्या विचाराक लागून कांय बळिश्ट लोकूच धर्तरी 'भोगपाक' लागले. बाकिचे फाटीं पडले. ह्या फाटीं पडिल्ल्यां मजगतीं बळिश्टांचे बापोलभाव, तिपोलभाव, मावशेभाव, मामेभाव आशिल्ले. 'तुमीच कित्याक सगळें भोगतले ?.. तुमच्या हातांत आसात तीं साधनां आमच्याय हातांत येवंक जाय; आमकांय आशिया आफ्रिका खंडांतले देश वसणुको म्हूण मेळूंक

जाय... थंयचो कच्चो माल आमकां जाय ते दरेन घेवपाक आनी आमी तयार करतात तो पक्को माल थंय व्हरून जाय ते दरेन विकपाक ह्या देशांचेर आमचीच राजवट चलूंक जाय' अशें म्हणून ते तांचे आड झुजपाक फुरफुरून आयले.

विसाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत युरोपान जीं दोन म्हा-झुजां चलयलीं तांचे फाटल्यान 'सर्वाइवल ऑफ द फिटेस्ट' होच सिद्धांत काम करतालो. दोनूय झुजां भावां-भावां मजगतचीं आशिल्लीं.

ह्या दोन म्हा-झुजां मजगतच्या काळांत संवसाराक एक नवी देख घालून दिवपाक आनीक एक नवो विचार अवचीत् वयर सरलो. धतरेची साधन संपत तुर्ताक फकत गिरेस्तूच भोगीत आयल्यात – ती सगळ्यांक सारकी भोगूंक मेळूंक जाय – सरसमान लोकांचे मालकिची ती जावंक जाय, अशें म्हणून ताणें उदेंत येवरोपांत – रशियेंत एक क्रान्ती घडोवन हाडली. आनी थंयची सत्या ताणें आपणा हातांत घेतली. हेर सगळ्या आंगांनी हो साम्यवादी विचार हेर कडेन सत्येर आशिल्ल्या भांडवलशायी विचारा परस सामको वेगळो आशिल्लो. पुणून धतरेचे फाटीर जियेवपाचो सगळ्यांत चड अधिकार आसा तो एकाच जिवाक – मनशाक; आनी धतरेची साधन संपत भोगपाचो अधिकार सगळ्यांत चड आसा तोय ताकाच – मनशाक, हें तोय मानतालो. म्हूण, साम्यवादी विचारांत आनी भांडवलशाही विचारांत ह्या एका आंगांत व्हडलोसो कसलोच फरक नाशिल्लो.

सुमार सात दसकां उदेंत येवरोपाचेर शेक चलोवन हो विचार एक दीस सत्ये वयलो देंवलो – म्हणुंया, तो मानतल्या लोकांनीच ताका देंवयलो आनी भांडवलशायेच्या सगळ्यांत वयल्या तोंकार पाविल्ले अमेरिके खातीर तांणी संवसार मेकळो करून दिलो.

आयज संवसारांत 'जियेता' ती एकलीच अमेरिका. आयज सगळ्यां मुखार देख म्हणून उबी आसा तिवूय अमेरिका. जपान, जर्मनी, ताइवान, कोरिया, सिंगापूर सारकेले देश तिचीच देख घेवन तिचे सारके जाल्यात. भारता सारको देशूय आयज तिचेच सारको जावपाचो हावेस मनांत धरून आपणालो 'विकास' घडोवन हाडपाक लागला. आनी हे दिकेन मुखार वचपाक ताका विश्वबँके सारके एके आंतरराष्ट्रीय वित्त-संस्थेचो पालवूय मेळपाक लागला. आयज ग्लोबलाइझेशनच्या, लिबरलाइझेनशनच्या, प्रायवेटाइझेशनच्या नांवान देशांत जें कितें चलता तें सगळें भारताची जाता तितले बेगीन अमेरिका करपाचे दिकेन वचपाक लागलां, म्हणचें पडटा.

अमेरिकाच आयज अख्ख्या संवसारा मुखार 'मॉडेल' म्हूण उबी आसा.

अमेरिकेन आरंभाकूच आपणा मुखार मोख दवरली 'पर्स्यूट ऑफ हॅपिनेस'ची – चडांत चड सुखी जावपाची. चडांत चड सुखी जावप म्हळ्यार चडांत चड चैनींत लोळप असो तिणें समज करून घेतलो. हेच बुन्यादीर तिणें आपणालें पुराय अर्थतंत्र उबें केलें आनी आयज पावल्या त्या पांवड्यार ती पावली. कशी पावली, पावपाक तिणें कितें केलें, कित्याचें आनी कसलें मोल दिलें, सांगूंक वचना. न्हंयेचें मूळ आनी रुशिचें कूळ सोदचें न्हय म्हणटात तशें वैभवसंपन्न मनशाच्या वा देशाच्या वैभवाचेंय कारण सोदूंक बसचें न्हय अशें म्हजें मत्त जालां. कितें हाताक लागत, सांगूंक येना. कशीय पावूं, तुर्ताक ती चैनींत लोळटा म्हणटात तेंच खरें अशें धरून चलतां. आनी विचारतां –

असल्या ह्या चैनींत लोळटल्या देशांत गुन्यांवगारी आनी समाजविद्वाटे anti-social लोक कित्याक आसचे? अमेरिकेंत पंदरा पंदरा, वीस वीस वर्सां रावन आयिल्ले लोक सांगतात, खंयच्याच देशांत आसचे नात इतले गुन्यांवगारी आनी समाज-विद्वाटे लोक एके अमेरिकेंत मेळटले. हे सांगतात तें अतितायेचें न्हय म्हणपाचें अमेरिकन लेखकांच्यो कथा-नवलकथा वाचले उपरांतूय दिसून येता. मनीसघाणेपणाक तर ह्या देशांत शीम आनी मेर उरूंक ना. सगळे एकामेकांचे कुडीक कुडी तेंकोवन रावतात. पुणून सगळ्यांचीं काळजां एकामेकांपसून हजार हजार मैल पयस गेल्यांत. कोणूच आपल्या सुगूर आनी हुस्क्या-मेकळो मानिना. सगळे जशें कितें एकामेकांक भियेवन एकामेकां पसून आपणाली राखण करून जियेतात. पिस्तोलां बॉल्सांत घालून भोंवपाची गरज तांकां कित्याक भासची? दादले-बायलांचे संबंद लेगीत थंय नर-मादी पांवड्यार येवन पावल्यात. एके नवलकथेंत निकतोच लग्न जाल्ल्या एका जोडप्याचो एक संवाद वाचिल्लो. पयलेच रातचो घोव बायलेक विचारता, 'तूं म्हजी पांचवी... हांव तुजो कितल्यावो?' आनी बायल 'सतरावो' म्हूण जाप दिता!

हाचो अर्थ, अमेरिका चैनींत लोळटा आसूं, सुखी निखालूस ना, असो करचो पडलो ना? चैनीन कोणाक केन्ना सुखी करूंक ना. अमेरिकेक मनशाक भितरल्यान नियाळून पळोवंक जाय – रितो-रितो, पोको-पोको, दळिद्रीच जाल्लो पळोवंक मेळटलो. 'पर्स्यूट ऑफ हॅपिनेसी'न आयजवेर कोण सुखी जावंक पावूंक ना, कोण आनंदांत जियेवंक पावूंक ना.

धरूंया, तिसऱ्या जगांतल्या देशांनी दोन निर्णय घेतिल्ले –

१. आमच्या देशांत जें पिकता तें आमी परकी चलनाचे ओडीन देशा भायर निर्यात करचे नात; देशांतल्या लोकांनी खावन उरलें जाल्यारूच उरता तें निर्यात करतले. आनी –

२. आमी केन्नाच खंयच्याच देशा आड झुजचे नात, झुजचें पडलें जाल्यार देशी शस्त्रास्त्रांनी झुजतले. नाजाल्यार एकामेकांक तोणक्यांनी फातरांनी मारतले; पुणून, अमेरिके कडल्यान शस्त्रास्त्रां विकतीं घेवचे नात.

जाल्यार, अमेरिका आयज जी चैनींत लोळटा ती लोळूंक पावतली व्हय? निखालूस ना. अमेरिकेचें अर्थतंत्र शस्त्रास्त्रांच्या उत्पादनाचेर निंबून आसा. अमेरिकेच्या अर्थतंत्राचो फाटिचो कणो हो. शस्त्रास्त्रां आमी घेवचे नात असो तिसऱ्या जगांतल्या देशांनी निर्णय घेवचो, अमेरिकेचें पुराय अर्थतंत्र घसायंच करून कोंसळून पडटलें.

आयज संवसारांत जें अन्न पिकता – तांदूळ, गंव, दाळ, चणो, तांतीं, दूद, लोणी, फळां, भाजीपालो, मास, नुसतें, सगळें – ताचे शंबर वांटे करचे. अंयशीं वांटे एकली अमेरिका आनी तिचे सारकेले चार स देश खावन सोंपयतात. उरिल्ले वीस वांटेच उरिल्ल्या जगाच्या वांट्याक येतात म्हणपाचें दिसून येतलें. प्रमाण अशें – वीस प्रतिशत लोक अंयशीं प्रतिशत अन्न खातात आनी अंयशीं प्रतिशत लोकांच्या वांट्याक उरिल्लें वीस प्रतिशत अन्न येता. हें चित्र, धरूंया, उरफाटें जालें – अयंशी प्रतिशत लोकांकडेन अंयशीं प्रतिशत अन्न पावलें आनी वीस प्रतिशत लोकांच्या वांट्याक वीस प्रतिशत अन्न आयलें, जाल्यार –

अमेरिकेचो चैनिचो राजम्हालूच मातयेभरवण जावचो ना?

सुखी जावपाची वाट ही न्हय. सुखी जावपा खातीर हिका फाट करून दुसरेच एके वाटे वयल्यान मनशान चलपाक लागूंक जाय. खंयचे? ज्या 'इको-सिस्टमां'त तो जल्माक आयला ताचेकडेन जुळोवन जियेवपाचे वाटेन.

आपूण धतरेचो धनी म्हणपाचो ताचो उद्देगीक क्रान्तीन आनी डार्विनवादान समज करून दिला तो ताणें तकलेंतलो सगळ्यांत पयलीं काडून उडोवंक जाय. धतरे वयल्या जिवांत सगळ्यां उपरांत – निमाणे कडेन – आयिल्लो जीव आपूण – हेर जिवां सारकोच आनी तांचे इतलोच म्हत्वाचो म्हणपाचें घट मतींत धरूंक जाय. आपणाक येवन चडशींच जाल्यार पांचेक लाख वर्सां जाल्यांत जातलीं – आपणा भोंवतणीं जे हेर जीव जियेतात तांकां येवन कोटिंनी वर्सां जाल्यांत आनी ज्या किडी-मुयांक आपूण कांयच मोल नाशिल्ले वरी डी.डी.टी. मारून उडयतां तांकां येवन अब्जांनी वर्सां जाल्यांत म्हणपाचें लक्षांत दवरूंक जाय. उत्क्रांतिचे दिकेन ह्याच जिवांनी एक एक पावल घालून आपणाक येवपाक वातावरण निर्माण करून दिलां म्हणपाचें स्मरूंक जाय. आपूण, आपणा भोंवतणचे जीव, सगळें सैम, सगळें एकामेकांक पोसवण दीत एकामेकांच्या आधारान जियेता ते वेवस्तेंत

-सिस्टिमाक – बादा येवंक दिनासतना आपूण जियेतलों म्हणपाचो रूक जाय.
आपणा खातिरूच धर्तरी निर्माण करूंक ना – आपुणूच तिगेलो अपुर्बायेचो पूत न्हय – आपणाक आसा तितलेंच म्हत्व मुयेकूय पणा इतलीच तिवूय धर्तरेचे अपुर्बायेची ही गजाल घट लक्षांत णें जियेवंक शिकूंक जाय. म्हणटकूच –
कित्याक म्हणचो, तो कसो करचो, खंयचे दिकेन करचो, खंयच्या ळो दिवन करचो, खंयची देख मुखार दवरून करचो – कितलो सगळें ताका आपशीं स्पस्ट बरें कळटलें. आनी, धर्तरेक लुटपाचें रेपण आपशीं बंद पडटलें. आपूण जावन तें तो सोडून दितलो. गरजो भागोवपा इतलें अन्न सैम सदां निर्माण करीत आयलां. दिनासतना. तितलेंच खावन तो जियेतलो. तितल्याचेरूच हक आसा म्हणटलो. आपणाले पोसवणे खातीर भोंवतणेक बादा सतना सैमाकडल्यान घेवंक जाय तेंच घेतलो. जियेवपाची एक विकसावन काडटलो. आनी आपणाक दायजान मेळिल्ली धर्तरी दरेन अदीक गिरेस्त करून ती फुडल्या पिळग्यां हातांत दिवन

ाच्यो ह्यो दोन नदरो. दोनूय नदरो जीवो जीवस्य जीवनम् तत्त्वाक लपी. एक, जीव जिवाक खावन जियेता ह्याच अर्थान. आनी जीव जिवाक आधार दिवन जियेता ह्याय अर्थान.
नदरेक मानून आमी आमचो विकास घडोवन हाडटले ?

## आमचे संस्कृतायेचें मूळ तत्त्व – समन्वय

पेवांनी अमेरिकेक जें केलें – थंयच्या रेड इन्डियन्सांची 'आझटेक' यूच ना करून उडयली – तशें आर्यांनी हांगा केलें ना अशें म्हणूंक ाभारतांतल्या सर्पसत्रांत असल्याच खंयच्या तरी यत्नाचो इतिहास आसूं येता. पुणून, एक पळेलां ? ह्या सर्पसत्रांत आर्यांचे जे वीर झुजिल्ले तांचे मजगतच्या एकल्याचोय उगडास तांणी दवरूंक ला कोणाचो ? आस्तिक रुशिचो. सर्पसत्र थांबयलें ताचो.
झगडीं-झुजां पालयल्यांत ते आर्यांचे 'हिरो' जाल्यात. अंत या वेगळेचारांत जांणी एकचाराची तपस्या केल्या ते आर्यांचे स थरल्यात.
र्यांची नाग संस्कृताय आनी आर्यांची यज्ञ संस्कृताय आयजूय ह्या समान्तर चलिल्ल्यो पळोवंक मेळटात त्यो एकचाराच्या तांगेल्या लागून. आयजूय ह्या देशांत तरांतरांच्यो धर्मसाधना एकाच वांगडा विल्ल्यो दिश्टी पडटात त्योय तांच्या समन्वयाच्या यत्नांक लागून. ाती, हजार तरांच्यो चालिरिती, ऊंच उणाकपणाच्यो हजार श्रेणी यट सगळें – आयज देशांत पळोवंक मेळटा ताच्या मुळांत हजार – हजार वंशांच्या – लोकांक एकठांय गुथून एकठांय दवरपाच्या त्नांचो इतिहास आसा. अंत पार नाशिल्ल्या वेगळेचारांत चलिल्ले चे अखंड साधनेचो इतिहास हो.
स्तिक रुशी हो जरत्कारूचो पूत. जरत्कारू ब्राह्मण. ताका हो पूत नांवाचे नागकन्ये पसून जाल्लो. म्हळ्यार, आस्तिक हो शुद्ध य. आर्य अनार्य दोनूय रगतां ताच्या शिरंत्रांनी घोळटालीं. तरूय, तान ताका 'द्विजोत्तम' म्हळा. म्हळ्यार, बऱ्यांतलो बरो ब्राह्मण आर्यांकडेन ज्यो अनार्य चलयो लग्न जाताल्यो, तांच्या भुरग्यांचो आर्यांतूच जातालो.
ारतांत आनीक एक कथा आयल्या. भीमाक कौरव विक्ख घालतात ह्यंेत भितर उडयतात. तो थेट नागलोकांत पावता आनी नाग वा करतात. नाग आर्य नाशिल्ले. पुणून 'सभ्य' आशिल्ले.

उदकाकडेन संबंद आशिल्लें जें जें कितें भारतीय संस्कृतायेन घेतलां तें तें तिका नाग लोकां कडल्यान मेळ्ळां. तारवांनी पयस पयस वचप हें आर्य नागांकडल्यान शिकल्यात. आर्य मांस खाताले. हरणांचें, गोरवांचें. नुस्तें खावंक ते अनार्यां कडल्यान (नागां कडल्यान) शिकले. सौभाग्यवतिच्या कपळाक लायतात तो कुकूम आर्य वळखून नकळ आशिल्ले. तो तांणी अनार्यांकडल्यान घेतला. नाचप, गावप, वाजोवप ह्यो कळाय तांणी अनार्यांकडल्यान घेतल्यात. आर्य वेद हेळ्यांनी गायताले पुणून वेवसाय म्हूण गावप हाका उणाक लेखताले. गावपी नाचपी वाजोवपी हांकां तांच्या समाजांत व्हडलो-सो भौमान नाशिल्लो.
एक बरीऽ कथा वाचूंक मेळ्ळी–
एका ब्राह्मणाक दोगी बायलो आशिल्ल्यो. एकली ब्राह्मण जातींतली. दुसरी शुद्रांगेली. दोगींकूय दोग पूत. दोगूय शिकपा खातीर गुरुगेर धाडपाचे पिरायेचे जाले तेन्ना बापायन ब्राह्मण आवयच्या पुताकूच धाडून दिलो. दुसऱ्याक खूब वायट दिसलें. तो आवयसरीं गेलो. तिकाय खूब वायट दिसलें. पुणून, ती म्हणपाक लागली, हांव जातीन शूद्र. धर्तरे कडेन नातें आशिल्ली. धर्तरेचीच धूव. तिका विचारतां, अशें म्हणून तिणें धर्तरेक उलो मारलो. धर्तरेन तिका धीर दिवन सांगलें, 'तूं भियेवं नाका, सगळें ज्ञान म्हज्यांत भरलां. तूं तुज्या पुताक म्हजे सुवादीन कर. हांव ताका शिकयतां.' आनी ताका शिकोवन तिणें आवयसरीं धाडलो.
हाणेंच खंय उपरांत जो शिकले बगर ब्राह्मण ब्राह्मण जायना, तो ऋग्वेद बरयला. तो मही न्हंयेचे तडी वयलो. म्हूण ताका महीदासूय म्हणटाले. ते भायर, ताणें आपणा खातीर एक वेगळें नांव घेतिल्लें. आपूण 'इतरे'चो पूत म्हूण तो आपणाक 'ऐतरेय' म्हणटालो.
ऐतरेय ब्राह्मण हें ताचें पुस्तक.
आर्य अनार्य संस्कारांचो सुंदरांतलो सुंदर मेळ म्हळ्यार आयचो हिन्दू धर्म.

## 'निर्लज्ज, निर्बुद्द... वाटमारे'

ताका सगळे पिसो म्हणटात. पुणून तो उलयता तें न्हीद खळोवपी आसता. असल्या मनशाक पिसो कसो म्हणचो होच प्रस्न पडटा. काय, तो खरें उलयता – उगडें नागडें सत्यूच दाखय-लिपय करी नासतना सांगता, म्हूण लोक ताका पिसो म्हणटात ?
पयर बसींत तो मेळ्ळो. म्हजेच म्हऱ्यांत येवन बसलो. शिणूंक लागलो, 'कितें रवीन्बाब, कितें बरयता तूं हें सगळें ?... त्यो भौ-राष्ट्रीय कंपन्यो, तांणी चलयल्ली ती लूट, पाड पडूं रे तांचें... जॉर्ज फेर्नांन्दीस बी पावल्यात आतां केन्द्रांत. ते पळोवन घेतीत तांकां... हांगा, तुज्या दोळ्यांमुखार जीं फटींगपणां, वाटमारेपणां चलल्यांत, तांकां वाचा फोड... तूं फोडिना जाल्यार कोण फोडटलो ?...' अशें म्हणून तो एक एक 'केस' म्हजे मुखार मांडपाक लागलो.
'हांगा एक जुवीज आशिल्लो... जज्ज... चोर. पयशे घेवन न्याय दितालो. तो चोर म्हणपाचें अख्खें गोंय जाणा आशिल्लें. सगळे उलयताले. नकळ आशिल्लें फकत गोंयचें सरकार... भेड्डें, कुड्डें... एक दीस ताकाय तो चोर म्हणपाचें कळ्ळें. कोण म्हणटात, मुखेलमंत्र्यां आड ताणें न्याय दिलो... खंयचे तरी एके केसींत. म्हूण मुखेलमंत्री खुबलो... खरें, फट, हांव नकळ... पुणून, इतलें खरें, एक दीस मुखेलमंत्र्यान ताका 'काडलो'... काडलो हें, म्हण, बॅटर लेट दॅन नॅव्हर ह्या न्यायान बरें केलें. पुणून ताणें आपणाल्या धा-पंदरा वर्सांच्या काळांत न्यायाच्या नांवान लोकांचेर जे अन्याय केल्ले ते तशेच चलूंक दिवपाचे ? सगळ्यो केसी परत्यो उस्तून तर्जून पळोवंक नाका आशिल्ल्यो ? कोणेंय तरी आवाज काडूंक नाका आशिल्लो ?... कोणें काडला ? कोण्णें ना... हांव म्हणटां, जज्जाक काडलो म्हूण भागना...

ताणें जे अन्याय केल्यात तेवूय पयस करूंक जाय...'

'आतां दुसरें... हांगा एक पोलीस अधिकारी आयिल्लो, दिल्लीच्यान... कित्याक म्हूण कोण जाणा, आमगेल्या मुख्यमंत्र्यांक तो हांगा नाका जालो. मुख्यमंत्र्यान ताची बदली केली. ताका आशिल्लो तसो दिल्लीक धाडून दिलो... कांय दिसांनी तो परतो गोंयांत आयलो... ताचेय दिल्लींत 'गॉडफादर' आशिल्ले... तांणी ताची बदली ताका जाय तशी गोंयांतूच गेली. पुणून हे खेपे तो सी.बी.आय.चो चीफ जावन आयलो. आमच्या मुखेलमंत्र्यांचो अवमान जाल्लो... पुणून ताणें तो गिळ्ळो... काँग्रेसचो फुडारी, दुसरें कितें करतलो?... ऑफिसर हांगा येनाफुडें मुखेलमंत्री, तांगेले मंत्रीमंडळांतले सांगाती... इश्ट सोयरे... कितल्याश्या जाणांच्यो 'फायली' तयार करपाक लागलो. मुखेलमंत्र्यांक हें कळ्ळें तेन्ना तांणी ताची परती दिल्लीक रवानगी केली. इतलेंच न्हय, तर 'तूंय हांगा नाका, तुगेलें तें सी.बी.आय. ऑफिसूय नाका' अशें म्हूणन तेंय बंद केलें... लोकांक सांगलें, हो अधिकारी हांगा 'माया करतालो'... 'खूब माया केल्ली हाणें' अशें म्हूण ताका परतो धाडून दिलो... ताणें 'माया केली' म्हूण ताका धाडून दिलो काय हांगा कोण कसली माया करता हें तो सोदून काडपाक लागिल्लो म्हूण ताका धाडून दिलो? कितें चल्लां हें सगळें?

हांगा एक जज्ज येता... लांच खाता... आनी धा वीस वर्सां उपरांत एक दीस सरकारूच तो चोर आशिल्लो म्हूण सांगता... चोरांक धरपा खातीर एक पोलीस अधिकारी येता आनी हाणेंय हांगा येवन खूब 'माया केली... होवूय चोर आशिल्लो' म्हूण सांगता... आनी आपणा भोंवतणी जे चोर आनाव्यो गुनाव्यो काडटात तांचे संबंदान मुखेलमंत्री एक उतर काडिना हाका कितें म्हणपाचें?... आनी तुमी? ह्या अन्यायाक वाचा फोडपाचें सोडून भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या नांवान शंख मारीत बसल्यात!...'

मनीस म्हजेच पिरायेचो. सुटके झुजारी. ('सगळे चोर' म्हणपी). ओपीनियन पोला वेळार दोन पानां जिखून येवचीं म्हूण जिवाचें रान करून वावुरिल्लो. ('सगळे फटींग म्हूण नकळ आशिल्लों' अशें म्हणपी) खूब वाचन आशिल्लो. ह्या वाचनानूच ताका पिसो केला अशें कांय जाण म्हणटात. ('मूर्ख खंयचे कडले' अशें म्हणपी). खादी घालपी. पुणून धवी न्हय. रंगीत... मातये रंगाची. खांदार शबनम झोलो घेवन भोंवपी. झोल्यांत कितलींशीं कात्रणां... एक कात्रण काडून म्हज्या हातांत दिलें आनी म्हणपाक लागलो, 'पळे, आमचो मुखेलमंत्री कितलो खर्च करता तो. ताका मेळटा तें मानधन बीनधन सोडून तो वर्साक खर्च करता – तेवीस लाख, पंचवीस हजार चारशें सत्यांयशीं रुपये. हांतले

| | |
|---|---|
| २,१०,६८४ रुपये | प्रवास खर्चाचे (दिल्ली मुम्बय इत्यादी) |
| ३,१३,७०७ रुपये . | पेट्रोलाच्या खर्चाचे (गोंयांतल्या गोंयांत भोंवपाक) |
| ७,५०,६८४ रुपये | टेलिफोन खर्चाचे |
| ७,६०,३०१ रुपये | नोकर चाकरांचे |
| ४१,४८७ रुपये | च्या पाणयाचे |
| ४,७५५ रुपये | म्हारगायभत्त्याचे आनी |
| २,४३,८६९ रुपये | किरकोळ खर्चाचे |

मेळून २३,२५,४८७ रुपये.

एकल्या मुख्यमंत्र्याचो हो खर्च.

आतां मुख्यमंत्रीच इतलो खर्च करपाक लागलो जाल्यार मंत्रीमंडळांतले ताचे सांगाती हात कित्याक आंवळून बसतले? तेवूय तसोच खर्च करतात. खासा मुख्यमंत्र्यान विधानसभेंत आपणाल्या सांगात्यांच्या खर्चाचो तपशील दिला तो असो –

| | |
|---|---|
| प्रवास खर्च | ११,१६,७३३ रुपये |
| पेट्रोल खर्च | १३,४४,०८१ रुपये |
| टेलिफोन खर्च | २०,३२,१६१ रुपये |
| नोकर चाकर | ६७,०६,१२० रुपये |
| च्या पाणी | ३,७३,६५८ रुपये |
| म्हारगाय भत्तो | ३७, २२१ रुपये |
| किरकोळ खर्च | २,४३,८६९ रुपये |

मेळून एक कोटी, अठरा लाख, त्रेपन्न हजार आठशें त्रेचाळीस रुपये.

कोणाच्या बापायचे पयशे हे? तुमी आमी जो टॅक्स भरतात, तांतले मू हे पयशे? तांचो असो विद्ववाट लावचो सरकारान? लज कशी दिस[illegible] मंत्र्यांक हाची? निर्लज्ज, निर्बुद्ध खंयचे कडले! वाटमारे! आदले संस्थानी[illegible] लेगीत पयसो असो खर्चिनाशिल्ले. हांतूंत मंत्र्यांचें मानधन ना. पुर्तुगाल[illegible] सिंगापूरची भोंवडी करून आयले तो खर्च घेवंक ना. फकत सादो, दिसपट्[illegible] घेतला. तोच इतलो... इतलो खर्च करपाक कोण हे? जांवंय बी दिल्[illegible] सरकाराचे?... तिडक मारता... काडात रे कांय लोकांक मुखार आ[illegible] सांगूंक लायात तांकां... 'मंत्र्यांचो आनी आमदारांचो दिसपट्टो आनी सा[illegible] खर्च तीन वांट्यांनी जे मेरेन उणो जायना ते मेरेन आमी सरकारा[illegible] टॅक्स भरचे नात. भरप हें पातक कशे लेखतले. जातल्यो ख्यास्ती. धा वीस लोकांक ख्यास्ती जाले उपरांतूच सगळ्यांचे दोळे उकते जातले आनी हेच मुखेलमंत्री जे आयज आपल्याच एका जज्जाक चोर म्हणटात आपणाल्याच एका पोलीस अधिकाऱ्यान 'माया केली' म्हणटात ते, ख[illegible] वाटमारे आपणाल्या सरकारांतूच भरिल्ले अशें म्हणपाक लागतले.

खोर्लें पावपाक ताणें म्हाका विचारलें, 'कसलो तरी पुरस्कार दिव[illegible] तुजो भौमान केल्लो न्हय रे हालींच सरकारान?... कसलो तो?...'

'गोमंत शारदा...' हांवें जाप दिली.

'तुवें आयुष्यभर केल्ले सेवेची पावती आशिल्ली मरे ही?'

'अशें म्हळां सरकारान तो दितना...'

'पयशे दिल्ले?'

'हय.'

'कितले?...'

'पंचवीस हजार रुपये...'

तो सिटा वयलो विंचू चाबिल्ले वरी फटक् करून उसळ्ळो. म्हाका विचारपाक लागलो, 'आनी तुवें ते घेतले?'

हांव ओग्गी रावलों.

बसींतल्या पॅसेंजरांक तो उबो रावन सांगपाक लागलो,

'भावांनो, हो हांगा म्हज्या म्हऱ्यांत बसला तो कोण तो खबर आसा तुमकां?... हो अमको अमको. हाणे आपणालें पुराय आयुष्य तरांतरांच्या चळवळिंनी खर्चिलां. हो सुटके झुजांत आशिल्लो. चवदा वर्सां हाणें सुटकेच्या गोवर्धन पर्वताक हेर सुटके झुजाऱ्यां वांगडा आपणालो तोणको तेंकयल्लो. हो ओपीनियन पोलाचे चळवळींत दीसरात वावुरिल्लो. कोंकणीक आयज आमच्या राष्ट्रीय जिवितांत जी कितें सुवात लाभल्या, ती तिका मेळची म्हूण हाणेंय आपणालें जिवीत झरयलां. कोंकणीक मेळिल्ले सुवातेक लागून गोंय गोंय उरूंक पावलां... आनी हाच्या पुराय आयुष्याचे सेवेचें मोल आमच्या सरकारान – जाणें गोंय स्वतंत्र जावचें म्हुण्णूय कांय करूंक ना, गोंय घटक राज्य जावचें म्हुण्णूय कांय करूंक ना, आनी जें वर्साक एक कोटी अठरा लाख, त्रेपन्न हजार, आठशें त्रेचाळीस रुपये खर्चून फकत फोल्गां मारता – त्या सरकारान कितें आंखलां, खबर आसा तुमकां? पंचवीस हजार रुपये!... आनी हाणें ते घेतल्यात... शी... लज दिसता म्हाका तुमची सगळ्यांची...'

इतल्यांत भाणस्तार आयली. थंय तो देंवलो. 'मूरख मूरख राजा कीन्हो, पंडित फिरत भिखारी... ऊधो, कर्मन की गती न्यारी' हें गीत गायत...

# ञाद

वंद्रबाब,

ाम्हयन्याचो 'जाग' वाचतां वाचतां सांडलो. (चमत्कारूच सो!) तांतलें ाउरचे नात' हें तुमचें संपादकीय स्फूट वाचून कांय विचार तकलेंत त्ते मांडटां :

ांत वा कोंकणीच्या मळार तुमी वा हेर बरपी उरतले अशें कोण म्हणटा ? ा हेर कलाकारांक मानपी समाज खूब सुसंस्कृत आसता. असल्या ची मूल्यवेवस्था वेगळी आसता. ह्या समाजांत स्वातंत्र्यसैनिक, क, समाजकार्यकर्ते, कलाकार हांकां मान आसता. जांच्यांत क्रिएटिव्ह सता तांकां हो समाज मानता. जांच्या वावरांत मनिसपणाचें, nitarian कितें तरी आसता तांकां हो समाज लेखता. गोंयकार दुडवांचो घेवन वावुरतात. हांगा चडशे जाण दीसरात दुडुर्ब्रह्मा, दुडुर्विष्णूचो रतात. असल्या समाजांत रवीन्द्रबाब, तुमी कशे उरतले ?

च्या कलाकारांनी गोंयाभायर वचून नामना जोडली, अशें एक वाक्य कलेचो इतिहास बरयतना लोक घालतात. तांतूंत तथ्य आसा. बांनी कितल्याय उंचेल्या पांवड्याचें काव्य कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार ोंयकार अदीक मान दिवंचे नासले. गोंयकारांक बाकीबाबांचे मनीस श दिसले. गोंयाभायल्या लोकांक तांच्यांतल्या दोशांची जाण आसली. णी तांचेकडेन दोळेझांक केली. तांणी फक्कत तांच्यांतल्या कलाकाराक आपल्या कलाकारांचो, तांच्या कलाकृतिंचो उगडास कसो सांबाळून हें येवरोपी लोकांकडल्यान शिकपाचें. लंडनाक जॉन किट्साच्या घरा ो एक ल्हानशी बाग आसा. ते बागेंत एक झाड आसा. त्या झाडामुळांत ई दवरिल्लो आसा : 'जॉन किट्सान Under the Greenwood ी कविता ज्या झाडा सकयल बसून रचली त्याच (झाडाच्या) जाग्यार लायलां.'

ां गोंयचो हो एक प्रसंग पळेयात : वा. का. वाघ हांणी संशोधन करून स्तकांचीं हातबरपां तयार केल्लीं. ते हो संवसार सोडून गेले उपरांत ाब मोरायश आनी हांव पानवेली (रायबंदरा) तांच्या घरा तीं हातबरपां ातीर गेले. आंतोनबाबाक तीं सांबाळून दवरपाचीं आसलीं. वाघांच्या ामकां सांगलें, सध्या तीं माळ्यार उडयल्यांत. फुडें फाटीं वेळ मेळटा ोदतां आनी तुमकां कळयतां. उपरांत ताचो रकाद आयलो ना.

गोंयबाब, ज्योकीं आंतोन फेर्नांद, बयाभाव, र. वि. पंडित हांच्या गेल्यार अशेच तरेच्यो जापो तुमकां मेळटल्यो. गोंयांत जे व्हड सैनिक, कलाकार आनी हेर जावन गेले, तांचीं घरां सरकाराच्यान कां म्हूण सांबाळून दवरूं येतालीं. सरकाराकूय कांय पडिल्लें ना. आमच्या व्हड मनशांक मानिनात हो जालो एक सरसकट नेम. डवाद आसात हांतूंत दुबाव ना.)

कित्याखातीर उरतात हाका नेम नात. पोरण्या काळच्या बरप्यांनी बरयलें तें आवांठान व्हड आसलें. जिणेक बी आव्हान करतालें. नवो अर्थ सांगतालें. मनशांचे, नितिनियमांचे, घटणांचे, विचारांचे... नमुने तांच्या साहित्यांत मेळटाले. त्या साहित्याचो appeal व्हड. उरलें. ज्या काळार तांणी हें साहित्य रचलें त्याच वेळार तें लोकमानसांत उपरांत एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे कडेन गेलें आनी अशे खऱ्या अर्थान अजरंवर जालें.

न आमी ज्या महाभारताची तोखणाय करतात तांतलें व्यासाचें कितलें रांतच्या लोकांचें कितलें हे संबंदीं वाद आसा. (महाभारत हें मुळांत बरयल्लें काय केळेकारान असो एकाद्रो वाद फुडें फाटीं सुरू जालो रवीन्द्रबाब, तुमचें नांव उरतलें.) व्यास हो अति पुर्विल्लो. शेक्सपियर तचो. सोळाव्या शेंकड्यांतलो. तो हो संवसार सोडून गेले उपरांत फुडलीं दोनशीं वर्सां सुमार लोक ताका विसरिल्ले. ताचीं नाटकां जातालीं, पूण तांचेर भासाभास जायनाशिल्ली. दोन शेंकड्यां उपरांत एका इंग्लीश कवीन लेख बरोवन कवी म्हणून ताचें व्हडपण लोकांक सांगपाक कोमेंस केलें. आनी शेक्सपियराक बरकत आयली. ताचेर उपरांत जें बरप जालें ताका सुमार ना. घडये, संवसारांत जाचेर चडांत चड बरप जालां आनी जाचें साहित्य चडांत चड भासांनी भाशांतरीत जालां असो हो एक व्हड लेखक.

शेक्सपियरावरीच टॉलस्टॉयाकूय संवसार मानता. ताचें 'वॉर ॲण्ड पीस' हें एक व्हड पांवड्याचें पुस्तक लेखतात. खासा टॉलस्टॉयाक शेक्सपियर आवडनासलो. आदीं सगलो शेक्सपियर रशियन भाशेंत वाचून, उपरांत मूळ इंग्लिशींत वाचून ताणें आपलें स्पश्ट मत्त बरोवन दवरलां तें अशें : शेक्सपियर व्हडलो लेखक न्हय; कवी बी म्हणून व्हड आसत. बर्नार्ड शॉचेंय शेक्सपियरा विशिंचें मत्त अशेच तरेचें आसलें. ब्रिटिश लोकांचीं खेबाडां करीत तो म्हणटालो, हांकां दुसरो कोण लायक साहित्यिक मेळ्ळो ना म्हणून हांणी शेक्सपियराक मारून मुटकून व्हड केला.

अमेरिकेंत हॅमिंग्वे उरला. पूण ताका मेळूंक जाय आसली ताचेय परस अदीक प्रसिद्धी कशी मेळ्ळी हाचेर कांय जाणांनी बरोवन दवरलां : हॅमिंग्वे वर्तमानपत्रांक, नेमाळ्यांक खूब आवडटालो. ते ताका हॉलिवूडच्या नटांवरी प्रसिद्धी दिताले. तोय तिचे फाटल्यान लागिल्लो. हॅमिंग्वेचे बरपावळिचेर येवचे बदला तो कितें खाता, जेवता, बुल फायटिंगांत रस घेता असल्या आलायत्या गजालिंचेर ताच्यो व्हड फोटोंसयत मुलाखती उजवाडा येताल्यो. उपरांत ह्यो गजाली हॅमिंग्वेच्या आंगवळणीं पडल्यो आनी तो आपणाविशीं myths तयार करूंक लागलो. ताच्या चरित्रकाराक – कार्लोस बेकर हाका – ताचे संबंदिंच्यो खऱ्यो फट घटना वेंचून काडप खूब कठीण जालें. ताच्या साहित्याचें मूल्यमापन अजून जायत आसा (तो व्हड लेखन आसुनूय). खासा हॅमिंग्वे मार्क ट्वेनाक खूब मानतालो. ताणें एकेकडेन म्हळां, मार्क ट्वेनान एक कादंबरी बरयली आनी आमी तीच कादंबरी परथून परथून बरयतात.

कोंकणींत अशें जनमानसांत पावपाची तांक आशिल्लें साहित्य आसा अशें म्हजें म्हणणें. 'न्हीद रे बाळा, चांफ्या कळ्या, म्हगेले मांडयेरी' ह्या दिनकरबाब देसायांच्या कवनाक लोकगिताचें रूप आशिल्लें. मनोहरबाब सरदेसायांच्यो अशो कांय कविता – तांचो वेवस्थीत प्रसार जालो जाल्यार – लोकांच्या (सगल्या कोंकणी समाजाच्या) काळजांत पावूं येतात. कांय साहित्य – अदीक करून अध्यात्मिक बी – तें रचपी मनशांच्या व्हडपणाक लागून उरलां. ज्ञानेश्वर हो एक स्रेश्ठ पांवड्याचो मनीस देखून ज्ञानेश्वरी लोकांमेरेन पावली अशें म्हणपी एक टिकाकार वर्ग महाराष्ट्रांत आसा.

रवीन्द्रबाब, काळजी करूं नाकात. गांधी साहित्य उरतलें. दिशीं दिशीं ताचें मोल वाडटलें. कारण गांधी अख्ख्या संवसारांत पावला आनी निकते ताका लोक वळखूंक लागल्यात. ('पाड पडलें' म्हणपाचें कारण ना.)

वेंतभर बामणाक हातभर शेंडी म्हणटात तशें हें म्हजें बरोवप जालां. अदीक उणें कितेंय जालां जाल्यार गुन्यांव भोगसुंचो.

तुमचें स्फूट वाचलें उपरांत हांव ह्या निर्णयाक पावलों :

१. तुमचें आतां जाणटेपण जालां. तुमचो एजिंग प्रोसेस सुरू जाला. आपलें साहित्य उरतलें काय ना हाचो तुमकां हुस्को जाला.

२. तुमचें जर्मन भाशेचें गिन्यान सुधारलां. एका काळार तुमी Goethe हाका 'गोयेथ' काय कितें म्हणटाले. ताका आतां 'गटे' म्हणटात.

३. तुमचेपरस गोदूबायचें सामान्यज्ञान खूब वेव्हाराक धरून आसा. तुमकां तुमचे फाटल्यान तुमचें नांव उरतलें काय ना हाची काळजी जाल्ली. गोदूबायन जीं उतरां सांगलीं तीं शाणेपणाचीं. ताका एक तस्रीप दिवंक फावो.

**— अना म्हांबरो**

# नर्तकी

**चंद्रकांत केणी**

दीस अस्तंतेकडेन देंवलो आनी तळ्याचे देगेवयल्या झाडांच्यों सांवळ्यो आनिकय लांब जाल्यो. केदो वेळ मेरेन एक म्हस तळ्यांतल्या खदळ उदकांत आपलें आंग बुडोवन राविल्ली. उबाळाच्या ह्या दिसांनी उदकाची आनी रेब्याची शितळसाण तिका सुखायताली.

मर्दीच एक काळी शिळा आसची तसो तिचे फाटिचो वयलो भाग उदकावयर दिसतालो. थंय दोन कावळे बशिल्ले आनी म्हशिच्या आंगावयल्यो हुलको आपले चोंचीन उखलून खाताले. म्हशीन उठपाचें येवजिलें आनी शेंपडी हालयली तशे दोनय कावळे उडून गेले. सवण्यांचीं भिरीं चिंवचिंवत घोंटेरांत परतूंक लागिल्लीं.

म्हस थंडसाणेन उठून उबी रावली आनी एकाद्रे राणयेसारकी एक एक खूर उखलून तळ्याभायर आयली. सगळें आंग आनी तकली हालोवन तिणें उरिल्लें उदक झडयलें आनी आंगार शिरशिरी अणभवली. बसतल्या मुसांक आमुडपाखातीर पर्थून एक फावट तिणें आपली शेपडी आनी शिंगां वावुडलीं. चोंयवशीन पळोवन ती हांबेली आनी उपरांत संथ चालीन वचूंक गेली.

तळ्याचे धडेर येवन बसल्यार ताका अर्द वर जाल्लें. पुराय वातावरण प्रसन्न आसलें. मनमेकळेपणान वावुरतल्या सवण्यां सावदांची हालचाल पळोवप ताका आवडटा. सैमाचे बदलते रंग, खिणांत नदरेंत भरता तें नवें रूप पळयतना आपणाक तो विसरून वता. पूण आयज नदरेसामकार सैमाचो हांसो आनी नाच दिश्टी पडटा आसतनाय ताचें अशांत मन थीर जायना आसलें. एके तरेची अस्वस्थताय ताच्या मनांत दाटून आयिल्ली.

तिनसांजची ती देवळांत येवपाची आसा. तो तिगेली वाट पळयतालो. कान आनी दोळे तिचेच वाटेकडेन लावन बशिल्लो. वाऱ्याच्या झोतासरशीं मर्दीच झाडांचीं पानां सळसळटालीं. ती आयली अशें दिसून तो परत परत नदर फाटलेवटेन घुंवडायतालो.

आतांय ताणें नदर घुंवडायली. नागमोडी पांयवाट सोंपता थंय निर्जन डांबरी रस्तो सुरू जाता. झाडांच्या खांचींतल्यान बुडट्या सूर्याचीं निस्तेज किर्णां सांवळेकडेन आपालिपाचो खेळ खेळटालीं. घोंटेरांत परततलीं सवणीं शिळोणी घालतालीं. पूण पुराय रस्तो उकतो.

ताणें एक गुंडो उखल्लो आनी तळ्यांत उडयलो. 'बुडूऽक्' असो आवाज आयलो. आनी ते सरशीं उदकाची फाट चिरून गुंडो तळ्याच्या तळाक गेलो. उपरांत चार बुडबुडे आनी वाटकुळे तरंग. एकांतल्यान दुसरो तरंग विस्तारत विस्तारत तळ्याच्या चारय देगांक आपटले आनी परततना नवे तरंग उदेवंक लागले. तागेल्या मनांतय अशेच तरंग आनी प्रतीतरंग उदेतात.

ती येत काय?

येतली म्हूण तिणें उतर दिलां. दिल्लें उतर ती केन्ना मोडिना, ते खातीर केदेंय व्हडलें दिव्य करूंक अनमनना, असो ताचो आयज मेरेनचो अणभव. पूण आयची गजाल वेगळी. आयज तांणी दोगांनीय एक निम पावल उखलपाचें थारायलां. वेणेचे दोंगुल्ले वयल्या म्हाळशेच्या ह्या नि देवळांत सायबिणिचे साक्षीन तीं दोगांय लग्न जातलीं. दोनय घरांतल लोकांचो ह्या लग्नाक विरोध आसा. समाजाक तांचें प्रेम मान्य समजावपाचो, मन बदलपाचो यत्न फसला... ती एका फाकिवंत घराब्यांत रूपसुंदरी. आनी तो?... तो एका किरकोळ घरचो सामान्य तरूण...

'म्हज्या घरचे लोक विरोध करतात ताचें कारण म्हाका कळटा. म्हज आईबाबाक गुणांपरस कुळाचो आनी बुद्दीपरस धनाचो आनी मोठेपणा आग्रो. हें समजूं येता. पूण तुज्या आईबाबान विरोध कित्याक करचो' तिणें ताका विचारिल्लें.

तिचें म्हणणें तर्काक धरून आसलें.

ताणें उस्वास सोडलो. म्हळें, 'हांव तांचो एकलोच चलो. म्हाका घे तूं पळून वचशीत अशी तांकां भिरांत दिसता. ते भायर नाकापरस मो जड आसचें न्हय अशें तांचें मत.'

ह्याच तळ्याच्या शांत-नितळ हारशांत तांणी आपलीं पडबिंबां कितलेश फावटीं नियाळ्ळ्यांत. एक खेपे ती अशीच ताचे कुशीक बशिल्ली. दोगांची पडबिंबां नितळ तळ्यांत निवळ बरीं दिसतालीं. अचकीत ताका एक मस्क येवजली. ताणें ल्हानसो गुंडो उखल्लो आनी तळ्यांत मोखलो. ल्हान तरंग उदेले तशीं पडबिंबां हाल्लीं. कातकुतल्यो करपी नाच नाचूंक लागल नाचतां नाचतां एकामेकांक भरसूंक लागलीं.

'तें पळय... आमचें मिलन...' ताणें पडबिंबांकडेन तिचें लक्ष व्हेलें.

पूण ती हांसली ना. हरशीं मस्करेन विचारिल्लो प्रस्न आयकनापु ती ताचे कुशींत रिगताली. तशी रिगलीय ना. गंभीर तोंड करून न तळ्याचेर थिरावन बसली.

'कितें जालें?' ताणें विचारलें.

'आमचे देह छिन्नभिन्न जाले तेन्नाच तांचें मिलन जालें पळे... तु पळेलें ना?'

आतां तिची वाट पळेत बशिल्ल्या वेळार ताका त्या प्रसंगाचो उगडा जालो.

परत दोळे मार्गाचे दिकेन ताणें घुंवडायले. मैलभर रस्तो नद... दिसताल आतां सूर्य दर्याचे कुशींत लिपिल्ल्यान संथ पावलां उखलीत काज... गळो दाटून येतालो.

ह्या काळखांत हांगा बसून तिची वाट पळोवप समा न्हय. ताणें म्हर्या दवरिल्ली पोती उखल्ली. पोतयेंत आसात फुलांच्यो दोन माळो आ कुकमान भरिल्लो रुप्याचो करण. देवते सामकार तिच्या गळ्यांत मा घालतकच तो तिच्या माथ्याचो भांग ह्या कुकमान भरतलो...

तो देवळांत आयलो. नवें देवूळ बांदपाचें काम थंडावलां. चुडटांचे खोंप

मूर्त आसा. कुशीक एक निरांजन तेंवता. पांयांचें जोतें ताणें भायले वरलें आनी शेणान सारयिल्ले शितळ जमनिचेर पांय दवरून तो ामकार आयलो.

ांत कोणच नासलो. देवतेकडेन तो पळेत रावलो. मंद पेट्टल्या ांतले वातिचे पसयेंत देवतेच्या तोंडावयल्यो कळा बदलतात अशें देसलें. दोनय हात जोडून तो देवतेक पांयां पडलो आनी थंयच घेतली...

ा ते खबरेचो उगडास जालो. नुपूर तळें पळोवंक गेल्ल्या वेळार वभावान ताका ती सांगिल्ली.

तळ्याचे देगेर एक तरणाटो बसून आसा. इतले मजगतीं थंय एक कायेची मूर्त कशी देखणी चली येता. तिच्या हातांत रितो कळसो. खुळखुळपी नुपूर. पावलासरशीं संगिताचे मंजूळ सूर वातावरणांत त. खिणभर ती त्या तरणाट्याकडेन पळोवंक उबी रावता. तो एक अपूप पळयिल्ल्याचें अजाप ताच्या दोळ्यांत भरता. नदर तो तिका पळेत रावता. तिगेल्या पावलांचो ठेको चुकता. तरी र खुळखुळायत तळ्यांत देंवता. हाताच्या पोशांनी आपलें आंग ोंड धुता. पुशिना. रिकामो कळसो उदकांत बुडयतना उदक बुडबुडटा. ो कळसो ती हांडीर उखलता आनी एकाद्रे नर्तकिचे लयेंत नुपूर न आंग मोडीत वयर येता.

अजून तो तरणाटो तिका पळेत आसता. दोळ्यांचीं पातीं हालयनासतना नादान गुल्ल जाल्ल्या नागासारको तो तिचेर भाळिल्लो.

ती भरिल्लो कळसो घेवन ताचेसरीं येता. तरी ताची नदर तशीच उरता. सपन पळेतल्या भ्रमिश्टासारकी. हाताच्या पोशांत उदक ती ताच्या तोंडार चप्प करून मारता.

दोळे धांपून तो तकली हालयता आनी सुद्दीर येवन दोळे उकते ाल्यार सामकार कोण नासता. खंय गेली ती?... काय तें एक आसता? ती देवताच न्हय मू?... काय तो भास?

येवजितां येवजितां तो पिसो जाता. रात दीस त्या निर्जन भागांत ा पांयांनी भोंवता. पिशांतरावरी. कळसो हांडीर घेतिल्ले अप्सरेक दता. ती परत येतली असो ताचो भावार्त ताका सांगता.

री काय ही कथा? असल्यो आख्यायिका आनी दंतकथा वचत ायकूंक मेळटात. पूण तो भोळो गावडो फट कित्याक सांगतलो? ो कोण अशें तुका दिसता?' ताणें गावड्याक विचारलें.

नी गावड्यान दुसरी कथा सांगली. चारशें-पांचशें वर्सां आदली कथा. च्या सभामंडपांत त्या दिसा उत्सव आसलो. देवळाचे नर्तकिचो नाच लो आसलो. तिची नामना धा दिशांनी पातळिल्ली. तिच्या शिल्पावरी ोटाचें लोक वर्णन करताले. तिगेले सोबितकायेचो बऱ्या घरच्या बायलांक जातालो आनी दादले सगलीं समाजीक बंधनां विसरून तिचे नदरेक दिवंक एकामेकांकडेन सर्त लायताले. नाच करपी चली, पूण देवतेची भक्त. नाच करचे आदीं ती नुपूर तळयेचेर वचून न्हाताली. कपलार भांगेंत कुकूम भरताली आनी मागीर घरा वचून, न्हेसून नाच करूंक ंडपांत येताली. वर्सांतल्यान एक दीस ती जीव ओतून नाचताली. ां नाचतां सुद्द वचून भूंय कोसळ मेरेन त्या दिसा ती नाचताली. नाचांत कळेकळेन तिची कळा, तिचें लावण्य कळयेचें फूल फुलचें ुलत रावतालें.

ानी तो दीस आयलो. उत्सवाचो दीस. तीनसांजचो वेळ. अस्तंतेकडेन देंवलो आनी उदेंतेकडेन पुनवेचो चंद्रीम वयर सरलो तशी ती न्हावंक तळयेकडेन आयली. थंय एक तरणाटो बशिल्लो. तिणें एक नदर भोंवडायली. नागिणिचे नदरेक नदर मेळनाफुडें बेबो जसो निश्चल तसो तो जालो. पूण तिणें ताची पर्वा केली ना. आपल्या पांयांतले नुपूर वाजयत ती तळयेंत देंवली.

धडेर बसून तो तिका पळेत आसलो. पूण ती खांकडेली ना वा लजेली ना. न्हावन वयर सरतना आंगावयलें ओलें न्हेसण तिगेल्या कोरीव शिल्पाची सोबा वाडयतालें. तो सपन पळोवचें तसो पळेत रावलो. आपली बुद्द तो वगडावन बशिल्लो. न्हावन जातकच तिणें येतना हाडिल्लो तो कळसो तळयेंतल्या उदकान भरून घेतलो. उदक न्हय, तीर्थ तें. कळसो घेवन ती वयर आयली. ताचेमुखार उबी रावली. ताची नदर तिचेर थिरावलेली. पूण तो ह्या संवसारांत नासलो. हाताच्या पोशांत इल्लें उदक घेवन तिणें पच्च करून ताच्या तोंडार मारलें. ते सरशीं तो भानार आयलो. ती हांसली. एक अपूप हांसो. पुराय वाठार जोगलावरी चकचकलो. तिणें आपलो मेकळो हात मुखार केलो. ताणें तो आपल्या हातांत घेतलो.

'चल यो.' तिणें म्हळें. 'आयचो म्हूर्त वगडावं नये. आज नाच सोंपतकच देवतेच्या चौकाचेर सगळ्यां सामकार हांव तुजी जातां. यो.'

लोहचुंबकान सूय ओडची तसो तो तिचे फाटल्यान चलूंक लागलो.

देवळांत लोकांची गर्दी. सूर्य अस्ताक गेल्लो आनी देवळामुखावयली दीपमाळ पेटिल्ली. नदरेचे इशारतीन तिणें ताका सभामंडपांत बसूंक सांगलें आनी ती नाचाचें न्हेसण न्हेसूंक आपल्या घरा गेली.

नुपुरांचो मंजूळ आवाज वाठारांत झणझणलो आनी सभामंडपांत एक आगळी शांतताय पातळ्ळी.

... तितले मजगतीं बोबो आनी हुयेली... वाट फुटत थंय लोक धांवंक लागले. कितें जालें तें कोणाकच कळ्ळें ना. एकच आवाज आयकूंक येतालो, 'चलात... पळात... ते आयले... फिरंगी आयले...'

लोकांच्या हुयेलीं मदीं लेगीत घोड्यांच्या खुरांचो आवाज आयकूंक येतालो. चारूय दिकांनी गुलाल उबोवचो तसो धुल्ल दाटूंक लागलो. पळटल्या लोकांमदीं दादले, बायलो आनी भुरगीं.

कोण आपटतालो, कोण धोपटतालो. सगळेकडेन किळच्यो, हुयेली.

आनी दुसऱ्याच खिणाक ताच्या दोळ्यांमुखार काळोख दाटून आयलो. काळखाचे खोल घोलींत कोणेंतरी ताका धुकल्लो.

तो भानार आयलो तेन्ना थंय कोण नासलो! जमनीभरवण जाल्लें देवूळ आनी धाय दिकांनी शिंपडिल्लीं मडीं. सुर्णी आनी गीद लेगीत तांचे लागसार वचना आसले.

त्या दिसा सावन तो सद्दां नुपूर तळयेकेन येता आनी ती ताका दर्शन दिता.'

देवळांत बशिल्लेकडेन गावड्यान सांगिल्ली काणी ताका येवजली. आत्तां आपल्या दोळ्यांसामकार ती घडल्या अशें ताका दिसलें. ताच्या आंगार ल्हंवेन ल्हंव कांटो फुल्लो. ताका कांपरें भल्लें. ताणें देवतेकडेन पळेलें. निरंजन संथ पेट्टालें.

अजून ती येवंक नासली.

हांव तो भ्रमिश्ट तरणाटो न्हय मू? आनी ती...? नुपूर घाल्ली नर्तकी?

विचार मनांत आयलो आनी ताचें पुराय आंग हुमेन चिप्प भिजलें. आपणाक घुंवळ येता अशें ताका दिसलें. तशेंच आसतलें... जल्माची ताटातूट आपल्या नशिबांत बरयिल्ली आसतली. पुर्विल्ल्या इतिहासाचो नव्यान अणभव घेवपाखातीर देवान आपणाक वेंचून काडिल्लो आसतलो...

ताणें दोळे धांपून घेतले. दोनय पोशांमदीं आपलें तोंड लिपयलें आनी घरा परतुपाचें येवजून तो उठलो... इतले म्हणसर घांट वाजली.

अजापून ताणें दाराकडेन पळेलें. थंय ती उबी आसली.... नुपूर नासलें, कळसो नासलो...!

* * *

# कुळागर

ज्योती शां. नायक

गोंयचे सैमीक सोबितकायेंत न्हंयो, दर्या, दोंगर, शेतां हांचे वांगडा कुळागरांचोय हात आसा.

पयलीं तेंपार भाटकार आपले जमनीर नदर दवरपाक आनी पिकावळ काडपाखातीर कांय लोकांक हक्क दिताले. तांकां **कूळ** वा **मुंडकार** म्हणटाले. कुळा वेल्यानूच **कुळागर** हें उतर आयलां जावंये. हे पिकावळिचो थरावीक वांटो भाटकाराक दिवचो पडटालो. ताका **खंड** म्हणटात. कुळागरांत भाटकार **बारपाक** येता. बारपाक म्हळ्यार दर एके माडयेक कितले **कात्रे** आसात ते मेजप आनी ते मेजले उपरांत अमकोच खंड घालपाक जाय म्हण थारावन दिवप. हो खंड मणांनी थारायतात. एका मणाक सोळा कील सुपारी येता. कुळागरां भाटकारांचीं आसतात तशीं स्वताचींय आसतात.

गोंयांत मुखेलपणान फोंड्यां, प्रियोळ, बेतकी, कुकळयां, वाळपय सारकेल्या वाटारांनी कुळागरां दिश्टी पडटात. कांयकडेन कुळागरांनी फकत माडयांचेंच उत्पन्न जाता. हेर कडेन माडयां वांगडा हेर झाडांचीय लागवड केल्ली पळोवंक मेळटा. केळमे, माड, निरपणस, पणस, आंबे, तोरंगां, जाम, आमाडे, खावंचीं पानां, मिरयां, तारवटी मिरसांग, सुरींग, मावरींग, आळवां, चिरकुलां, अनसां, पोपाय, भिण्णी इतलेंच न्हय तर फुलझाडांय कुळागरांत लायिल्लीं आसतात. पयलीं जायफळ, वेलची, लवंगीण सारकेलीं झाडां कुळागरांत पळोवपाक मेळनासलीं. पूण आतां तांचीं कलमां बाजारांनी वा पंचायती मार्फत लोकांक मेळटात आनी लोक हेय तरेचीं झाडां कुळागरांनी रोवपाक लागल्यात.

## कुळागरांतली मुखेल पिकावळ

**माडी:** माडी कुळागराची राणीच म्हळ्यार जाता. बेडे जावंक लागूंक नाशिल्ले ल्हान माडयेक **कावथी** म्हणटात. कावथी रोवपाक जें चवकोनी आकाराचें फोंडकूल काडटात ताका **नेम** म्हणटात. माडी फुलपाक येता तेन्ना तिका एक **बोंड** जाता. भातयेसकट आशिल्ल्या फुलांचो गोंड म्हळ्यारूच बोंड. माडयेच्या फुलाच्या गोंडा भोंवतणी आशिल्लें धव्या रंगाचें धांपण म्हळ्यार **भाती**. हे माडयेक जीं **चुडटां** जातात तांकां **पोंवली** आसता. भितल्ल्यान धवी आनी भायल्यान पांचवी-तांबशी कशी. कांय पोंवल्यो खोल आनी कांय उथळ आसतात. पोंवल्यो गोरवांक खावपाक घालतात. पयलिंचो लोक पोंवल्यांनी जेवतालो लेगीत. तशेंच, शेतांनी कामाक वतना पोंवल्यांनी जेवण बांदून व्हरतालो. ह्यो पोंवल्यो जित्यो आसतना वा सुकलेल्यो आसल्यार मातश्यो फुगत घालून त्यो सारक्यो जोकान कापून आनी दामणान शिंवून **हांतऱ्यो** तयार करतात. (**दामण** म्हळ्यार मोटी सूय.) हांतऱ्यो बसपाखातीर वा कित्याचेरूय धांपूंक वापरतात.

**चुडटां:** माडयेचीं चुडटां खोंपी, घर वा गोरवांचो गोठो शिंवपाक वापरतात. तशेंच, पावसांत घरांत उदक वा वावझड येवची न्हय म्हण **झड** वा **आडोस** बांदपाक उपकारायतात. चुडटां एक एक करून कोंड्याच्या कामिंनी बांदून काडून ही झड तयार करतात.

**बेडे वा सुपारी:** माडयेचे बेडे पयलीं पांचवे आसतात. ते झडपाक लागतात तेन्ना **झडाव** लागलो अशें म्हणटात. ह्या बेड्यांक **तोल्लीं** अशेंय म्हणटात. हीं झडलेलीं तोल्लीं एकठांय करून सुकत घालतात. आनी तीं सोलून जी सुपारी मेळटा तिका **खोको** म्हणटात. खोक्या भितर **धवो खोको** आनी **तांबडो खोको** आसता. बेडे ज्या घोंसाक आसतात ताका **कात्रो** म्हणटात. आनी ह्या कात्र्याचे सगळे बेडे काडटात आनी जो बेडे नाशिल्लो भाग आसता ताका **शिपटें** म्हणटात. बेडे पिकतकच तांबडेच जातात तेन्ना ते काडटात आनी माळ्यार पातळावन सुकयतात. **माळो** म्हळ्यार माडयेच्यो वा भिल्लाच्यो कामी घालून जमनी पसून उंचायेर सुकत घालपा खातीर केल्ली सुवात. बेडे खळार घालूनय सुकयतात. **खळ** म्हळ्यार जमीन खणून पेटून सुळसुळीत केल्ली सुवात.

बेडे पिकपाक लागले म्हणटकूच ते पाडचे पयलीं कुळागरांत **देवकारें** म्हण करतात. माडयेक गंध, फूल घालून, आरत दाखोवन, मुळांत विडो दवरून निवेद्य दाखोवन तिची पुजा करतात आनी उपरांत ते माडयेचो कात्रो काडटात. हाकाच **देवकारें करप** म्हणटात. ह्या दिसाच्यान कुळागरांतले बेडे पाडपाक सुरवात जाता. कुळागराची राखण जावची म्हण मालूण म्हयन्यांत जल्म्याक हाडून **चरूंव** शिजयतात. ताका भोगावळ अशेंय म्हणटात. चरूंव शिजोवप म्हळ्यार कुळागरांत उकडे तांदूळ शिजोवप. तशेंच निमाणो **पाडो** करतात तेन्ना **गोडशें** करपाचीय चाल आसा. हे जाले कांय परंपरेन चलत आयिल्ल्यो चाली.

पिकलेले वा जिते बेडे उदकांत घालून कुसयतात तांकां **खळांतले बेडे** म्हणटात. हे बेडे पान खावपी लोकांखातीर आसतात. सुकलेल्या बेड्यांक **फोपळां** म्हणटात. हीं फोपळां सोलून जीं कल्लां काडटात तांकां **सोल्ली** म्हणटात. ह्यो सोल्ली गोरवांच्या गोठ्यांत धुंवर घालपाक वा उदक तापोवपाक उपकारायतात. तशेंच कुळागरांत चिरकुलां रोवपाक फोंडकूल काडटात त्या फोंडकुलांत ह्यो सोल्ली घालतात आनी तांचेर चिरकूल रोयतात.

ज्या फोपळांची सोल्ली सारकी येना वा जाका सोलतना आदोळी लागता ताका **कातोड** म्हणटात. हें कातोड बरे सुपारे परस कमी दरेन विकतात.

माडयेच्या काणाचे कुडके करतात तांकां **फोपाडे** म्हणटात. चार वा पांच फोपाडे एकठांय लागीं लागीं घालतात तांकां **आडयो** म्हणटात. आडयो म्हळ्यार मर्दी व्हाळ आसल्यार वा बांद आसत जाल्यार आलतडच्यान पलतडीं वचपाक केल्ली वेवस्था. तशेंच, फोपाडो माटवाक आडवो घालतात ताका **करावो** म्हणटात. फोपाडो कापून तासून कामी तयार करतात. कामी माळो करपाक वापरतात. सुकलेले माडयेचो जळवाखातिरूय वापर जाता. तशेंच, फोपाड्याचे मर्दी उबे दोन कुडके करतात आनी मदलीं किसरां काडून तयार करतात तो पोनेळ. हे पोनेळ पावसान नळ्याचे पावळेक

चपाक वापरतात. तेभायर, काजू तेंपार **कळमेर** निरो वा मुट्ट्यांचो पाकय वापरतात.

गरांत आनीक एक माडयेची जात आसता तिका **फटासमाडी** त. ही माडी सुपाऱ्यांचे माडयेपरस आंगान मोठी जाता. आनी हे बेडे खावपाखातीर वापरिनात. ते फकत चवथीक **माटोळेक** बांदपाक त. हे बेडे आकारानय खावपाच्या बेड्यांपरस मोठे आनी लांबट सतात.

माड नाल्ल दिता. भारतीय संस्कृतायेंत नाल्लाक खूब म्हत्व प्रत्येक शुभकार्याची सुरवात नाल्लाची पुजा करून जाता. लग्न, रप्रवेश, उद्घाटन समारंभ तशेंच कसलेंय देवकार्य करतना नाल्लाची ताच. देवाक सांगणें करतना जावं गाराणें घालतनाय नाल्ल फोडपाची आसा. मनशाचो भोवमान करतनाय तो नाल्ल दिवन करतात. न सवायशीण बायलेची होंट भरपाचीय चाल हिंदूंभितर आसा. या माडाक **कावथो** वा **कवाथो** म्हणटात.

: माडाच्या पानांक चुडटां म्हणटात. चुडटाच्या एका पानाक **चुडटी** त. माडाचे तेंगशेर नव्यानच चडत येता ताका **शिवडी** म्हणटात. या चुडटांपासून **मल्लां विणटात**. **मल्लां विणप** म्हळ्यार चुडटांच्यो ो विणप. आनी चुडटांच्यो चुडट्यो मातश्यो मातश्यो निखळावन अर्दातल्यो चुडट्यो दुसऱ्या अर्दान करतात ताका **मलयो** म्हणटात. ल्लां आनी मलयो पावसांत उपकाराक पडटात. मल्लां घरां, खोंपी क वापरतात. तेच प्रमाण **झड** बांदपाकय मल्लां आनी मलयो वापरतात. ीं चुडटां खोंपी, गोरवांचो गोठो धांपून घेवपाक वापरतात. ताका वा गोठो **शिंवप** अशें म्हणटात. प्रत्येक चुडटेक मदीं व्हीर आसता. हरापसून **सारण** तयार करतात. चुडटाच्या फाटल्यान जो भाग आसता **पिराडो** वा **पिडो** अशें म्हणटात. तो जळोवपाखातीर वापरतात. च्या कवाळ्यांत पोंय दिसली की **माड फुटलो** अशें म्हणटात. जंय , नाल्लाची पेण आसता ताका **माडाचो कवाळो** म्हणटात. पोंयेंत फुलांचो **तुरो** आसता. तुऱ्यांत दादलो आनी बायल अशीं दोन तरांचीं आसतात. बायल फुलांपसून नाल्ल तयार जाता. नाल्ल जावचे ीं **बोंडे** जातात. ज्या शिपट्याक नाल्ल जातात ताका **नाल्लांची पेण** टात. हे पेणीचे सगळे नाल्ल काडून जें उरता ताका **शिपटें** वा **शेवक** टात. नाल्लाचे पेणीकडेन पातळ जाळये भशेन आसता तांकां **पिसुंदर** टात. पिराडे, सुकिल्ल्यो पोंयो, शेवकां तशेंच पिसुंद्रयो जळवाखातीर तात.

न : कातली नासलेलो नाल्ल जमनीर पडटा ताका **बोणो** म्हणटात. नाल्लांत उदक नासता ताका **आटूक, वांज** वा **गुडगुडें** म्हणटात. जांतूंत खूब उदक आसता, म्हळ्यार, जो नाल्ल हालना, जाची ली पातळ तन्नी आसता ताका **आडसर, शियाळें** म्हणटात. नाल्ल तना जो नल्लाचो भायलो भाग काडटात ताका **सोण्ण** म्हणटात आनी णाभितर जीं किसरां कशीं आसतात तांकां **काथो** म्हणटात. नाल्ल तना नाल्लाच्या दोळ्यांवयर जो काथो दवरतात ताका **नाल्लाचो शेणो** टात. कोयत्यान आडवो नाल्ल फोडून जीं दोन अर्दां करतात तांकां म्हणटात. हीं वळीं आदोळेच्या कातन्यान कातून जी कातली काडटात ा **सोय** म्हणटात. आदल्या काळार कट्टेपसून दवलो तयार करताले. टेक दोन बुराक करून तांतूंत कोण्याची बडी घालताले. आनी तो लो घरांत जेवण वाडपाक वापरताले. नाल्लाच्या देंटाकडेन फूल कशें सता ताका **चांफें** म्हणटात. नाल्लाचे कातलेचे लांबशे कुडके करतात कां **शिरन्यो** म्हणटात. नाल्लाचे सुकयल्ले कातलेक **खोबरें** म्हणटात. ह्या खोबऱ्या पसून तेल करतात ताका **खोबरेल** म्हणटात. तेल काडून जो चोथो उरता ताका खोबऱ्याची **पेण** अशें म्हणटात. माडाच्या खोडापसून **वांशे** तयार करतात. घर मदेरार करपाक वांश्यांचो उपेग जाता. अशे तरेन माडाच्या दर एका भागाचो मर्नासजातीक उपेग जाता.

**भिल्ल माड** नांवाचें एक झाड आसा. तें माडाच्या झाडासारकेंच लांब पूण आंगान चड मोठें आसता. आनी ताचीं चुडटांय माडाच्या चुडटांपरस वेगळीं आसतात. भिल्लमाड फकत कुळागरांतच तसो दोंगरार लेगीत जाता. ताच्या काणापसून **कामी** करतात. तशेंच, कुळागरांत मदीं व्हाळ आसत जाल्यार उदक आलतडच्यान पलतडीं व्हरपाक भिल्लमाडाच्या काणाचो **पनेळ** करतात. तशेंच हें काण पोखरून, तासून **दोण** तयार करतात. दोणांत तोरां चेपणाक घालतात. तांकां आमी **खळांतलीं/दोणांतलीं तोरां** वा **आमल्यो** म्हणटात.

**केळ :** केळीक **केळमोय** म्हणटात. केळम्याच्या मुळांत जे ल्हान रोंपे येतात तांकां **मको** म्हणटात. केळिंच्यो जायत्यो जातीय आसात. देखीक, **रसपाळीं, सालदार्टी, मयंडोळीं, सावरबोंडीं** आदी. मयंडोळीं आकारान मोटीं आनी लांब आसतात. तांचो मुखेलपणान हालवो करपाक वापर जाता. सावरबोंडीं केळीं भाजी करपाखातीर वा फोडींक वापरतात. रसपाळीं, सालदार्टी केळीं मुखेलपणान पिकोवन खावपाखातीर वापरतात. **पुवन** जातिचीं केळीं तांबडीं आसतात. जे केळिचीं पानां हळडुवीं जातात, जिची वाड जायना आनी जिका घड येना तिका **सुयेर** वा **सुयारो** पडला अशें म्हणटात. केळिच्या घडाक जें फूल येता तिका **बोंडी** म्हणटात. बोंडी भाजये खातीर वापरतात. केळिच्या पानांक **खोले** म्हणटात. आनी जाका हे खोले आसतात ताका **चरवत** म्हणटात. ह्या चरवताचो फुडलो तोंकावलो खोलो कापतात ताका **शिरती** म्हणटात. हे शिरतेचेर हिंदू धर्मांत देवाक निवेद्य दाखोवपाची प्रथा आसा. तशेंच, कसलेय परबेवेळार केळिच्या खोल्यांचेर जेवतात. खोल्याचो अर्दो कुडको पिंजून काडटात ताका **चोळको** म्हणटात. केळिच्या काणाचे कुडके करून **बांदलीं** करतात. **बांदलीं** कुळागरांत पाटांचेर उदक परतुपाक वापरतात. केळिच्या काणाच्यो साली काडटात तांकां **गबे** म्हणटात. ह्या गब्यांचे दोर काडटात तांकां **वावळ्यो** म्हणटात. हे दोर वा वावळ्यो फुलां गुंथपाखातीर वा कसलीय वस्त बांदपाखातीर वापरतात.

## पणस

पणसाच्यो दोन जाती आसतात. **रसाळ** आनी **कापो.** पणसा भितर **घरे** आसतात. आनी घऱ्यांत **भिकणां** आसतात. हीं भिकणां भाजून, उकडून वा भाजयेंत, रोसांत घालून खातात. घरे खावन भायली साल उरता तिका **चार** म्हणटात. चार गोरवांक खावपाक घालतात तशी शेणाचे गायरींतय घालतात. पिकलेल्या रसाळ पणसाच्या घऱ्यांचें म्हौंव काडून **साठ** करतात. हरवे घरे उबे चिरून खळांत चेपणाक घालतात तांकां **सालां** म्हणटात. हरवे घरे उबे चिरून वताक सुकत घालतात तांकां **सुकयल्ले घरे** म्हणटात. पणसाच्या खोलयांच्यो **पत्रावळी** शिंवतात. ह्यो पत्रावळी एकठांय करून बांदतात तांकां **पेळे** म्हणटात.

## भिरंड

ह्या झाडाक **भिण्णां** जातात. भिण्णां पिकतकूच तीं पाडून फोडून भितरल्यो बियो काडून कुशीक दवरतात आनी भायल्यो **साली-सोलां** वताक सुकयतात. बियांचें **अगळ,** म्हळ्यार तांचो तांबडो रोस, काडून बियो सुकत घालतात. ह्या अगळांत सुकलेलीं सोलां घालून दोन तीन फावटी अगळयतात. **अगळप** म्हळ्यार सुकलेलीं सोलां अगळांत घालून काडप आनी परतीं सुकोवप. हीं सोलां हुमणाक वा कडयेक घालतात. कडी दोन तरांचीं आसतात.

फुटी (नाल्लाचो रोस नाशिल्ली) वा **रोसाची**. सोलां ज्या मापान मापून दितात ताका **पायली** म्हणटात. भिण्णाच्यो बियो सुकोवन त्यो धोडावन भायलीं कल्लां काडून त्यो बियो उकडटात आनी रगड्यार घालून बारीक वांट्टात. तें वांटप मागीर उदक घालून पातळ करतात आनी तोपांत घालून शिजयतात. शिजयले उपरांत तोपांत वयर जें तेल येता ताका **भिण्डेल तेल** म्हणटात. हें तेल काडपाचें काम थंडेच्या वा शिंयाच्या दिसांनी करतात.

## खावचीं पानां

खावचीं पानां जे वेलीक जातात तिका **शेरो** म्हणटात. शेरे माड्यांचेर चडयतात. पानांभितर दोन जाती आसतात. **काळीं पानां** आनी **धवीं पानां**. काळीं पानां रंगान काळीं नासतात तर धव्या पानांपरस तीं मातशीं चड गाड पांचव्या रंगाचीं आसतात. धव्या पानांक **शिरतीं पानां** अशेंय म्हणटात. हीं दोनूय तरेचीं पानां खावपाखातीर वापरतात. पूण देवाच्या कसल्याय कार्याक **विडो** दवरपाखातीर मात धवींच पानां वापरतात.' हीं पानां **पानपट्टेकूय** वापरतात.

## मिरवेल

मिरवेलिची वेल शेऱ्यासारकी आसता. पूण तिचीं पानां खावपाक वापरिनात. मिरवेलीक मिरयां जातात. मिरवेलिच्यो वेली माडयेर, पणसार, आंब्यार कसल्याय झाडार चडयल्यार जातात. वेल व्हडली जातकूच ती कातरून दुसरेकडेन रोयतात तांकां **कडे** म्हणटात.

कुळागरांत जर जागो चड आसत वा व्हड कुळागर आसत जाल्यार आपल्याक जाय तसलीं आनी जाय तितलीं पिकावळिचीं झाडां रोवं येतात. कुळागरांत आंबे, आंबुल्ल्यो, आमाडे, वोटंबी, निरपणस, तोरिंगी, बिमली, जाम, करमली, पोपायो, पेरी, अनशी, करबील बी तरेकवार झाडां मेळटात. कुळागरांत **कासाळी**चें झाड जाता. कांय लोक ताका **कासावलीय** म्हणटात. हे कासोळेचे खोले मुंडल्यांच्या आळवांक जातात तशे आसतात. कासोळेचे खोले चड करून फकत फुलां गुठलावपाकच वापरतात. तिच्यो मुंडल्यो खायनात. कुळागरांत **सुरिंगा**चीय झाडां जातात तांकां मुळांत वाटकुळोच **सुरींग** जाता. तो भाजी करून, खतखत्याक घालून वा तळून खातात. कुळागरांत जेन्ना डिसेंबरांत वा जानेरांत **उदक लायतात** तेन्ना ह्या सुरंगांच्या झाडाक मातयेंतल्यान फुलां वयर सरतात. तांकां **सुरंगांची फुलां** म्हणटात. तीं भाजी करून वा रोसाक घालून खातात. कुळागराक **उदक लावप** म्हळ्यार पावस सोंपून डिसेंबर वा जानेर म्हयन्यांत कुळागराक पयलेच फावट शिंपप. कुळागरांत आळवा तेरीं, चिरकुलां बी जातात. तशीं फुलझाडांय आसतात.

## कुळागरांतलीं कामां

खरें म्हळ्यार कुळागरांत कसलेंय उत्पन्न तयार करून पिकावळ मेळयतलीं जाल्यार वर्साचे बाराय म्हयने काम करचें पडटा.

पावसांत कुळागरांत **नण्णी** जाता. नाका जाल्लें बारीक तण वा रोपे म्हळ्यारूच नण्णी. कांय जाण तिका **बाणोवणी** अशेंय म्हणटात. खण्णी घालचे पयलीं ही नण्णी काडटात आनी कुळागर निवळ करतात. ताका **बेणप** म्हणटात. कुळागरांत ऑगस्ट म्हयन्यांत सावळ घालतात. ही सावळ घालचे पयलीं माड्यांक, केळींक, माडांक आळीं काडटात. **आळीं काडप** म्हळ्यार माड्यांक, केळींक, माडांक कुदळीन सरभोंवतीं खणप आनी सावळ घालपाक जागो करप. **सावळ** म्हळ्यार वेगवेगळ्या झाडांचो पालो. ज्या झाडांची सावळ घालतात तांचीं नांवां अशीं: साऱ्याचीं झाडां, कुमयो, किनळ, हुसकी, कुडो, मारट, घोडूक आदी. पावसांत कुळागरांत बेडे पुंजावपाक भोंवतात तेन्ना कांय जाणांच्या पांयांक गांयडोळ-पुळयो जातात.

म्हळ्यार, [illegible] कुड्डुक [illegible]. [illegible] आनी [illegible]
तळ्याच्यो [illegible] माड्यांक घातिल्ली नावळ कुडक [illegible]
शेण घालतात. नावळ कुसपाक पावसाचीय गरज पडटा. पावस [illegible]
आनी दत [illegible] जाल्यार नावळ कुजता. सप्टेंबर, ऑक्टोबर [illegible]
कुळागरांत खण्णी घालतात. **खण्णी घालप** म्हळ्यार नव्यें कुळागर [illegible]
खणप. ही खण्णी घालतना नावळ पुरतात. म्हळ्यार, [illegible]
माती घालतात. डिसेंबर म्हयन्यांत कुळागरांत उदक [illegible]
ह्या कुळागरांनी तळ्यो, झरे बी आसतात. आनी हेंच उदक [illegible]
शिंपूंक वापरतात तशेंच उदक आडावन दवरतात. तळ्यो [illegible]
ह्या तळ्यांक बुराक आसता ताका **तळ्येचो टूम** म्हणटात. [illegible]
उदक वचपाखातीर जागो केल्लो आसता ताका **पाट** म्हणटात. [illegible]
उदक वचपाक आनी उदक आडावन धरपाक वाटकुळो कसो [illegible]
आसता तांकां **फोंडयो** म्हणटात. शिंपतना दोगां मनशां [illegible]
उदक परतुपाचें जाता तेन्ना 'वयल्या दांडलार परती, सकयल्या [illegible]
दांडलार परती' म्हण शिंपतना सांगतात. **दांडूल** म्हळ्यार उदक [illegible]
एक लांब पाट आसता आनी ताचे दोनूय वटेंतल्यान तीन, चार [illegible]
पाट आसतात. पाटाची निमाणी फोणी आसता तिका **शेवाची फोणी** [illegible]
तशेंच, कुळागरांत वयर सकयल ऊंच अशे पाट आसतात. [illegible]
जाग्यारसून उदक वयल्यान सकयल पडटा ताका आमी **दजरो** [illegible]
कुळागरांत माड्यांची चुडटां पडटात तीं एकठांय करून [illegible]
दाळून दवरतात. तिका **चुडटांची वयणी** म्हणटात.

## कुळागरांत काम करपाक लागपी आयुधां

वल्लें, कोयतो, पाटलो, कुदळ, पिकास, खोरें (पांवडो), [illegible] (लवंग), कोयती, कोयतूल, कुराड, वजें, किल्लकातनें, [illegible], तासणी, आदोळी, घण, शेणें आदी. हीं आयुधां दसऱ्या दिसा पूजेक [illegible] तेन्ना तांकां **खर्गा** पूजेक लायलीं वा **शिलंगणां** म्हणटात.

**आदोळी**: सुपारी वा फोपळां सोलपाक आदोळेचो वापर करतात. [illegible] कातरपाक, शिनपाक तिचो वापर करतात.

**कल्लें**: कल्लें हें काजुच्या मुळा पसून वा ख़ोडा पसून करतात. [illegible] **काजुची मणी** म्हणटात. ती मातशी तासतात आनी तिका कल्ल्याचो [illegible] दितात. तिका **कल्ल्याची बाग** म्हणटात. आनी कल्ल्याची बाग [illegible] फुगत घालतात. उपरांत कांय दिसांनी ती उदकांतली काडून [illegible] तासून पोखरून **कल्लें** तयार करतात. **तासणी** म्हळ्यार लाकूड [illegible] आयुध. तें तासता आसतना खोलसाणी आनी कुट्टिचो वापर करचो [illegible] **खोलसाणी** आनी **कुट्टी** हीं लोखणाचीं आयुधां जीं चड करून मेस्तांक [illegible] पळोवपाक मेळटात. एका लाकडाच्या मोठ्या कुडक्यापसून कल्ल्याक [illegible] दिवप ही एकेतरेची कला. हें कल्लें कुळागरांत उदक शिंपूंक [illegible] धोंपराच्या आदारान कल्ल्यांतल्यान पाटाचें उदक कुळागरांत [illegible]

**किल्लकातनें**: हें कोयतुलासारकें आसता. कोण्याची बडी घालपाक [illegible] आसता आनी वयले वटेन माथ्यार एक तोंक कशें आसता. कात्रे पाड[illegible] वा कसलेंय फळ वयल्यान सकयल उडोवपाचें आसत जाल्यार [illegible] **किल्लकातन्या**चो वापर करतात.

**खाड्डूं**: दोनूय पांयांक घालून माडयेर आनी माडार चडपाखातीर वापर[illegible] ताका **खाड्डूं** म्हणटात. खाड्डू सुमापसून वा केळिच्या गब्याच्या दोरापसू[illegible] वा पोंवलेच्या दोरापसून करतात. जाय जाल्यारक कपड्याचो कुडको सभों[illegible] गुठलायतात.

**कुदळ**: कुळागरांत खणपाखातीर लोखणाचे पट्टेची केल्ली कुदळ.

लोखणापसून केल्लो, दोनूय वटेंतल्यान खणपाक मेळटा. एके तोंक आसता आनी दुसरे वटेंतल्यान मातशें रूंद आसता तो

ाती उपसुपाक वापरतात तें खोरें. ताका **पांवडो** अशेंय म्हणटात.

ातर फोडपाक आनी जमनींत म्हेड पुरपाक, बारीक बुराक काडपाक ताका **पारय** आनी **लवंग** अशेंय म्हणटात. ती लोखणाची आसता, ांब आनी एकेवटेन तोंकाळ आसता.

ातर फोडटना वापरतात.

मोठीं लाकडां कापूंक आनी फोडपाक, कापट्यो करपाक वापरतात ड.

: माडाच्यो, माडयेच्यो कापून कामी करून त्यो तासून मदलीं काडपाक वापरतात ती **तासणी.**

: कोयतो हो आकारान मोठो आसता. तो लोखणापसून तयार कोयत्या फाटल्यान साधारण बारीक आसता ती **कोयती** आनी त ल्हान आकाराचें तें **कोयतूल.**

मातो भरपाक वापरतात आनी वाटकुळिशी आसता ती **कायल** माती भरपाकच न्हय तर बेडे भरपाक, फातर भरून उडोवपाकय ापर करतात.

जें कोंड्यापसून तयार करतात. तें पाटल्यापरस मोठें आसता. ाटलो वज्यापरस ल्हान आसता. ताका कांय लोक **पाटली** अशेंय म्हणटात आनी वज्यापरस व्हडलें आसता ताका **पाटें** म्हणटात. कितेंय करून भरून व्हरपाक आनी हाडपाक, पाटलो, वजें, पाटें हांचो उपयोग करतात. पाटल्याक कांय जाणां **खोटलो** म्हणटात.

**तेंकडी :** कोण्याची बडी आसता आनी तिका वयले वेटेन कितेंय सकयल ओडून उडोवपाक नांगी कशी आसता. भिण्णां पाडपाक, मुट्टे उडोवपाक वापरतात ती **तेंकडी.**

**निसण :** दोन लांब कोंडे घेतात आनी मदीं पांय दवरून चडपाक कोंड्याच्याच बडयांचे कुडके लायतात. तांकां **निसणिचे पांवडे** म्हणटात. **निसण** शेऱ्याचीं पानां काडपाक वा कसल्याय झाडाचेर चडपाक वापरतात.

**शेल :** लांब जाडशी दोरी आसता तिका **शेल** म्हणटात. पणसुलां काडपाखातीर तशेंच माडयो, माड आनी मोठीं झाडां कापून उडोवपाक तिचो वापर करतात.

**कोंबलें :** जाळ्यासारकें आसता आनी तें एका लांब कोंड्याचे बडयेक बांदतात तें **कोबलें.** हें कोबलें चडकरून आंबे काडपाक वापरतात.

ही सगळी उतरावळ कुळागरी लोकांचे वळखिची आनी संवकळिची आसता. कुळागरांतल्या थंड वातावरणांत पाटांतल्यान खळखळत व्हांवपी उदकाचो आवाज आयकतना एक वेगळोच आनंद घेवपाक मेळटा. जेन्ना कुळागरांत सकाळ फुलता तेन्ना सवण्यांचो चिंवचिंवाट आमकां जाग हाडटा. अशा ह्या कुळागरांत शिळोणी घालप, आलतडच्यान पलतडीं कुकारे घालून एकामेकांक उलो मारतना एके तरेचो वेगळोच आनंद घेवपाक मेळटा.

* * *

# एक खेळ काळरवाचो

(पयलो वांटो)

**अभयकुमार**

(एका मध्यमवर्गीय कुटुंबाच्या घराची एक कूड. निला एकटेंच बसलां. तोंड दुखेस्त. हातांत एक नेमाळें. पूण तांतूंत लक्ष ना, पानां बेठींच चाळटा म्हणपाचें कळटा. वण्टिंचो रंग उडला. जळीं मळीं घयरांव दिसता. इतलेंय आसून एकावेळार हें घर एका गिरेस्ताचें आसलें म्हणपाचें कळटा.
पड्डो वयर सरता तेन्ना दारावयर एक घडयाळ दिश्टी पडटा. ती बंद पडल्या.)

**राजीव** : (भितर सरता पूण निला लक्ष दिना) गुड मॉर्निंग निला. (तें आयकूंक नाशिल्ले वरीच करता.) खंय आसा लक्ष तुजें ?

**निला** : गुड मॉर्निंग.

**राजीव** : आज जालां कितें तुजें ?

**निला** : कितें जावचें उरलां ?

**राजीव** : बरोबर आसा. कितें जावचें उरलां ? कुळकायद्यान शेत गेलें. संपाक लागून धंदो बुडलो. भीक मागची पाळी आयल्या. गेल्लो दीस सुखाचो मानून फायच्या दिसाची चिंता करूंक जाय.

**निला** : कित्याक करूंक जाय चिंता ? कोणें सांगल्या करूंक ?

**राजीव** : म्हळ्यार... ?

**निला** : सबंद रात खंय आसलो ?

**राजीव** : सदां खंय आसतां ?

**निला** : तें म्हाका कोण सांगता ?

**राजीव** : मागीर आजूच हो प्रस्न कित्याक ?

**निला** : आमच्या लग्नाक आयज धा वर्सां सोंपतात.

**राजीव** : ओ, सॉरी. यादूच ना म्हाका. साडी तरी हाडटलों आसलों.

**निला** : बरें जालें हाडलिना ती. पयशे वाटावले... भेट दिवचीच जाल्यार... (वाक्य अर्देंच सोडटा.)

**राजीव** : निला, आज अशें कितें उलयता ?

**निला** : सोंसू नजो म्हणून.

**राजीव** : (विशय बदलीत) चल आमी खेळूंक बसुंया. (इस्पीक काडटा)

**निला** : नाका. जो खेळ खेळूंक जाय तो केन्ना म्हजेवांगडा खेळ्ळोच ना.

**राजीव** : (परत विशय बदलीत) घर मदेरार करूंक जाय आसलें.

**निला** : कित्याक, कोण रावतलो तांतूंत ?

**राजीव** : घयरांवूय जाला आनी जळारां आंग फोडटात सामकीं.

**निला** : घरांत येतसावन तांचोच सांगात मेळ्ळा म्हाका.

**राजीव** : ती घडयाळ आनी बंद पडल्या. सारकी करची पडली.

**निला** : घडयाळ बंद पडली तरी काळ मुखार वताच. तो थांबना.

**राजीव** : तुजें घडलां कितें आज ?

**निला** : ह्या घरांत आयलें त्या दिसाच्यान अशेंच आसां हांव.

**राजीव** : निला... तुका कितें जालां ?

**निला** : फाटलीं धा वर्सां जाता तेंच.

**राजीव** : निला, म्हाका राग आयल्यार...

**निला** : दादलेपण दिसून येतलें. केन्ना आयला राग ? आनी राग आयल्यार कितें करतलो ? पायांक जोतें चडोवन भायर सरून वतलो.

**राजीव** : तुका जालां कितें तेंच कळना.

**निला** : न्हिदे सवंग घेतिल्ल्याक कोण उठयतलो ? आयचो पेपर वाचल (पेपर ताचेमुखार धरता.) वाच ही खबर. एके बायलेक जालां. तीन भुरग्यांची आवय जाल्या ती. (पिशांवरी हांसत

**राजीव** : (ताका थातारीत) निला, कितें करता हें ? (निला ताका रावता. खिणभर शांतताय.) अशें कितें करता ? (निला काडटा आनी परत ताका पळेत रावता.) तूं बरें आसा न्ह काय दोतोराक हाडुंया ? निला, कितले दीस जाले तूं अशें वा कितले दोतोर जाले, वखदां जालीं, व्हिटामिनां जालीं.

**निला** : (रागान) पुरो तीं वखदां आनी व्हिटामिनां. जें जाय तें तुजे आसा. तुका खबर आसा तें.

**राजीव** : (गोंदळिल्लेवरी जाता) निला !

**निला** : कित्याक असो छळटा म्हाका ? सोंसूंक जायना म्हज (हुडके-हुडकेवन रडूंक लागता) कितें गुन्यांव केल्लो हांवें म्हूण हो छळ मांडला !

**राजीव** : निला...!

**निला** : म्हाका जाप जाय. (दोगांय एकामेकांक पळेतात. कोणूच उल सांग, उलय मरे बेगीन.

**राजीव** : निला, कितें हीं पिशेपणां ?

**निला** : पिशें लागचेलेंच उरलां आतां. ना जाल्यार दोतोराक सर्टिफिकेट घेवन यो पिशें लागिल्ल्याचें आनी व्हरून मानिकोमांत. एक कटकट वतली. मागीर तूं मेकळो तुज्या ताका हांगा हाडून दवरूंक.

**राजीव** : (धेंगशेता) निला...!

**निला** : तापलो म्हणटकूच व्हडलो जालो न्हय ? आज धा वर्सां ज आमच्या लग्नाक. पूण विचार कर, ह्या धा वर्सांत तुवें दिलें म्हाका ? मोग दिलो ? बरें उतर दिलें ? ना. भुरगें जाव तर सदांच विरोध.

**राजीव** : आगो, भुरगें कित्याक जावंक दिवंक ना तें नकळो तूं ? दोत सांगलां —

**निला** : हय, जाणा हांव तें. भुरगें जाल्यार हांव मरतलें म्हूण सा न्हय दोतोरान ? मरूं दी हांव मेल्यार. पूण म्हाका भुरगें ज (कांय वेळ वोग्गी) दोतोर म्हणटा... फटींग. दोतोराचेर घाल जालें. खरें म्हळ्यार तुजो म्हजेर मोगूच ना. (पिशांतूर जाल्ल व्हडा-व्हडान हांसता. राजीव त्या हांसपान बेजार जावन त थापट फुलयता आनी 'निलाऽ' म्हणून तापता.) थापट मार तुवें म्हजेर थापट मारलें. दादलेपण दाखयलें. (हांसतालें तें ग जाता) भुरगें ना पूण थापट मेळ्ळें. धा वर्सांत दादलेपण अ म्हूण दाखयलें. बाकी तूं दादलेपण दाखोवंक घरादाराक आसता खंय म्हण ? हांव संवसार करतां एका जित्या-जि मड्यावांगडा. (आंग शिरशिरायता) कित्याक छळटा रे म्हाक कित्याक ?

**राजीव** : हांव कोणाक छळना.

ागीर म्हाका भुरगें कित्याक दिना ?
वें सांगलें न्हय !
परस सत कित्याक सांगिना ? तुजो म्हजेर मोग ना. तुवें मोग
सऱ्याच कोणाक तरी दिला म्हूण.
ाणा जावन कित्याक विचारता ?
ागीर म्हजेकडेन लग्न तरी कित्याक केलें ? ताचेकडेन करचेलें.
हजी कित्याक वाट लायली ?
ावयचें मन दुखोवचें नासलें म्हाका.
ावयचें मन सांबाळूंक म्हज्या मनाची कित्याक वाट लायली ?
ुमी चवकशी कित्याक केली ना ? गांवचो कोणूय विचारल्यार
हजेविशीं सांगपाचो. सगळ्यांक खबर आसलें, हांव कोणाचेर
ोग करता तें.
ामी पिशीं थरलीं न्हय ! घराब्याचेर गेलीं. घराणें बरें म्हूण चवकशी
ेलिना.
ातां म्हाका दोश कित्याक ?
य, तुका दोश कित्याक ? अजून आमच्या लग्नाचे पयले रातिचो
ाडास जाता... हांव वाट पळेत बशिल्लें, तूं येतलो म्हूण. रात
रली, सकाळी जाली तरी तुजें दर्शन घडलें ना.
हाका मनाआड कांयच करचें नासलें.
ागीर हनिमुनाचें नाटक तरी कित्याक केलें ? ती उटीची भोंवडी
ेत्याक केली ?
ाईच्या दोळ्यांक उदक लावंक.
ाईच्या दोळ्यांक उदक लावंक म्हज्या दोळ्यांतल्यान उदक
ाडलें. उटीचे ते थंड हवेंत हांव चंद्रिमाची वाट पळेत बशिल्लें
ूण चंद्रीम आयलोच ना. मळबांत फकत काळीं कुपांच दिश्टी
ाडटालीं. काळीं किट्ट आनी त्या कुपांनीच एक नखेत्र चंद्रिमाक
ोदतालें.
ेला...
खेत्र सामकें पिशें जाल्लें. पूण चंद्रिमाक ताची मातूय काकूट
देसली ना.
नेला...
ाद कर राज... हांव तुजी वाट पळेत बशिल्लें. तूं आयलो.
ूब उसरां. पूण हांव जागेंच आसलें. तूं आयलो तशें हांव खोशी
जालें. पूण तूं मात कुर्डीत एकलोच आशिल्लेवरी वावुरलो.
म्हजेकडेन पळेलें लेगीत ना. हांव तुजे वेंगेंत येवंक आतूर जाल्लें.
तुवें मात म्हजेकडेन फाट केल्ली. मागीर सदांच तशेंच घडत
ेलें...
हें पळे, जें जालें तो म्हजो गुन्यांव समज आनी जमलें जाल्यार
म्हाका भोगसुचो यत्न कर. पूण तुका जाय तें म्हजेकडेन सोदूं
नाका.
तरी तुका भोगसूं ? कशें जातलें तें ? हो गुन्यांव म्हजेच बाबतींत
कित्याक ?
(तिडटा) तुवें हें कितें चलयलां आज ? हांव घरांत येतपासून
पळेतां तूं पिशें लागिल्लेवरी करता. कितें उणें आसा तुका ह्या
घरांत ?
खावंक-जेवंक मेळ्ळें म्हळ्यार सगळें न्हय.
मागीर, वासना भागल्यो म्हणजेच सगळें मेळ्ळें ?
तें कळूंक बायलेचो जल्म घेवचो पडटा.
जाय तें मेळूंक नाशिल्ल्यो खूब बायलो आसात ह्या संवसारांत.
बाकिच्या बायलांचें उलयना, म्हजेपुरतेंच उलयतां.

राजीव : कितें तें ?
निला : म्हाका आवय जावंक जाय...
राजीव : आवय जाली म्हळ्यार सगळें जिखलें ?
निला : आवयपणाचें सूख आवयकूच कळटा.
राजीव : पूण आमच्यांनी कोणाचेंय भुरगें पोसकें घेवं येता.
निला : म्हाका आवय जावंक जाय, वावराडी न्हय. लोकांचें भुरगें पोसकें घेवपाक हांव वांजूड न्हय. म्हजो हक्क तूं न्हयकारता. म्हाका दिवपाचें तूं दुसऱ्याक दिता आनी लोक म्हाका थोमणायतात. हांव बायल म्हूण म्हाका दाखोवंक जाय.
राजीव : भुरग्याक जल्म दिवपेकूच हांव बायल म्हणिना...
निला : पूण लोक म्हणटात. आनी जो दादलो भुरगें दिवंक शकना ताका हांव दादलो मानूंक तयार ना.
राजीव : (हांसत) दादलेपण हेर जायत्या वाटांनी दाखोवंक येता.
निला : घरांतलीं जळारां मारीत बस फायच्यान आनी तीं मारतना फोटो काडून घे. पयलिंचे राजा शिकार करतना काडटाले तशे.
राजीव : निला, खूब उलयलें तूं आज.
निला : हय... आवयचें मन राखूंक जाय आसलें तुका. तेखातीर बळी म्हजो दिलो. तूं सुशेगाद भायर मजा मारता आनी हांव हांगा मन मारून जगतां.
राजीव : निला, तोंड सांबाळून उलय आतां.
निला : कितें करतलो ना जाल्यार ?
राजीव : मनांत आयल्यार गळो आंवळून जीव घेतलों.
निला : तितलें सोंपें न्हय तें राज. जीव घेवप म्हळ्यार घरांत लग्नाची बायल आसतना राती भायर काडप न्हय.
राजीव : (रागान) निला... (सामको अस्वस्थ. भितर वचून व्हिस्किची बाटली हाडटा आनी ग्लासांत ओतून पियेवंक लागता. पियेतां-पियेतां आपणाशींच बडबडटा.) काळोख – हो जिणेचो काळोख राज तुवेंच केला. आनी ह्या काळखांतल्यानूच तुका वाट काडूंक जाय. याद धर त्या खिणाची. आईन तुका झरीनाकडेन लग्न करूंक विरोध केल्लो तेन्नाच तुवें सोपूत घेतिल्लो : ह्या घरांत वाडटलो तो भुरगो झरीनाचोच आनी तोच ह्या घराचो वारस जातलो. आवयचो सूड तिचे सुनेचेर घेवंक जाय, तिका अशीच रडत दवरून. म्हणुंदी लोकांनी तिका वांजूड ! एक दीस संवसाराक कंटाळून ती जीव दितली आनी झरीना – काळजाची राणी – ह्या घरांत येतली. निला जगतलें तर एकूच वाट – झरीनाच्या पुताक पोसको घेवप. म्हज्याच रगताचो तो. आनी म्हजें आयकलें ना तर मात हाच्याकूय सकयल्या पांवड्यार देंवचें पडटलें... (बाटलीच तोंडाक लायता. निला उठून भितर वचूंक वता.) निला राव, हांव कितें सांगतां तें आयक. केन्नातरी तुका सांगुंकूच जाय आसलें. इतले दीस तुका भुरगें जावंक जायना अशें दोतोरान सांगलां म्हूण सांगून हांव तुका फटयतालों. तुका कळ्ळांच म्हण तें. पूण आज आनीक एक सत आयक. (कांय वेळ रावता.) म्हजो पूत झरीनागेर वाडटा. तोच ह्या घराचो वारस जातलो. (कांय खीण शांतताय.) म्हज्या रगताचो जालो तरी ताका पोसको घेवचें नाटक करचें पडटलें. तुका ताची आवय जावची पडटली.
निला : म्हाका जमचें ना तें. म्हाका म्हजो भुरगो जाय. म्हज्या पोटांत वाडिल्लो. असो गांवार जल्मल्लो भुरगो म्हाका नाका. हांव ताका व्हंटयेंत घेवचें ना. केन्नाच ना. (रडटा)
राजीव : तूं रडलें म्हूण हांव फाटीं सरचों ना. तुका मानचेंच पडटलें.

हांवें तुजेर उपकार केल्यात ते विसरूं नाका. तुज्या घरची परिस्थिती कशी आसली तूं जाणां. खरें म्हळ्यार, बापायक तूं जड जाल्लें. हांवें तुज्या बापायचें तकलेवेलें वजें देंवयलें. आज तुका दोन वेळ्वें वेवस्थीत जेवण मेळटा. म्हजी घरकान्न म्हणून मान मेळटा. खरें तर तुवें तृप्त आसूंक जाय. हांव सांगतां तें आयकूंक जाय.

निला : खरें तुजें. हांव सगळ्यांक जड जाल्लें. घरांत जोड उणी आनी खावपी तोंडां चड आसलीं. हांव मन मारून हांगाच चिकटून रावलां ताचें कारण हेंच. आज पोट भरतां पूण मन मात रिकामेंच आसा.

राजीव : जाणां हांव, तुका शृंगार जाय. पूण शृंगार म्हळ्यार सगळें न्हय. ती एक गरज. पूण जिवितांत तडजोड करचीच पडटा.

निला : तडजोड हांवेंच कित्याक करपाची ?

राजीव : हांवेंय केल्या. आईचें मन राखूंक तुजेकडेन लग्न केलें. झरीनान केली – तें म्हजेखातीर आंकवार रावलें. लोकांनी ताका चेडी म्हळें तरीय ताणें म्हजेखातीर तें सोंसलें आनी म्हज्या भुरग्याची आवय जालें. आतां तूंय तेंच कर. झरीनाच्या पुताक व्हटयेंत घे.

निला : (हांसता) व्वा ! कितेंतर हें उलोवप ! आपलें कर्म लिपोवपाक दुसऱ्याचो बळी दिवप. आपली भूक भागोवप आनी दुसऱ्याक उश्ट्या पानाकडेन बोट दाखोवन खोशी जावंक सांगप. आपणें ढेंकर दिवप आनी दुसऱ्याचें पोट भरलां समजप. (पिशावरी पासयो मारता) ना, हांव त्या भुरग्याक म्हजो म्हणचें ना. कोण खंयचें झरीना. एक रस्ताद चली. आपल्या सुखाखातीर दुसऱ्याच्या संवसाराक चूड लावपी...

राजीव : (तापून) पुरो जालें तुजें उलोवप. तुका म्हजें आयकुचेंच पडटलें. ना जाल्यार..

निला : ना, ना. हांव आयकुचें ना. हांव कशेंच त्या भुरग्याक म्हजें म्हणचें ना.

राजीव : बरें आसा. तुका जाय तें कर. तुका आवय जावंक जाय न्हय, मागीर वस वचून रस्त्यार. मार कोणाकूय वेंग. म्हजेपसून तुका भुरगें मेळपाचें ना. (पांय आपटीत वता)

निला : रस्त्यार बसूंक, कोणाकूय वेंग मारूंक म्हाका कितें झरीना समजलो ? (पुटपुटत कुडभर भोंवता) हय-व्हय, हांव म्हाका जाय तशेंच वागतलें. म्हाका आवय जावंक जाय. मागीर हें सूख दिवपी कोणूय चलता. धा वर्सां मन मारून जगलें हांव. लग्न जावनूय आंकवार उरलें. आतां आनीक रावचें ना.
(इतल्यांत बॅल वाजता. निला भानार येता. भायर वचून दार काडटा. दारांत दोतोर.)

दोतोर : हॅलो निला.

निला : हॅलो डॉक्टर. (दोतोर भितर येता. हातांतलें बॅग मेजार दवरता आनी कदेलार बसता.)

दोतोर : कितें जालां ? हांव येतना राज वतालो पूण म्हजेकडेन पळेनाशिल्लेवरीच करून गेलो. कितें घडलें ? (निला एकटक दोतोराक पळेत आसा.)

निला : म्हाका आज खूब खूब बरें दिसता दोतोर. एखाद्या सुकण्यावरी उडचेंशें दिसता. पिसोळ्यावरी झाडांचेर बसून फुलांतलें म्होंव चोखचेंशें दिसता. (हें सांगतासर दोतोर इंजेसांव तयार करून निलालागीं वता.)

दोतोर : वा, वा ! म्हळ्यार बरीच सुदारणा जाली तर. आतां हें इंजेसांव घे आनी पळे पिसोळ्याच्या पांखांनी कितली शक्त येत (हाताक स्पिरीट लायता) दुखता म्हणप ना, किळांच मार (निलाची नदर दोतोराचेरूच आसा. दोतोर इंजेसांव करत आपली तकली दोतोराच्या भुजार दवरता. इंजेसांव काडलें निला तशेंच.) निला... (दोतोराच्या उल्यान भानार येत बेगि तकली काडटा. दोतोर अजापला.) इंजेसांवाची संवय जालें तुका. नाजाल्यार दरफावटीं बोवाळ करतालें. आज मात रावन घेतलें.

निला : आयचो दिसूच वेगळो. हांवें राजाक सांगलां, म्हाका भुरगें भुरग्याक जल्म दितना हांव मेल्यार जाता पूण दुसऱ्याचें पोसकें घेवन हांव सांबाळचेंना.

दोतोर : पूण निला...

निला : पूण बीण कांयच ना दोतोर. तुमी सगळेच म्हाका फट ताचो आनी म्हजो केन्ना संबंधूच आयलोना, म्हाका खंयच्याच गायनेकाक दाखयलें ना, आनी तुमकां कशें हांव आवय जावचें ना म्हूण ?

दोतोर : (गोंदळटा) तें खरें पूण...

निला : सांग दोतोर, पूण कितें ? म्हाका वखद जाय तें वेगळेंच... तुम जाता जाल्यार राजाक समजायात दोतोर. हांव भीक म तुमचेकडेन.

दोतोर : पळेतां... पूण ताका कसो समजावप ?

निला : कितेंय तरी करात दोतोर.

दोतोर : कितें करूं ? तूंच सुचय कितेंय तरी. (निला कांयच उल ताच्या मनांत मोड जालां म्हणपाचें कळटा. निमाणें मन करून...)

निला : दोतोर, दोतोर म्हाका एक सांगात, दादल्यांनी कितेंय के जाता ?

दोतोर : म्हळ्यार ?

निला : दादल्यांनी आपणाक जाय तशें वागचें ? घरांत पान आसतना तांणी दुसरेकडेन जेवंक वच्चें ? आनी बायलांनी ते जेविनात म्हूण आपणें उपाशींच रावचें ?

दोतोर : म्हाका कळूंक ना तूं कितें म्हणटा तें.

निला : घरांत बायल उपाशीं आसतना दादले भायर शेण खातात ज बायलांनी तोच मार्ग कित्याक धरचो न्हय ?

दोतोर : हें पळे, दर एकल्यान आपणाक मानवता तशें वागचें.

निला : दोतोर, म्हजेर एक उपकार करशात ? म्हज्या भुरग्याचे जाशात ?

दोतोर : निला, कितें उलयता तूं हें ? सारकें आसा न्हय ?

निला : हय दोतोर, हांव सारकें आसां...

दोतोर : सॉरी, हें पातक हांव केन्नाच करचों ना.

निला : हें पातक तुमी करचे नात. पूण म्हाका नाका आसतना, नासतना फकत ताका जाय म्हूण फट उलोवन वखदां म्हाका दुयेंत करून म्हजें सूख ना करपाचें पातक काय तुमी केल्यार जाता ?

दोतोर : हें सूख तुवें राजाकडसून घेवपाचें.

निला : दोतोर, हांव भीक मागतां तुमचेलागीं...

दोतोर : शी...! आमीच अशे वागल्यार लोकांनी आमचेर विस्वास कसो दवरचो ?

निला : (काकुटेन) दोतोर, खिणभर तुमी दोतोर म्हणपाचें विसरात एक दादलो ह्या नात्यान म्हाका पळेयात. कितें उणें आसा

म्हज्यांत? खिणभराखातीर म्हाका वेंगेंत घेयात. भीक मागतां तुमचेकडेन.

: पूण हें कशें शक्य आसा?

: कित्याक शक्य ना?

: हांव एके बायलेचो घोव हें कशें विसरूं हांव? तिचो हक्क हांव तुका कसो दिवं? तुज्या घोवान तुका फटयलें म्हूण हांव म्हजे बायलेक फटोवं? तांतूंत, हांव तुका जाय तो गरजेपुरतो. हीच गजाल एकामेकांविशीं आशिल्ल्या मोगान घडिल्ली जाल्यार ती गजाल वेगळी आसली... बरें, येतां हांव. (निलाक हो आपलो अपमान-सो दिसता. तें रागान तांबडें जाता. दोतोर वता.)

(तिनसांज जायत आयल्या. निला लायट पेटयता.)

: म्हाका आवय जावंक जाय. पूण कशें? कशें जातलें हांव आवय? कोण दितलो म्हाका भुरगें? (रडूंक लागता. इतल्यांत दारांत राजीव येता. व्हडाव्हडान हांसता. निला ताका त्या अवतारांत पळोवन भियेता.)

: तुका आवय जावंक जाय न्हय? (हांसता) पोसको नाका. तुज्या पोटांत वाडिल्लो भुरगो जाय. (चड नेटान हांसता) आवय जावंक जाय, शृंगार जाय, सूख जाय. (निला भियेलां. राजीव हांसत रावता आनी दाराभायर उबो आशिल्ल्या एका दादल्याक भितर हाडटा. ताका पळेतनाच तो एक गुंड म्हणपाचें कळटा.) झरीना चेडी, रस्ताद... देखून तुका ताचो भुरगो नाका न्हय? हो दितलो तुका भुरगो. हो तुजेसारक्या सुंदर बायलांच्या सोदांत भोंवपी... चारदां बलात्काराच्या गुन्यांवाक लागून बंदखणींत गेल्लो. तुका जाय तें हो दितलो. हो दादलो आनी हें सुकणें.

: सु-सुकणें?

: हय, सुकणें (हांसता). दादल्याच्या मोगाखातीर पिशें जाल्लें. आपणाक जाय तें घेवपाच्या हावेसांत आशिल्लें. तुजेसारक्या सुकण्यांच्या सोदांत भोंवपी हो शिकारी आनी तूं सुकणें, भोगाक हपापलेलें. (हांसता) शृंगार जाय न्हय तुका? कर काळोख. देंवय कपडे. हांवूच करतां काळोख. (तो गुंड मुखार सरता. इतल्यांत राजीव लायट पालयता. सगळेकडेन काळोख. गुंडाचें व्हडाव्हडान हांसप आनी निलाची किळांच कूडभर जाता. आंगार कांटो काडपी पार्श्वसंगीत.)

[उजवाड जाता तेन्ना जागो तोच, देखावूय तोच. फकत वण्टीवयली घडयाळ चलता म्हणपाचें दिसता. राजीव पासयो मारता. तोंडार राग. पयल्या अंकांतले घडणुके उपरांत जायते दीस गेल्यात म्हणपाचें जाणवता. निला भायल्यांतल्यान येता.]

: उशीर कित्याक?

: (उपहासान) हुस्को जालो? आजूच सो हो प्रस्न?

: सदच्याकूय चड उशीर केलो आज.

: येवंक जाय तेन्नाच आयलां.

: भायर वचूंक दितां हाचो चड लाव घेवं नाका. लजेन मान बागोवंक लायली तुवें म्हाका.

: काकूट दिसता तुजी म्हाका.

: कोणावांगडा गेल्लें?

: त्या गुंडावांगडा निखालूस न्हय.

: वता जाल्यार सामकेंच तोंड घेवन वच. परत आनी येवं नाका हांगा.

: म्हणटकूच तूं झरीनाक हांगा हाडूंक मेकळो.

: म्हाका तुजें हें मेळत तशें उलोवप, वागप पसंत ना.

निला : तुका पसंत कर अशें हांवें ख्रंय म्हळां?

राजीव : पूण खंयूय वतना सांगून वचूंक कितें जाता?

निला : खंय सांगपाचें, झरीनागेर येवन?

राजीव : घरा आसतना सांगूंक जायना?

निला : तूं केन्ना सांगून गेल्ल्याची याद जाता तुका?

राजीव : हांव दादलो हें विसरता तूं!

निला : तें कशें विसरन? दादलेपण दाखयलें न्हय तुवें तुजें!

राजीव : कोणाचेर मोग बी करता जाल्यार तशें सांग. डिव्होर्स दितां.

निला : तूं तेंच सोदता हें जाणां हांव. पूण हांव सोपेपणीं डिव्होर्स दिवचेंना हें मतींत धर. आनीक एक – म्हाका मोग करूंक कळना. हांवें केन्ना कोणाचेर मोग केलो ना.

राजीव : मागीर म्हज्या प्रस्नाची जाप कित्याक दिना? उशीर कित्याक जालो तें कित्याक सांगिना?

निला : म्हाका प्रस्न विचारपाचो अधिकार तूं वगडावन बसला.

राजीव : चड शाणेपणां उलोवंक लागलां. सांग, खंय गेल्लें?

निला : दोतोरागेर गेल्लें.

राजीव : इतलो वेळ मेरेन...

निला : दवरून घेतलें ताणें.

राजीव : फट... सामकें फट.

निला : कितें फट?

राजीव : हांव येतना दोतोरागेर गेल्लों. पूण तूं कांय नासलें थंय.

निला : (कांय वेळ ओग्गी) खरें तुजें. हांव वचूंक नासलें थंय.

राजीव : मागीर फट कित्याक उलयलें?

निला : पचूंक सोंपें म्हणून.

राजीव : पूण तूं आसलें तरी खंय? शी... घराण्याची तरी पर्वा करची आसली...

निला : घराण्यान म्हजी पर्वा केली?

राजीव : तूं कितें करता ताची तुका जाण ना.

निला : तुका जाण केन्ना आयली? दादल्याच्यान बायलेक फटोवं येता आनी बायलेच्यान तशें करूं नजो?

राजीव : तुका म्हणपाचें तरी कितें आसा?

निला : उतरांनीच सांगूंक जाय? तर आयक. जिणेंत काळोख तुवें केलो. तुज्याच हातान दिवो पालोवन. आतां हांवेंय थारायलां, ह्या काळखांतसून पावलां उडोवन मुखार वचप. मुखार वतना कांटे-फातर लागतले हें हांवूय जाणां. पूण तांचीय संवंय जाली की पावलां उडोवंक त्रास पडचेनात.

राजीव : पूण हें करचेपयलीं तुका म्हजें घर सोडचें पडटलें.

निला : तें सोडून वचचेली म्हजी तयारी आसा.

राजीव : खंय वतलें?

निला : ती चिंता तुका कित्याक? खंयूय वचन, कशेंय जगन, पूण समेस्त दादल्यांचेर सूड घेतलेबगर रावचें ना. ज्या दादल्यांनी जिवीतभर म्हाका तडफडत दवरलें त्या दादल्यांक तडफडायलेबगर रावचें ना.

राजीव : पूण गुन्यांव केलाच जाल्यार तो हांवें केला. मागीर हेर दादल्यांचेर सूड कित्याक?

निला : सगळे दादले सारकेच म्हणपाचें हांवें अणभवलां. दादल्याक दिसता ती बायल – फकत बायल. ताका ती भोगूंक मेळ्ळी की जालें.

राजीव : खुब्ब आयकलें तुजें. पुरो जालें. चल तूं आतां.

निला : वतां. पूण याद धर... वेळ आयलो की हांव तुजेरूय सूड घेतलेबगर रावचें ना. *(मुखार चलता)*

# बरी वागणूक हेंच मनीसपण

**भोलानाथ अडवलपालकार**

बरी वागणूक हेंच मनीसपण. सगळे जाणात. पूण आयचो काळच असो की सोंपेपणान समजुचेली गजाल मुजरत सांगची पडटा. तिनसना काळोख पडटा तेन्ना जाका जमता ताणें खंय एक तरी पणटी जावं मेणवात पेटोवंची. आयज तर आमच्या देशांत भर दनपारच्या कडार गुपाट काळोख पडला. Darkness at noon म्हळ्यार जाता. म्हणून हीं चार उतरां.

लोकांनी विस्वासान जांच्या हातांत देशाचो कारभार दिल्लो तेच आपल्या नश्ट्या कर्तुपांनी, स्वार्थाक लागून केदो गोंदळ घालतात तें पळेत जाल्यार लजेन नदर सकल वेता. भायल्या जगाक शाणेपण शिकोवपाक सदांच मुखार सरपी आमचे देसभाव आतां खंयच्या तोंडान उलोवंक पावतले? ते भायर 'यद्यदाचरति श्रेष्ठस्तत्तदेवे इतरो जन:' हो गीतेंतलो सिद्धांत जांकां व्हडले व्हडले म्हणून आमी मानतात ते जें करतात तें हेर सरसमान लोक करूंक लागतात. आनी हीच खरी भिरांत!

इंग्लिश भाशेंत एक बरी म्हणणी आसा: Conscience is a lady; she doesn't talk to a person who doesn't listen to her. सद्सद्विवेकबुद्धी ही एके सुशील बायलेवरी. तिचें सांगिल्लें आयकना अशा मनशाकडेन ती उलोवंक वचना. सद्सद्विवेकबुद्धिचें अशें ओगी रावप म्हणजे मनीसपणाचो घात!

निती विशीं जर्मन तत्त्वगिन्यानी इमॅन्युएल काण्ट म्हणटा: 'Finally, there is an imperative which commands a certain conduct immediately, without having as its condition any other purpose to be attained by it. This imperative is categorical. This imperative may be called that of Morality.' अखेरेक अमूक तरेन वागुंकूच जाय असो एक दंडक आसता. ताका वेगळो उद्देश आसूंक जाय अशें ना. तो स्वयंसिद्ध असो दंडक. ताका नितिमुल्यांचो दंडक म्हणूं येता. असलो दंडक आपले सोयी प्रमाण लोक कशे बागयतात हें एकमंड बर्कान सोबीत बरें सांगलां:

People not very well grounded in the principles of public morality find a set of maxims in office readymade for them, which they assume as naturally and inevitably as any of the insignia or instruments of the situation. A certain tone of the solid and practical is immediately acquired. Every former profession of public spirit is to be considered as a debauch of youth, or at best, as a visionary scheme of unattainable perfection. The very idea of consistency is exploded. The convenience of the business of the day is to furnish the principle for doing it.

हाचो थोडे भितर अर्थ असो: नितितत्त्वांची जांकां पुरती वळख नासता ते आपणाक, आपलो उद्देश साध्य करपा पुरतीं तत्त्वां सोडून काडटात आनी आपल्या, आयच्या फायद्याचीं तत्त्वां फुडें काडून आपलो कार्यभाग साधतात! राजकारणाच्या मळारूच न्हय, तर अर्थकारण, शिक्षण, आरोग्यसेवा अशा सगळ्या मळांचेर फटींगपणां आनी नागवणेची साथ पसरल्या. नितीक पाळो दिवप हें चडशा जाणांक आज पिशेपणाचें दिसता. नीतिमत्ता, morality, ethics ह्या उतरांचीं लोक फकाणां मारतात.

म्हज्या मत्तान आमचे मदीं तीन तरांचे लोक आसात. पयले, जे नितितत्त्वां मानतात आनी तांकां धरून वागतात. ते उत्तम, पूण दुर्दैवान थोडे. दुसरे, नितितत्त्वां बेस बरीं जाणा जाल्ले, पूण आपूण त्या तत्त्वांक धरून चलनात स्वार्थाक लागून, आयच्या फायद्यापुरतें पळोवपाचे संवयेन ते नितीक सत्याक बगल दितात. तांच्या मनांत मात खंय तरी खंत आसता, भं[...] आसता. हांकां कोणूय भलो मनीस अधिकारान वा मायेमोगाचे उमळशिके[न] बरी देख दीत जाल्यार, ते सुधारूंक शकतात. जसो, वाल्या कोळ्याचो वाल्मीकि ऋषी जालो, गुजरातेंतल्या वाटमाऱ्यांक (बारवाटियांक) पूज्य रविशंकर महाराजांनी मनशांत हाडले; विनोबाजींनी आनी लोकनायक जयप्रकाश नारायणांनी मध्यप्रदेशांतल्या दरोडेखोरांक बरे भाशेन समजावन शरण येवंक लायले.

तिसरो जो वर्ग आसा तो मात महाकठीण! ताका निती-अनिती हांतुंतलो भेदच कळना वा तो भेद ते काना-मनार घेचनात. हांकां Amoral (नितिनिरपेक्ष) म्हणूंक फाव. तांकां सुधारप अशक्य म्हळ्यार जाता. तांच्यो पोरण्यो देखी दितलो जाल्यार, रावणाची आनी दुर्योधनाची दिवं येता. रावणाक ताच्या आज्यान (माल्यवानान) सांगलें, 'दुसऱ्याचे बायलेक (सीतेक) तुवें उबारून हाडल्या, तें वायट केलां. आतां तिची सुटका कर आनी रामाबराबर संधी कर.' रावण ताका जाप दिता: 'म्हजे दोन कुडके जाल्यार चलता; पूण हांव कोणामुखार बागोवंचो ना. हो म्हजो जन्मजात स्वभावदोष; स्वभावाक ओखद ना! (स्वभावो दुरतिक्रम:). तशेंच दुर्योधनाचें म्हणणें: जानामि धर्मं, नच में प्रवृत्ति: जानाम्यधर्मं नच मे निवृत्ति: धर्म, म्हणजे योग्य वागणूक कितें, हें हांव जाणा, पूण तें म्हाका करचेंशें दिसना. अधर्म म्हणजे कितें तेंय हांव जाणां. पूण तांतुंतल्यान हांव फाटल्यान सरूंक शकना. असल्या लोकांचें ज्या समाजांत संख्याबळ वाडटा, तो समाज अधोगतीक गेलेबगर रावना. नितिमुल्यांची मोड-तोड जावन फकत वासनांनी भरिल्ली जीण तो समाज जियेता आनी रसातळाक वेता. ताकाच decadence, सांस्कृतिक दैन्य वा मरगळ अशें इतिहासकार म्हणटात. तेराव्या, चौदाव्या शतमानांत हें युरोपांत घडलें, आमचेय कडेन घडलें. असले सामाजिक अधोगतिची पेशवाईचे अखेरीक परमावधि जाली आनी देश परतंत्र जालो. परक्यांच्या शेकातळा आयलो! आमची उच्च आचार विचारांची परंपरा कितली व्हड हें आमी सामके विसरले: 'बरें सत्य बोला, यथातथ्य चाला' हीं उतरां पयले यत्तेच्या पुस्तकांतूच उरलीं! अशे स्थितींत उपनिषदांची याद कोणाक उरतली? सत्यंवद। धर्मंचर। स्वाध्यान्माप्रमद:॥ 'खरें उलय, रितीन वाग, अभ्यास करचेलें चुकोवं नाका' असो उपदेश, गुरुकुलांतल्यान विद्या घेवन भायर सरतना, गृहस्थाश्रमांत पावल घालचे पयलीं, गुरू शिष्याक करताले.

आमच्या मूल-मंत्रांमदीं एक मंत्र तर 'ऋतं वच्मि, सत्यं वच्मि', सरळ उलयतलों, खरें तेंच उलयतलों, असो आसा. झरतुष्ट्राच्या प्राचीन धर्माचीं तीन सूत्रां तेंच सांगतात: 'हुमत, हुक्त, हवरश्त', म्हणजे, सु-मत, बरे विचार; सु-उक्त, बरें उलोवप; सुकृत (सुकर्म), बरें कर्तुप.

कांय जाण म्हणटले, नितितत्त्वां हीं देशकाळाप्रमाणें बदलत वतात; पोरण्या नितितत्त्वांक घट्ट धरून रावंक उपकारना. व्यापार धंद्यांत तर फटींगपण केलेबगर यश, कीर्त, पयसो मेळना असोच घट समज आमच्या लोकांचो जाला. जनसामान्यांचे गरजेच्यो वस्तू बाजारांतल्यान नाच करप, तांचो न्हय-तो तुटवडो निर्माण करप, दरो कशाय कश्यो वाडोवप आनी एकंदरीत आपल्या फायद्याखातीर लोकांक नाडप हाकाच हे लोक व्यापारांतली हुशारी समजतात. Fair Trade Practices, उजू वेव्हार

नदरेआड करचो आनी ते खातीर केल्ले कायदे कशे मोडचे हांतुंतूच
ी बुदवंतकाय हे लोक ओंपतात. देणेकारांचीं देर्णी बुडोवप, आयकर
प अशें करतना तांकां मातूय लज दिसना. अशा लोकांक मूळ निततित्त्वां
ाबाधित आसतात हें सांगूंक जाय. कारण सदाचरणाचीं, योग्य
केचीं तत्त्वां म्हळ्यार सगळे मनीस जातिचीं सुलक्षणां. तींच जर आमी
ले, तर आमचें मनीसपणच होगडावतलें. आमच्या ऋषी-मुनिंनी आनी
हात्म्यांनी अशा मनीसपणाची देख आमकां सदांच दिल्या.

देहूचो वाणी, संतशिरोमणी तुकाराम महाराज कितें सांगता तें आयकात:

डोनियां धन उत्तम व्यवहारें।
दास विचारें वेंच करी॥
तमचि गति तो एक पावेल।
तम भोगील जीवखाणी॥
पाची वासना नको शिवुं डोळां।
ाहुनी आंधळा बराच मी।

तो म्हणटा. समर्थ रामदास स्वामींनी तर मनाक परोपरीन उपदेश
्या मनाच्या श्लोकांतल्यान केला:

ना वासना दुष्ट कामा नये रे।
ना सर्वथा पापबुद्धी नको रे।
ना सर्वथा नीति सोडूं नको हो।
ना अंतरीं सार विचार राहो।
ना सत्य तें सत्य वाचे वदावें।
ना मिथ्य तें मिथ्य सोडोनि द्यावें॥
को रे मना द्रव्य तें पूढिलांचें।
ति स्वार्थबुद्धीत रे पाप सांचे।
डे भोगणे पाप तें कर्म खोटें।
होतां मनासारिखें दु:ख मोठें।

सऱ्याच्या धनाची हाव आपणें धरची न्हय हें तर इशावास्योपनिषदांत
याच मंत्रांत सांगलां: मा गृध: कस्यस्विद्धनम। हो तो मंत्र. आमचें
ीय तत्त्वज्ञान हाचेय फुडें वचून सांगतां: दुसऱ्याचें धन तर सोडूच,
्या धनाची परसून आसक्ति दवरूं नाका. अपरिग्रह, अनासक्ति हीं
गाचीं तत्त्वां मनीसपणाक सोबा हाडटात. पूण तीं आमी आचरणांत
ात व्हय?

द्यारण्यस्वामी म्हणटात:

ण्यस्य फलमिच्छान्ति पुण्यं नेच्छान्ति मानवा:।
पाप फलमिच्छन्ति पापं कुर्वन्ति यत्नत:॥

नशांक पुण्याचें फळ जाय, पूण पुण्यकर्म करूंक नाका; पापाचें फळ
पडूं नये ही तर इत्सा, पूण पाप मात करीत रावप!

ामच्या सुदैवान सदाचरणी लोकांची केदी व्हडली वळेरी आमचेच
मुखार आशिल्ली. गांधीजी, विनोबा, सानेगुरूजी, आचार्य नरेंद्र देव,
बहादूर शास्त्री, कितलीं नांवां सांगूं? खरें मनीसपण असल्या मनशांच्या
ांत आमकां दिसून येता.

हिंसा, सत्य, अस्तेय (चोरी करची न्हय), ब्रह्मचर्य, असंग्रह।
रीरश्रम, अस्वाद, सर्वत्र भयवर्जन।
र्वधर्म-समानत्व, स्वदेशी, स्पर्शभावना (अस्पृश्यता मानची न्हय)।

करा व्रतां निष्ठेन आपणावंचीं अशें गांधीजी आनी विनोबाजी आपले
चे सांज-प्राथनेंत सांगताले. तांची इल्लिशीच देख आमी घेतली,
्या आचरणांत तांचो उपयोग केलो जाल्यार आमच्या मनीसपणाक
अर्थ येतलो, आमची जीण आनंदमय जातली.

* * *

# बरी वागणूक हेंच मनीसपण

**भोलानाथ अडवलपालकार**

बरी वागणूक हेंच मनीसपण. सगळे जाणात. पूण आयचो काळच असो की सोंपेपणान समजुचेली गजाल मुजरत सांगची पडटा. तिनसना काळोख पडटा तेन्ना जाका जमता ताणें खंय एक तरी पणटी जावं मेणवात पेटोवंची. आयज तर आमच्या देशांत भर दनपारच्या कडार गुपाट काळोख पडला. Darkness at noon म्हळ्यार जाता. म्हणून हीं चार उतरां.

लोकांनी विस्वासान जांच्या हातांत देशाचो कारभार दिल्लो तेच आपल्या नश्ट्या कर्तुपांनी, स्वार्थाक लागून केदो गोंदळ घालतात तें पळेत जाल्यार लजेन नदर सकल वेता. भायल्या जगाक शाणेपण शिकोवपाक सदांच मुखार सरपी आमचे देसभाव आतां खंयच्या तोंडान उलोवंक 'पावतले ? ते भायर 'यद्यदाचरति श्रेष्ठस्तत्तदेवे इतरो जन:' हो गीतेंतलो सिद्धांत जांकां व्हडले व्हडले म्हणून आमी मानतात ते जें करतात तें हेर सरसमान लोक करूंक लागतात. आनी हीच खरी भिरांत!

इंग्लिश भाशेंत एक बरी म्हणणी आसा: Conscience is a lady; she doesn't talk to a person who doesn't listen to her. सद्सद्विवेकबुद्धी ही एके सुशील बायलेवरी. तिचें सांगिल्लें आयकना अशा मनशाकडेन ती उलोवंक वचना. सद्सद्विवेकबुद्धिचें अशें ओगी रावप म्हणजे मनीसपणाचो घात!

निती विशीं जर्मन तत्त्वगिन्यानी इमॅन्युएल काण्ट म्हणटा: 'Finally, there is an imperative which commands a certain conduct immediately, without having as its condition any other purpose to be attained by it. This imperative is categorical. This imperative may be called that of Morality.' अखेरेक अमूक तरेन वागुंकूच जाय असो एक दंडक आसता. ताका वेगळो उद्देश आसूंक जाय अशें ना. तो स्वयंसिद्ध असो दंडक. ताका नितिमुल्यांचो दंडक म्हणूं येता. असलो दंडक आपले सोयी प्रमाण लोक कशे बागयतात हें एकमंड बर्कान सोबीत बरें सांगलां:

People not very well grounded in the principles of public morality find a set of maxims in office readymade for them, which they assume as naturally and inevitably as any of the insignia or instruments of the situation. A certain tone of the solid and practical is immediately acquired. Every former profession of public spirit is to be considered as a debauch of youth, or at best, as a visionary scheme of unattainable perfection. The very idea of consistency is exploded. The convenience of the business of the day is to furnish the principle for doing it.

हाचो थोडे भितर अर्थ असो: नितितत्त्वांची जांकां पुरती वळख नासता ते आपणाक, आपलो उद्देश साध्य करपा पुरतीं तत्त्वां सोडून काडटात आनी आपल्या, आयच्या फायद्याचीं तत्त्वां फुडें काडून आपलो कार्यभाग साधतात! राजकारणाच्या मळारूच न्हय, तर अर्थकारण, शिक्षण, आरोग्यसेवा अशा सगळ्या मळांचेर फटींगपणां आनी नागवणेची साथ पसरल्या. नितीक पाळो दिवप हें चडशा जाणांक आज पिशेपणाचें दिसता. नीतिमत्ता, morality, ethics ह्या उतरांचीं लोक फकाणां मारतात.

म्हज्या मत्तान आमचे मदीं तीन तरांचे लोक आसात. पयले, जे नितितत्त्वां मानतात आनी तांकां धरून वागतात. ते उत्तम, पूण दुर्दैवान थोडे. दुसरे, नितितत्त्वां बेस बरीं जाणा जाल्ले, पूण आपूण त्या तत्त्वांक धरून चलना स्वार्थाक लागून, आयच्या फायद्यापुरतें पळोवपाचे संवयेन ते नितीक सत्याक बगल दितात. तांच्या मनांत मात खंय तरी खंत आसता, भ आसता. हांकां कोणूय भलो मनीस अधिकारान वा मायेमोगाचे उमळशिके बरी देख दीत जाल्यार, ते सुधारूंक शकतात. जसो, वाल्या कोळ्या वाल्मीकि ऋषी जालो, गुजरातेंतल्या वाटमाऱ्यांक (बारवाटियांक) पूज रविशंकर महाराजांनी मनशांत हाडले; विनोबाजींनी आनी लोकनाय जयप्रकाश नारायणांनी मध्यप्रदेशांतल्या दरोडेखोरांक बरे भाशेन समजाव शरण येवंक लायले.

तिसरो जो वर्ग आसा तो मात महाकठीण! ताका निती-अनिती हांतुंतल भेदच कळना वा तो भेद ते काना-मनार घेचनात. हांकां Amora (नितिनिरपेक्ष) म्हणूंक फाव. तांकां सुधारप अशक्य म्हळ्यार जाता. तांच्य पोरण्यो देखी दितलो जाल्यार, रावणाची आनी दुर्योधनाची दिवं येता रावणाक ताच्या आज्यान (माल्यवानान) सांगलें, 'दुसऱ्याचे बायलेक (सीतेक) तुवें उबारून हाडल्या, तें वायट केलां. आतां तिची सुटक कर आनी रामाबराबर संधी कर.' रावण ताका जाप दिता: 'म्हजे दोन कुडके जाल्यार चलता; पूण हांव कोणामुखार बागोवंचो ना. हो म्हज जन्मजात स्वभावदोष; स्वभावाक ओखद ना! (स्वभावो दुरतिक्रम:). तशेंच दुर्योधनाचें म्हणणें: जानामि धर्मं, नच में प्रवृत्ति: जानाम्यधर्मं नच मे निवृत्ति: धर्म, म्हणजे योग्य वागणूक कितें, हें हांव जाणा, पूण तें म्हाक करचेंशें दिसना. अधर्म म्हणजे कितें तेंय हांव जाणां. पूण तांतुंतल्यान हांव फाटल्यान सरूंक शकना. असल्या लोकांचें ज्या समाजांत संख्याबळ वाडटा, तो समाज अधोगतीक गेलेबगर रावना. नितिमुल्यांची मोड-तोड जावन फकत वासनांनी भरिल्ली जीण तो समाज जियेता आनी रसातळाक वेता. ताकाच decadence, सांस्कृतिक दैन्य वा मरगळ अशें इतिहासकार म्हणटात. तेराव्या, चौदाव्या शतमानांत हें युरोपांत घडलें, आमचेय कडेन घडलें. असले सामाजिक अधोगतिची पेशवाईचे अखेरीक परमावधि जाली आनी देश परतंत्र जालो. परक्यांच्या शेकातळा आयलो! आमची उच्च आचार विचारांची परंपरा कितली व्हड हें आमी सामके विसरले: 'बरें सत्य बोला, यथातथ्य चाला' हीं उतरां पयले यत्तेच्या पुस्तकांतूच उरलीं! अशे स्थितींत उपनिषदांची याद कोणाक उरतली? सत्यंवद। धर्मंचर। स्वाध्यान्माप्रमद:॥ 'खरें उलय, रितीन वाग, अभ्यास करचेलें चुकोवं नाका' असो उपदेश, गुरुकुलांतल्यान विद्या घेवन भायर सरतना, गृहस्थाश्रमांत पावल घालचे पयलीं, गुरू शिष्याक करताले.

आमच्या मूल-मंत्रांमदीं एक मंत्र तर 'ऋतं वच्मि, सत्यं वच्मि', सरळ उलयतलों, खरें तेंच उलयतलों, असो आसा. झरतुष्ट्राच्या प्राचीन धर्माचीं तीन सूत्रां तेंच सांगतात: 'हुमत, हुक्त, हवरश्त', म्हणजे, सु-मत, बरे विचार; सु-उक्त, बरें उलोवप; सुकृत (सुकर्म), बरें कर्तुप.

कांय जाण म्हणटले, नितितत्त्वां हीं देशकाळाप्रमाणें बदलत वतात; पोरण्या नितितत्त्वांक घट्ट धरून रावंक उपकारना. व्यापार धंद्यांत तर फटींगपण केलेबगर यश, कीर्त, पयसो मेळना असोच घट समज आमच्या लोकांचो जाला. जनसामान्यांचे गरजेच्यो वस्तू बाजारांतल्यान नाच करप, तांचो न्हय-तो तुटवडो निर्माण करप, दरो कशाय कश्यो वाडोवप आनी एकंदरीत आपल्या फायद्याखातीर लोकांक नाडप हाकाच हे लोक व्यापारांतली हुशारी समजतात. Fair Trade Practices, उजू वेव्हार

दरेआड करचो आनी ते खातीर केल्ले कायदे कशे मोडचे हांतुंतूच बुदवंतकाय हे लोक ओंपतात. देणेकारांचीं देणीं बुडोवप, आयकर अशें करतना तांकां मातूय लज दिसना. अशा लोकांक मूळ निततत्त्वां बाधित आसतात हें सांगूंक जाय. कारण सदाचरणाचीं, योग्य चीं तत्त्वां म्हळ्यार सगळे मनीस जातिचीं सुलक्षणां. तींच जर आमी , तर आमचें मनीसपणच होगडावतलें. आमच्या ऋषी-मुनिंनी आनी त्म्यांनी अशा मनीसपणाची देख आमकां सदांच दिल्या.

हूचो वाणी, संतशिरोमणी तुकाराम महाराज कितें सांगता तें आयकात :

ोनियां धन उत्तम व्यवहारे।
स विचारें वेंच करी॥
मचि गति तो एक पावेल।
म भोगील जीवखाणी॥
ाची वासना नको शिवुं डोळां।
ुनी आंधळा बराच मी।

तो म्हणटा. समर्थ रामदास स्वामींनी तर मनाक परोपरीन उपदेश ा मनाच्या श्लोकांतल्यान केला :

वासना दुष्ट कामा नये रे।
सर्वथा पापबुद्धी नको रे।
सर्वथा नीति सोडूं नको हो।
अंतरीं सार विचार राहो।
सत्य तें सत्य वाचे वदावें।
मिथ्य तें मिथ्य सोडोनि द्यावें॥
रे मना द्रव्य तें पूढिलांचें।
स्वार्थबुद्धीत रे पाप सांचे।
भोगणे पाप तें कर्म खोटें।
होतां मनासारिखें दु:ख मोठें।

ऱ्याच्या धनाची हाव आपणें धरची न्हय हें तर इशावास्योपनिषदांत च मंत्रांत सांगलां : मा गृध: कस्यस्विद्धनम। हो तो मंत्र. आमचें य तत्त्वज्ञान हाचेय फुडें वचून सांगतां : दुसऱ्याचें धन तर सोडूच, ा धनाची पसून आसक्ति दवरूं नाका. अपरिग्रह, अनासक्ति हीं ाचीं तत्त्वां मनीसपणाक सोबा हाडटात. पूण तीं आमी आचरणांत त व्हय ?

ारण्यस्वामी म्हणटात :

यस्य फलमिच्छान्ति पुण्यं नेच्छान्ति मानवा:।
पाप फलमिच्छन्ति पापं कुर्वन्ति यत्नत:॥

शांक पुण्याचें फळ जाय, पूण पुण्यकर्म करूंक नाका; पापाचें फळ पडूं नये ही तर इत्सा, पूण पाप मात करीत रावप!

मच्या सुदैवान सदाचरणी लोकांची केदी व्हडली वळेरी आमचेच ुखार आशिल्ली. गांधीजी, विनोबा, सानेगुरूजी, आचार्य नरेंद्र देव, हादूर शास्त्री, कितलीं नांवां सांगूं? खरें मनीसपण असल्या मनशांच्या त आमकां दिसून येता.

हेंसा, सत्य, अस्तेय (चोरी करची न्हय), ब्रह्मचर्य, असंग्रह।
ीरश्रम, अस्वाद, सर्वत्र भयवर्जन।
धर्म-समानत्व, स्वदेशी, स्पर्शभावना (अस्पृश्यता मानची न्हय)।
करा व्रतां निष्ठेन आपणावंचीं अशें गांधीजी आनी विनोबाजी आपले चे सांज-प्रार्थनेंत सांगताले. तांची इल्लिशीच देख आमी घेतली, या आचरणांत तांचो उपयोग केलो जाल्यार आमच्या मनीसपणाक अर्थ येतलो, आमची जीण आनंदमय जातली.

* * *

## चारोळयो

**राजय रमेश पवार**

(१)
दुसऱ्यांगेर वचूंक म्हाका
आतां ओगीच भंय दिसता
दर एकल्याच्या दारांत हांगा
कॅकट्स रोयिल्लो आसता.

(२)
संवसार म्हळ्यार फकत
न्हय बावल्यां-खेळ
दोन काळजांचो ताचेखातीर
घडचो पडटा मेळ.

(३)
तुजे जिणेंत उजवाडाचो
रूख म्हाका लावंक जाय
देखून तुज्या कपलावेलो
सूर्य म्हाका जावंक जाय.

(४)
आशाढांतलो पयलो पावस
चमत्कार घडोवन गेला
तुवें म्हाका दिल्ल्या काट्यांक
एक फूल फुलोवन गेला.

(५)
दिवली सांगता, व्हांवनाका
वाऱ्या म्हजो जीव वता,
वारो म्हणटा, व्हांवना जाल्यार
पळय हांवंय मरतां!

## गांठ

**परेश नरेंद्र कामत**

मळब व्हलयतना:
आलतडचें शेवणें एक –
पलतड वेंगयतना;
पलतडची वाट
सांसपिताले शेवण्याचे
धाय दिकांचे हात.

उजवाडून शिरे शिरेंत
शेवण्यान सोडली आलतड
देहांत मोडणां घेत;
नक्षत्रांची नदर
दोळ्यां मेरेर मिणमिणटनां
शेवण्यान देखली पलतड

मळब कित्याक मोनें?
मोनेळून चोंयवशीं
काळीज धांपलां कोणें?
कोणाचें संवसारी जिणें?
शेवण्याच्या मळब-दोळ्यांक
निळें अथांगाचें माणें...

मळब व्हलयतना:
आलतडचें शेवणें एक –
पलतड वेंगयतना;
सुप्त मनाची गांठ
शेवणें सोडयता सासणाची
दाखयत निमाणचो हात.

## दिकाहीन पांयवाटेन...

**सु. म. तडकोड**

चोंयवशींनी तणच तण
पांयांचीं बोटां भेरेल्यांत
आनी उजवाडाचे कुडके निर्शेल्यात,
रानांतल्यान भोंवल्यार
मेळटलो आशिल्लो आदार हातांक
हांगासर मुखार आनी चोंयवशींनी तणच तण

हें तण दंवा पावसान वाडलें काय शिंपण्यान पोसवलें?
ओल मात खंयच लागना पांयांक
एकाद्रे कवितेची संहिता सासणाची वगडायतकच
हातांक जसो निरगरट्ट स्पर्श जाता
आनी शेणटा म्हज्यांतलो हांव
तसो एक अस्पृश्य हात म्हज्या आंगा आंगाक सासपिता

ह्या तणांत नात दिकांचे ओंकारउले
आनी नात आषाढपदां
आनी आपणालें घर,
तणान तणाभशेनच वाडचें
तशें कोणेंय तरी
वाडत गेल्लें मळबपिशें पांयांर कोंरातिल्लें

तणान तणाभशेनच वाडचें
असली बेपर्वाई तणाकच मानवता,
इट लिव्हज हॅपिली एव्हर आफ्टर,
हांव मात माडयत दिकाहीन पांयवाट
चोंयवशींनी भरिल्ल्या
ह्या तणाच्या मुळांआड लिपिल्ली...

# एक झाड जुनें (गज़ल)

प्रभाकर नाडकर्णी

(१)
आर्विल्लेपणांत पोरसूं नवें     जगतालें एक झाड जुनें
खणून काडिल्लेंशें पाळांमुळां     खचिल्लें एक झाड जुनें

(२)
सांगचें सारकें कोणाक कोणें     रावलें ना कांयच अशें
वाद, वावटळींत जुनें नवें     अडिल्लें एक झाड जुनें

(३)
पांखां फुटलीं, चौंशी उडली     जालें बाग मोनेळशें
पान विरयत पडलें उगडें     निर्शेल्लें एक झाड जुनें

(४)
जायत्या रुतुचें पुराय पिरायेचें     खाणाखुणां आंगाचेर
मोगा लागून जगलें; तगलें     वठिल्लें एक झाड जुनें

(५)
माये पांखरार मोगा पावस     रकयलो अपरंपार
निरपेक्षपणान दीत सावळी     जगिल्लें एक झाड जुनें

(६)
जांचे खातीर जगलें तांणीच     फिरयली फाट कशी
आंगाखांद्यार खेळिल्ल्यांचेर     खंतिल्लें एक झाड जुनें

(७)
सवण्या मैफील, पांचवीं पानां, चौवशीन खांदी चार
धादोसकायेन मुक्ती मागता थकिल्लें एक झाड जुनें

# एकवट

आनंद वर्टी

झाडांर फुलां
फुलतां फुलतां
झाडाचेंच फूल जाता
झाड की फूल
फूल की झाड
मनाक सामकी भूल पडटा

गीत गायक
गायतां गायतां
गायकच गीत जाता
गीत की गायक
गायक की गीत
मन पुराय चकीत जाता

चित्र चित्रीक
काडटां काडटां
चित्रिकाचेंच चित्र जाता
चित्र की चित्रिक
चित्रिक की चित्र
मनाक सगळें विचित्र दिसता

ध्यान देवाचें
करतां करतां
भक्त देवरूप जाता
भक्त की देव
देव की भक्त
मन दोगांत तद्रूप जाता

# दुर्बीण

प्रकाश पाडगांवकार

भोंवतां घेवन हांव एक अद्‌भूत दुर्बीण
करीत जाय तेन्ना
पयसुल्ल्यो वस्ती लागीं
वा लागिंच्यो पयस

दवरतां हे दुर्बिणी वरवीं
नदर ताऱ्या गिऱ्यांचेर
टिपीत तांच्यो हालचाली
ते म्हजे खाजगी संगणक जाल्ले वरी

पळयत धरून उरफाटी दुर्बीण
हिंस्त्र जनावरांक करतां इल्लीं इल्लींशीं
आनी तांकां मनशाळायत
सांगाताक घेवन भोंवतां

पळयतां हे दुर्बिणी वरवीं
काळाची व्हांवती न्हंय
आनी अदिश्ट पावलांनी संचारपी
ऋतुंचे अजरंवर मेळ

हे दुर्बिणीचेर चडोवन
मनरुपी भींग केन्ना केन्ना
म्हजें अस्तित्वच विरगळावन
रावतां हांव पातळून ब्रह्मांडभर

*अ. का. प्रियोळकार हांगेले दोन मराठी लेख आमी 'जागा'च्या फाटल्या दोन आंकांनी दिल्ले – स्वतंत्र गोंयांत कोंकणीक जो विरोध जाल्ल ताचें रूप विद्यार्थ्यांच्या लक्षांत येवचें ह्या उद्देश्यान. ८-४-१९६८च्या 'भारत ज्योती'च्या आंकांत तागेलो आनीक एक लेख उजवाडा आयिल्लो इंग्रजी भाशेंत. ताचें मराठी भाशांतर 'कोंकणीचे पुरस्कर्ते' ह्या माथाळ्या खाला मुम्बयचे 'नवशक्ती'त उजवाडा आयिल्लें. मुदल इंग्रजी आनी ता मराठी भाशांतर हाताक लागूंक ना. मेळटलें एक दीस. पुणून ह्या मराठी लेखाक रा. ना. नायक हांणी जी जाप दिल्ली – जी नवशक्तीन छापूं नाशिल्ली म्हूण 'कोंकणी'च्या २५ मे १९६८च्या आंकांत छापून आयिल्ली – ती हाताक लागल्या. ही जाप वाचतकूच प्रियोळकार कोंकणीच्या विरोधां खंयच्या पांवड्यार देंविल्ले हाचो वाचप्यांक अदमास येतलो.*

— वावुरपी संपादप

# प्रियोळकरप्रणीत कोंकणी 'वादा'ची उपपत्ति

रा. ना. नायक

'कोंकणीचे पुरस्कर्ते' हें शीर्षक देऊन श्री. अ. का. प्रियोळकर यांनी रविवार ता. ८-४-६२च्या 'भारत ज्योति'मध्यें एक इंग्रजी लेख लिहिला आहे. त्यांत त्यांनी प. वा. श्री. वामनराव वर्दे वालावलिकार आणि आचार्य काकासाहेब कालेलकार या दोन कोंकणी भाषेच्या पुरस्कर्त्यांच्या कोंकणीच्या पुरस्काराची आणि मराठी भाषेच्या स्वकल्पीत विद्वेषाची मनोभूमिका काय आहे याची मनोव्यापारांच्या दृष्टीनें छाननी करून असा निष्कर्ष काढला आहे कीं, या दोन व्यक्तींचीं मनें चित्पावन व कऱ्हाडे जातींविषयीं सकारण अशा चीडीनें दूषित झालेलीं होतीं वा असावींत, आणि त्यामुळेंच त्यांनी मराठीविषयीं द्वेषभावनेनें प्रेरित होऊन कोंकणीचा पुरस्कार केला. एरव्हीं ते कोंकणीचा पुरस्कार करते ना. कारण, श्री. प्रियोळकरांच्या मताने कोंकणी ही निश्चितपणें मराठीची बोली आहे.

चित्पावन व कऱ्हाडे यांजवरील रोष या दोन व्यक्तींनीं मराठीवर कां उगविला याची उपपत्ति श्री. प्रियोळकर हे वालावलिकरांच्या बाबतींत अशा देतात कीं वालावलिकरांच्या अज्ञानामुळें त्यांस मराठी ही केवळ चित्पावन कऱ्हाड्यांचीच भाषा आहे, गोमंतकीय ब्राह्मणांचा तिजवर हक्क नाहीं असें वाटत होतें, आणि म्हणून चित्पावन-कऱ्हाड्यांवरचा त्यांचा राग मराठीच्या द्वेषांत रूपांतरित झाला आणि त्यांतून कोंकणीचा पुरस्कार निघाला. श्री. कालेलकरांच्या बाबतींत त्यांस अशी उपपत्ति देतां आली नाहीं, तथापि ते देखील जातीय द्वेषामुळेंच मराठीचा निषेध आणि कोंकणीचा पुरस्कार वालावलिकरांना अनुसरून करीत आहेत असें श्री. प्रियोळकरांना वाटतें.

गोव्याच्या स्वातंत्र्यामुळें कोंकणी वि. मराठी या वादाला आज जें स्वाभाविक महत्व आलेलें आहे, आणि त्यामुळें वातावरण एक प्रकारें तंग झालेलें आहे अशा या वातावरणांत या दोन महान व्यक्तींवर समयौचित्य (!) दाखवून श्री. प्रियोळकर यांनी जातीय विषाक्ततेचा जो आरोप केलेला आहे त्याच्या सद्धेतुविषयीं देखील मानसशास्त्रज्ञांना संशोधन करतां येण्यासारखें नसेल असें नाहीं. तथापि मी मानसशास्त्रज्ञ नाहीं, आणि श्री. प्रियोळकरांच्या उदार मनांत प्रवेश करून त्याचें हेतुसंशोधन करण्याचीही माझी इच्छा नाहीं परंतु त्यांनीं वरील दोन थोर व्यक्तींच्या कोंकणीविषयक कार्याची जी उपपत्ति दिलेली आहे ती खरी नाहीं, तर्कशुद्ध नाहीं आनी क्षुद्रत्वनिदर्शक आहे असें मला वाटतें.

**मराठी ही गोमंतकाची लोकभाषा (Vernacular) नाहीं असें जें कुंभारजुव्यांचे 'बारांव' म्हणाले तें त्या वेळच्या व आजच्याहि वस्तुस्थितीला धरूनच होतें;** व त्यांच्या त्या उद्गारांमुळें श्री. वालावलिकरांना नवी दृष्टि प्राप्त झाल्याचें जें त्यांनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' या आपल्या ग्रंथांत लिहिले आहे तें खरें आहे व खरें धरूनच चाललें पाहिजे. 'बारांवां'च्या उद्गारांनी वालावलिकरांस जर स्वभाषेचें, गोमंतकाच्या प्रादेशिक लोकभाषेचें दर्शन घडलें, तर मग त्यांच्या कोंकणीच्या पुरस्काराची आणि त्या भाषेला ग्रांथिक दर्जा आणून देण्याच्या भगीरथ प्रयत्नांची भूमिका शुद्ध असून, श्री. प्रियोळकर म्हणटात तशी ती जातीय वैरभावनेंतून निर्माण झालेली नव्हती हें कळून येण्यासारखें आहे. मग गोमंतकीयेतर ब्राह्मणांच्या वालावलिकरांस आलेल्या कटु अनुभवांमुळे ते मराठी भाषेचे द्वेष्टे बनले व त्यामुळें कोंकणीचा त्यांनी पुरस्कार आरंभिला अशा द्राविडी उपपत्तिचा श्री. प्रियोळकरांनी अट्टाहास कां धरावा हें सहज कळण्यासारखें नाहीं. श्री. वालावलिकर मुंबईस आले व तेव्हां त्यांस चित्पावन-कऱ्हाड्यांचा कटु अनुभव आला. त्यांच्या त्या नवतारुण्यांत कोंकणीचें दर्शन होऊन त्यांनी कोंकणी पुरस्कार आणि लेखन यांस सुरवात केली, म्हणून प्रियोळकरांच्या काक-तालीय न्यायानें त्यांचा तो कोंकणी पुरस्कार जातीय विषांतून निर्माण झालेला ठरला. जातिद्वेषांतून भाषाद्वेष क़सा उत्पन्न झाला याची उपपत्ति लावण्यास-श्री. प्रियोळकरांनी श्री. वालावलीकरांच्या पदरीं उगीच मराठी भाषेविषयीं अज्ञान बांधले आहे. ती भाषा म्हणे त्यांस चित्पावन कऱ्हाड्यांचीच भाषा आहे असें वाटे. गोमन्तकीय ब्राह्मणांचा तिजवर हक्क नाहीं असें त्यांस वाटे. म्हणून चित्पावन-कऱ्हाडे यांजबरोबर त्यांनी त्यांच्या मराठी भाषेचाहि द्वेष केला. किती सरळ आणि बालभावयुक्त (बालिश) उपपत्ति ही! **खरोखरच श्री. प्रियोळकरांनां असें वाटतें का किं नामदेव, जनाबाई, तुकाराम, रामदास अथवा ज्ञानेश्वर, मुकुंदराज, एकनाथ, मुक्तेश्वर आदि मराठी भाषेला ललामभूत झालेले संत–साहित्यिक यांच्या जाती कोणत्या होत्या हें वालावलिकरांसारख्या बुद्धिमान अभ्यासकाला माहीत नव्हतें?** मग वालावलिकरांनी मराठी भाषेचा मक्ता केवळ चित्पावन-कऱ्हाड्यांसच कां द्यावा? चित्पावन-कऱ्हाड्यांविषयीं श्री. वालावलिकरांनी मराठी भाषेचा मक्ता केवळ चित्पावन-कऱ्हाड्यांसच कां द्यावा? चित्पावन-कऱ्हाड्यांविषयीं श्री. वालावलिकरांनी जें कांहीं लिहिलें आहे तें तर बहुधा त्यांनी मराठींतच लिहिलें आहे. कोकणेतर लोकांस कळावें म्हणून आपला नैतिक नियम मोडूनहि त्यांनीं तें लिखाण मराठींतच केलें. मग ते मराठीचा द्वेष करीत होते तें कसें? **त्यांनीं कोंकणींत लेखन केलें**

क पंगड. आनी तें गीत: मध्यान रात, निधान रात... ताचे दोळे भरून आयले. धांवलो ताचो उगडास पाटीं... मध्यान रात निधान रात... आपली तीण, आपली धूव आपल्याचें पियोणें. मॅरी क्रिसमस डॅडी... मॅरी क्रिसमस डॅडी! ताचेलागीं नातल्लीं उतरां. कित्याक तो आमालांत उफेतालो. आतां ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. कितलीं वर्सां पाशार जालीं, कितलीं वर्सां.

लोकंडाचे गेटीलागीं उमकाळोन आसचे कांपिणेचो हाताळो ओडलो. एक पावटीं, दोन आनी तिसरे पावटीं. गीत स्तब्द जालें. भुरग्यांची नदर ताचेर पडली आनी ताका आयकालीं तीं उडकाणीं उतरां – ''सांताक्लॉस आयला सिस्टर, सांताक्लॉस आयला!'' क्रिसमस ट्री सरशीं आसल्लो भुरग्यांचो जमो खिणां भितर फासाळ्ळो आनी सिस्टराचे मुखेलपणाखाला गेटीसरशीं आयलो. ताणें उसवास बांदलो, उतरां विंचलीं.

''मॅरी क्रिसमस सिस्टर!'' गेटिच्या सरळांक तो उमकाळ्ळो. ''इल्लोसो तडव जालो. हांव...''

''कोण तूं?'' सिस्टराचो ताळो जावं नासुल्लो गंभीर पूण स्पश्ट. ''हांगासर कसो पावलोय?''

''हांव सांताक्लॉस.''

''तें हांव पळेवनच आसां!'' ती म्हणाली. ताचेर एक तीख दिश्ट चरवन, ''पूण तुका हांगासर कोणें धाडला?''

''अनाथाश्रमांतल्या भुरग्यांक खूश करचे खातीर एका सांताक्लॉसाक धाडचे धर्मिश्ट ह्या शहरांत कांय उणे नात सिस्टर!''

''तुजो ताळो आनी जिनोस कित्याक कांपता?''

''नातलांचे गडदेंत एक ल्हान अवगड म्हाका घडलें.'' आपल्या जांगळाक दाकवन तो म्हणालो. आनी लिपवन कसलोइ फायदो नासल्लो. ''रगता स्त्राव कठीण आसा. पूण भुरग्यांक निराशी करूंक नजो म्हळ्ळे खातीर...''

''तुजी काणी पातयेवंक आमकां कश्ट मारतात!'' सिस्टर म्हणाली.

''सांताक्लॉस सर्वांक परिचित जावन आसेत, पूण तूं आमकां अपरिचित. तुका आमी कसो भितर सोडचो?''

ताचे लागीं कसलिंयी उतरां नातल्लीं. आनी तो सल्वोन वेचे स्थितिचेर उभो जाताना भुरग्यांनी ताचे पाडतीन सळ धरलोच. ''प्लीज सिस्टर!'' तीं म्हणालीं. ''सांताक्लॉज भितर येवंदी. हे पावटीं तो येवंचोच ना म्हण तुवें म्हळ्ळेंय तरी बेबी जिजसानच ताका हांगा धांडला. आमच्या वनेस्साकई कितलो संतोस जातोलो!''

सिस्टरान भुरग्यांचेर दिश्ट चरयली आनी दोगांतेगांचीं मातीं पोशेलीं. ''वनेस्सा!'' एका लांब उस्वासा संगीं ती म्हणाली. ''आमचें वनेस्सा.'' उपरांत ती दिगंताक पळेवंक लागली कसल्यायी संदेशाचें निरिक्षण आसल्ले परी.

''हे पावटीं येवंचो सांताक्लॉस आपल्या डॅडीक सांगाता घेवन येतलो म्हण वनेस्सा आशेवन आसा!'' आपली दिश्ट देंवयनासतना ती म्हणाली. ''चड वेळ ताच्या ताबेंत ना सिस्टर! हे पावटीं सांताक्लॉस येवचो ना म्हण आमी चिंतिल्लें. खंच्यायी धर्मिश्टान बरें मन दाकयलें ना पूण आतां आवचित्त...''

''वनेस्साचो डॅडी जावंकयी हांव तयार!'' खरी संगत कसली म्हण कळीत नातल्ली तरी तो उलयलो. ताचे कुडिंतलें त्राण झरोन वेतालें; प्रथम चिकित्सा ताची तुर्तांची गरज जावन आसल्ली. सिस्टरीन कितेंयी म्हणचे फुडें भितर थावन आनेक माद्र तरणाटी लवलवीत, दरवट्यान धांवोन आयली.

''सिस्टर, सिस्टर'', ती खरशेवणेसंगी म्हणाली, ''वनेस्सा आमच्या हातांतलें चुकोन वेता. क्रिसमस ट्रीच्या मुळांत आपणाक व्हरा म्हण हटाक पडलां. आपल्या डॅडीक घेवन सांताक्लॉस येवंक नांगी म्हण विचारता. तुमी हांगासर...'' तिची दिश्ट एकाच्चाणे ताचेर पडली.

''हांगासर एकलो मानेस्त सांताक्लॉसाच्या लिबासाचेर आयला. अवगडांत ताच्या जांगेक घाय जाला खंय.पूण ताची काणी कितली घट, कितली सत देवच जाणां, पूण वनेस्सा... इतले वेगीं?''

तरणाटी माद्र तिच्या कानांत कितेंगी पुसपुसली. तिचीं उतरां आयकोन व्हडिलन माद्रीन ताचेर तीक्ष्ण दिश्ट चरयली. ''तूं कोण म्हळ्ळें तें आतां आमकां कळीत आसा.'' ती स्पश्ट ताळ्यान म्हणाली. ''स्थळीय रेडियोचेर तुजें कर्तुब प्रसार जालां म्हण सिस्टर कारमेलिटान आत्तांचे आतां म्हाका सांगलें.''

''तर तुमी म्हाका विक्रीत करतात?''

''तें गरजेचें न्हय!'' ती खचितायेन म्हणाली. ''तूं खंयसरयी धांवचे स्थितिचेर बिलकूल नांय.''

''म्हाका एक अवकास जाय, सिस्टर... नतालांची ही रात म्हजे उतरोवणेची रात जावं!''

तिच्या वोंठांचेर एक क्षीण हांसो उदेवन लिपलो. ''कसलिंयी तुजीं सितिमेंतां जावं, एक विशिश्ट उद्देशान तुका हांगासर देवान हाडला म्हण हांव पातयेतां आनी नटनाचें थोडें पुणी देणें तुजेथंय आसतलें म्हण हांव भरवसतां.''

''नटनाचें देणें? सिस्टर...''

''आमची वनेस्सा वेच्यार आसा! ताचें अंत्य इतलें वेगीं येत म्हण आमी चिंतूंक ना. आपूण मरचे पयलीं डॅडी येतोलो म्हण तें आशेवन आसा. हांगासर तुजें नटन आमकां गरजेचें.''

''पूण सिस्टर...''

''भितर यो! तुका प्रथम चिकित्सा आनी फळार मेळतलो. तुजीं सितिमेंतां जागीं कर, खंडित जावन तुका पतीण आनी भुरगीं आसतेलींच.'' तिणें गेट उगती केली. तरणाटी माद्र कावजेवन व्हडिलनीच्या हाताक धरों लागली. ''भिये नाका धुवे!'' व्हडिलीन तिचो हात थापडून म्हळें. ''ताच्यो वाटो विचित्र जावन आसात. कसलेंच आयप हे पवित्र रातिचेर आनी आमचेर येवचें ना. आतां ह्या मानेस्ताक पार्लराक व्हर, ताका प्रथम चिकित्सा दी; हुनोनी काफियेची विलेवारी हांव करतां.''

तो भितर रिगलो.

ताचें जांगाळ दांत्याचो फातर बांदलेले परीं जड जाल्लें. तो भितर येतच व्हडिलीन गेट परत्यान बंद केली. ''पार्लरापर्यंत चलोंक ताका तांकता?''

''प्रेतन करतां सिस्टर!''

कोणेंगी ताचो हात धरलो. ''तूं सांताक्लॉस आसल्लोय, आतां वनेस्साचो डॅडी जालोय?' ल्हान भुरग्याचें सवाल ताका फुमार करी लागलें.

''व्हय!'' त्या भुरग्याक आरावन धरून म्हणालो.

''येवंच्या वरसा म्हज्या डॅडीक आपवन हाडताय?''

''आनी म्हज्या माम्मीक?'' आनेकलें भुरगें ताच्या पांयांक उमकाळ्ळें. ''आमी खंडित बरीं भुरगीं जावन चलतेल्यांव.''

ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

''सिस्टर!'' ताचो उलो एक आक्रंदनच जावन आसल्लो. ''म्हज्यान ही उतरोण सोंसूंक जायना सिस्टर! दया करून म्हाका पोलिसांचे अधीन करात.''

ताचीं उतरां आयकोन तिणें आपली चाल रावयली. आनी ताका पळेवंक लागली. ''ह्या पागोरा भितर मोगान उसमडोन तुका कश्ट जावंचे नात!'' तिचीं उतरां मार्मिक आसल्लीं. ''जिणयेंतल्यो उतरावण्यो सुलबायेच्यो न्हय म्हज्या इश्टा!''

पार्लरांत ताका प्रथम चिकित्सा लाबताना सिस्टर कार्मेलिटान वनेस्साची कथा मटव्यान ताका कळीत केली. अनाथ बाळ तें. आठ वरसां प्राय ताची आनी तितलीच प्राय तें घेवन आयिल्लें – लुकेमिया. तें नाचतालें आनी गाच सोभयतालें. एका कराळ दिसा आपणाचे जिणियेक लुकेमियान खाडूं घालां म्हण कळीत जाताना तें मावन पांगुरी लागलें आनी अनाथास्रमाच्या

एका रुका मुळांत बसलें.

हें सुमार एका वरसा आदीं नतालांक थोडे दीस आसताना.

''कितें चिंतताय वनेस्सा ?'' सिस्टरान ताचेलागीं विचारलें. असकत जाल्ल्या ताच्या ल्हान कुडीक आरावन धरून ''जेजूलागीं वचूंक भियेवं नजो.''

''हांव भियेना सिस्टर !'' तें म्हणालें. ''पूण हांवें वेच्या पयलीं म्हजो डॅडी म्हाका पळेवंक येतोलो.''

''फकत डॅडीक विचरताय वनेस्सा ?'' विस्मितायेन विचारूंक लागली सिस्टर. ''माम्मीचो उगडास काडिनाय ?''

''म्हाका जनम दिवन ती अंतरलेली म्हण म्हाका सांगलां. ती सरगार पुणी आसतेलीच. पूण म्हज्या हँडसम डॅडीक पळेवंकूच जाय.''

''तुजो डॅडी हँडसम म्हण तुका कोणें सांगलां वनेस्सा ?''

''हांव जाणां !'' तें म्हणालें. ''हे पावटीं सांताक्लॉस येताना हांव ताका सांगतेलीं, येवंच्या क्रिसमसाक डॅडीक आपवन हाडुंकूच जाय... सिस्टर, आनेका क्रिसमस परयांत हांव वांचतेलीं मूं ?''

''डॅडीक पळेवंक जाय तर तुवें वाचाचें वनेस्सा !'' चुकारी मारली सिस्टरान. कसल्यो जापो ती दितेली मरणांत खचित जाल्ल्या ह्या आंज्याक ?

आपल्या जिवांत थोडो सुशेग आनी जांगळांतल्या दुकींत इल्लीशी कळवणी जाल्या नंतर तो हुनोनी काफी पियेलो. वज्रांचो नेकलेस ताच्या बोल्सांत विसव घेतालो.

''तूं तयार जातेच वनेस्साक —''

''म्हजेवरवीं हो पात्र खेळोंक जावंचो ना सिस्टर !'' तो मातें हालोवन म्हणालो. ''म्हजेच धुवेक बापय आनी पतिणेक पती जावंक हांव सकलोंना तर आतां कसलें नटन करून त्या बाळाक फटोवं ?''

''तुवें तुकाच फटवंचे दीस अकेर जाले !'' तिणें सोडून दिलें ना. ''नव्या सकाळाची सुरवात हांगासरच जावं. कसेंयी उतरोणेक तू लालेतालोय ?''

''उपरांत ?''

''गेट तुका उगती आसतेली !'' सिस्टर कारमेलिटान ताच्या घायार पट्टी बांदून कट घालताना व्हडिलणीन म्हळें, ''तुजेर बंधड घालची शाती आमकां ना.''

थोडीं खिणां तो आपल्या भुजांमदें मातें घळवन बसलो. त्या हिंवाळ्यांत तरी ताच्या कानां पाटल्यान केसां मुळांथावन घामाच्यो बारीक झरी देंवताल्यो.

''चल या सिस्टर !'' एका निर्धाराक आयिल्लेपरी एकाच्चाणे उबो जाल्ल्यान ताका हळताची लकणी आयली. पार्लरा भायर आसा केल्ल्या क्रिसमस ट्री सरीं भुरगीं एकटांय जाल्लीं आनी कंतारां गायतालीं. जीव गात्राचो इमाजीन केल्लो गरदनाचो गोटो लागसारच आसल्लो, पूण तांतली खावणी रिती आसल्ली.

''भरती मध्यानेर बाळ जेजूक आमी खावणेंत दवरतांव !'' सिस्टरान विवर दिलो. एकेका वरसा एकेक भुरगें जेजूक खावणेंत निदायता. हे पावटीं सरती वनेस्साची पूण कितें करयां ? उठोन उबें रावंचें त्राण ताचे कुडींत ना.''

''आतां ताचो डॅडी आयलो आसतां...'' हीं उतरां ताच्या वोटांचेर उदेलीं तरी ताणें तीं उच्चारलीं नात. ताच्या हरद्यांत मुसाळां चलतालीं. वनेस्साक निदायल्लेल्या कमऱ्यालागीं पावतां ताची चाल सवकास जाली पूण व्हडिलणीन ताच्या बावळ्याक घट धरलें.

''आतां पाटीं पळेवंक ना !'' ती म्हणाली. ''मध्यानेक थोडींच मिनुटां बाकी आसात आनी तींच वनेस्साचीं निमाणीं जावंकयी पुरो.''

तीं कमऱ्याभितर रिगलीं. वनेस्साच्या खटल्या लागीं बसून हाळवायेन कंतारां गावंची सिस्टर उटोन उबी जाली. व्हडिलनीन तिका भायर वचयेत म्हण सुचायलें आनी ताका तिणें मुकार लोटलो. ताचें सर्वांग कांपूंक लागलें. खाटल्यार निदोन आसलल्या जिवीं थंय उसवास सोडल्यार हेर कांय नातल

''वनेस्सा !'' व्हडिलनीन ताळो काडलो. ''कोण आयला पळे.'' खटल देगेर बसून तिणें वनेस्साचे दोळे उगते केले.

''हो सांताक्लॉसच आयला !'' तें क्षीण ताळ्यान म्हणालें.

''हो सांताक्लॉसच न्हय. बगर तुजो डॅडी.'' व्हडिलनीचो ताळो तितल कुसकालो.

वनेस्सान कश्टांनी दोळे उगते दवरले.

''लागीं यो सांताक्लॉस !'' तें म्हणालें. ''म्हजेसरशीं बोस.'' तो खटल्य आनेक देगेन बसलो.

''हांव तुजो — ''

''तूं म्हजो हँडसम डॅडी न्हय, सांताक्लॉस !'' तें म्हणालें. कळता खरसवणे संगीं. ''तूं सांताक्लॉसय न्हय !'' ताणें दोळे धांपले. ''तुमी म्हा कित्याक फटयतात सिस्टर ?''

वनेस्साचे सवलान तांकां घडिबर स्तब्ध केलेंच. दोन दुकां चलियेच हाडकुऱ्या पोल्यां वयल्यान देंवलीं. तवळ सांताक्लॉसाचो वेस घाल्न संवसार फटवंक भायर सरल्ल्या ताच्या काळजांत कसलेंगी स्फोटन जालें. असकत ताचेथंय चरली आनी हिच्या बळानच ताणें वनेस्साचें मातें आपल हातांनी आरायलें, मोगान आनी नाजुकायेन.

''तुका आमी फटयनांव पुता !'' ताचीं उतरां ताका पयसिल्ल्य आयकालीं. ''हांव म्हाकाच फटयतालों, पूण आयचे रातीं एके धुवेची गर म्हाका पडली.'' आतां ताचीं दुकां वनेस्साच्या पोल्यांचेर पडतालीं. '' डॅडीक एका धुवेची गरज पडली.'' तो कसकसोन रडलो.

वनेस्सान आपले हात व्हडिलनीचे हातांतले सुटयले. आनी ताच्या हातां दवरले. ''पूण हांव वेगींच मोरच्यार आसां !'' तें वेक्त त्रासां संगीं म्हणा ''म्हजो उडास परयांत तुका उरचो ना.''

''म्हजें काळीज गूंड आसा, म्हजे धुवे !' ताचीं उतरां ताकाच विस्म करतालीं. ''तुजो उडास... पळे, पळे हांवें तुका क्रिसमस प्रेजेंट हाडलां आपल्या दगल्याच्या बल्सांत सांसपून ताणें वज्रांचो नेकलेस भायर काड आनी ताच्या सामकार धरलो.

'मध्यान रात, निधान रात नेकेत्रां जळमिळटात', पयशिल्ल्यान कंत आयकातालें. ''वेगींच हांव नेकेत्रां मदेंच निदतेलीं !'' तें म्हणालें. ''वज्रां नेकलेस म्हाका कसल्या फायद्याचो ?'' ताणें पोल्यावयलीं दुकां पुसल ''पूण तुजी खुशी तर हो नेकलेस घालूंक हांव तयार आसां.''

''म्हाका कितें म्हणचें म्हण समजाना, पुता !''

''मध्यानेक कितलो वेळ बाकी आसा ?''

''पांच मिनुटां बाकी आसात वनेस्सा !'' म्हणाली व्हडिलन.

''बाळोकाक खावणेंत निदावंक तुका तांकात ?''

तें स्वाधीक हांसो हांसलें. ''पांच निमुटां भर बेबी जीजस जल्मोंचे परय हांवें खावणेंत निदयेत सिस्टर ?''

व्हडिलनीचीं सितिमेंतां ह्या सवलावरवीं इतलीं ओलालीं उगत्यान रड ती भायर धांवली.

''फकत पांच मिनुटांभर !'' वनेस्सान हात उबारोन धरले. ''पांच मिनुटां !''

वज्रांचो नेकलेस खटल्यारच गळोवन ताणें वनेस्साक आपल्या हातां आरायलें आनी ऊबकांबळींत ताका रेवडावन तो भायर आयलो. ताची म साफ जाल्ली, दुकिची परवा ताका नातल्ली. ताची उतरोण पूर्ण जावंच्य आसल्ली.

रित्या खावणेंत निदायताना वनेस्सा ताच्या गोमट्याक उमकाळ्ळें. प थोडीं खिणांभर. ''मॅरी क्रिसमस, डॅडी''... ताचो वेडकोळ सुटल्या नंतर हीं उतरां नेकेत्रां परी थंयच उमकळोन उरलीं !'...

✽ ✽ ✽

# म्हारवता विशीं

रेशा नायक

स् प, पाटलो, कुरपणो, कण्णो सारकेल्या कोंड्यापसून तयार जावपी …रींक 'म्हारवत' म्हणटात.

**…ड्याविशिंची थोडी-भोव माहिती:**

…ो म्हळ्यार तणाचीच एक जात जी बरींच वर्सां मेरेन जगता. वनस्पतशास्त्रांत …ा 'राक्षसी तण' म्हणटात. कांय जातिचे कोंडे पोकळ जाल्यार कांय …व (धड) आसतात, आनी बेगीन वाडटात. खंयसरूय एक कोंडो रोयत …ल्यार उपरांत थंय कोंड्यांचो एक चोमोच (आळ) तयार जाता. पूण …ोंडे फुलले उपरांत रोखडेच मरतात. कोंडे चड फुलले जाल्यार दुकळ …ाचो संभव आसता अशी जाणटेल्यां भितर एक मान्यताय आसा. गोंयांत … तरांचे कोंडे मेळटात – हुडेल, बांबू वा कोंडे, शिरी आनी वेळू.

…भरीव कोंड्यांचो उपेग चड प्रमाणांत जाता. पुर्विल्ल्या काळासावन ताचो …ा जायत आसा. विंगड विंगड तरेच्यो हस्तकलेच्यो वस्ती, घराची सजावट, …ण्णीं, पिल्लूक, पांटले, मापां, सुपां, शेंदऱ्यो, बैलगाडयो, पूल, पोरसाखातीर … इल्लें हे सारक्यो साबार वस्ती करपाक कोंड्याचो उपेग जाता. वेळुच्या …ाची भाजी वा लोणचें करून खातात, हाकाच 'किल्ल' म्हणटात. …याच्या तेलाचो वास उणो करपाखातीर कोंड्याचीं पानां वापरतात. दुकळ …टा तेन्ना कोंड्याच्यो बियो खावपाखातीर वापरतात.

**…रवत**

…ड्याक गोंयांत 'मान' अशेंय म्हणटात. म्हारवताक लागपी कोंडो चड …न जितो आसूंक जाय. सुको आसत जाल्यार तो चुरचुरता आनी फुट्टा. …ल्या कोंड्याचीं **धापां** करतकीच तीं फुगत घालचीं पडटात. कोंडो …टकीच ताचीं धापां (म्हळ्यार दोन उबीं अर्दीं) करतात. **कुरपी** वा कोयतो …न देळग्याचेर **कामटां** तासून तासून निव्वळ करचीं पडटात. आनी मागीर …ं **(वेळां)** काडचीं पडटात. येळां ल्हान वा मोठीं आसतात.

… सूप वा पाटलो करता आसतना तांकां पयलीं **मुदल** घालचें पडटा. पांटलो …चे पयलीं **तळ** करचो पडटा. मागीर जे तरेचे पांटलो जाय ते प्रमाण …ड (खूर) मोडचे पडटात; मागीर ताका आटो धरचो पडटा, उपरान्त …साण मेळपा पासत भायल्यान-भितरल्यान पटो धरचो पडटा. पांटलो …पापासत १६ मोठीं वेळां लागतात आनी १०-१२ ल्हान वेळां लागतात. … सुपाक लेगीत पयलीं तळ करचो पडटा. पूण सुपाक **अडन** करून (बडी …लून) **विंगचें** पडटा आनी बांदता आसतना **सरी** घालची पडटा. ही सरी …रीक आनी लवचीक आसता. सूप बांदता आसतना **गप्यांचो** उपेग करतात. …गपे माडाच्या चुडटा पासून काडटात.

**…पा विशीं इल्लेंशें:** सुपाक **अण्णी** लेगीत म्हणटात. गोंयच्या घरा कणकणीं …मकां सुपां पळोवंक मेळटात. हीं सुपां जायत्या तरांचीं आसतात. ल्हान-व्हड, लांब लेगीत आसतात. सुपां पुडांप्रमाण आसतात. कांय सुपांक दोन पूड (कोनशे) आसतात जाल्यार कांय सुपांक एक. जाल्यार कांय सुपांचे **पूड** (वा खूर) सामके लागीं आसतात पूण ते आकारान मात लांब आसतात. हे तरेचें सूप 'वारें' करपापासत शेतकार वापरतात.

**सुपाचे प्रकार**

**वाऱ्याचें सूप:** हें सूप एका पुडाचें आसता देखून ताका **पुडासूप** अशेंय म्हणटात. कांय कडेन **वाऱ्या सूप, बीं सूप, दिडसूप** लेगीत म्हटात. तें भाताचें वारें करपापासत शेतकामती वापरतात.

**तांदूळ आडसुपाचें सूप:** हें दोन पुडांचें आसता. ताका **आडसूप** लेगीत म्हणटात.

**सुपली:** हो सुपाचोच ल्हान प्रकार. नवे व्हॉकलेक आवयगेरसून येवपी **वज्या** वांगडा सुपली धाडची पडटा. चवथिच्या दिसांनी गांवांत नवे व्हॉकलेन दर एका घरांत **वायन** दिवपाची रीत आसा. त्या वेळार ह्या सुपल्यांचो उपेग जाता. (वायन दितना दोन सुपल्यो वापरतात.)

सूप गोंयकारांचें दिसपडटे जिणेंत सामकें उपेगाचें. देखून सुपावेल्यान साबार म्हणी लेगीत आमकां आयकुपाक मेळटात. देखीक,

१) आदनांतले रडटात, सुपांतले हांसतात
२) वल्लेंतय धरना, सुपांतय धरना
३) वारो येता तशें सूप धरचें
४) सुपभर कुंडो दिवन विकत घेतिल्लो/ल्लें.

**पाटलो:** मध्यम आकाराच्याक पाटलो म्हणटात. शेतकामती, नुसतेकार हांचो वापर करतात. व्हड आकाराच्याक **वोजें** म्हणटात. हे तरेचो पाटलो करपापासत २५ व्हडलीं वेळां लागतात आनी ल्हान २० ते २२ लागतात. भात भरपापासत ताचो उपेग जाता. आंब्याच्या वगतार असले तरेच्या वोज्यांनी आंबे भरून विकपाक व्हरतात. पदेर लेगीत हाचो वापर करतात, तेन्ना ताका वोजें म्हणिनात, **पाटें** म्हणटात.

**शिकार्नो:** हो पाटल्या भशेनूच आसता पूण आकारान ल्हान आसता. काजुच्या तेंपार मुट्टे, बियो एकठांय करपाक ताचो वापर करतात. तोरां, आंबे काडपापासतूय वापरतात तेन्ना ताका **शेलोवणो** अशें म्हणटात.

**पाटुलो:** हो पाटल्याचो सामको ल्हान प्रकार. चडसो मानशेर ताचो वापर जाता. चड करून सुंगटां घालपापासत.

**हातरी:** कांय जाग्यांर हातरेक 'हातर' अशेंय म्हणटात. आकारान ती खूब व्हड आसता. हातरेची रुंदी 'धा पावलां' तर लांबी 'वीस पावलां' आसता. शेतकारांक हातरी सामकी गरजेची! शेत मळटा आसतना 'वारें करपाक' उकडलेलें भात सुकोवपापासत तिचो उपेग करतात. आदल्या तेंपार दारांत

राजीव : हें आनी कितें विचारता ?
झरीना : मागीर कित्याक सोडली तिका ?
राजीव : हाची जाप दिवंक जावची ना म्हज्यान.
झरीना : सध्या खंय आसा ती ?
राजीव : म्हाका खबर ना.
झरीना : तिका सोदून हाडूंक जाय. ह्याच घरांत स्थान दिवंक जाय तिका. तिचो हक्क तो.
राजीव : ह्या घरांत ? ना. शीळ वगडायल्ले बायलेक ह्या घरांत स्थान मेळटलें कशें ?
झरीना : तिणें शीळ वगडायलें. आनी तुवें ?... तूं कितलो बरो तें जाणा न्हय तूं ? तुका बायल भोगूंक जाय. मागीर तिका दादलो कित्याक नाका ? आपल्यो वासना भागोवंक दादल्यांनी कितेंय केल्यार जाता... बायलो मात शीळभ्रश्ट जातात न्हय ?
राजीव : हें सगळें तूं कित्याक सांगता ?
झरीना : म्हाका हांगा रावप जमपाचें ना.
राजीव : कित्याक ?
झरीना : आज तिणें भोगलां तेंच फाल्यां म्हज्या नशिबांत कित्याक येवचें ना ?
राजीव : ना झरीना, तशें घडचें ना.
झरीना : म्हाका एकाद्रो दादलो पसंत पडल्यार ताचेवांगडा वच्चेलें स्वातंत्र्य मेळटलें ?
राजीव : म्हळ्यार हांव मानवना तुका?
झरीना : हांव फायचें विचारतां.
राजीव : असले पापी विचार येताच कित्याक तुज्या मनांत ?
झरीना : पाप तुवें केलें आनी परिणाम तुजी बायल भोगता. देखून येतात हे विचार.
राजीव : झरीना, तुका हांगा रावचें आसा काय ना ?
झरीना : म्हाका पयलीं म्हज्या प्रस्नाची जाप जाय.
राजीव : तुका म्हजेबगर दुसऱ्या वांगडा वचूंक मेळचें ना.
झरीना : म्हाका तुजे वांगडा रावपाचें ना.
राजीव : मागीर दुख्ख करून उपयोग जावचो ना. तुका आनीक एक संद दितां विचार करपाची.
झरीना : हांवें पुराय विचार केला. हांव वतां. तूंय परतो म्हजेकडेन येवं नाका.

[सीन सोंपता. परत पयलिंचो जागो. राजीव-निला उबीं.)

राजीव : आनी त्या खिणासावन हांव असों... निला, हांवें तुका परतें घरा व्हेल्यार ?
निला : चार वर्सांमदीं बसपी पयलिंचें उरूंक ना हांव आतां.
राजीव : तुका सगळे तरेचें स्वातंत्र्य मेळटलें.
निला : ताचोय उपेग जावचो ना.
राजीव : अशें कित्याक म्हणटा तूं ?
निला : त्या हातरुणाक आतां मवाल्याचो वास मारता.
राजीव : चूक जाली म्हळें न्हय.
निला : अशें म्हळें म्हूण चूक सुदारची ना.
राजीव : तें हांतरुणूय बदलूंया.
निला : मनां बदलूंक जातलीं ?
राजीव : फाटलें विसरूंक जाता न्हय !
निला : कितें कितें म्हूण विसरप ?
राजीव : फाटलें विसरप आनी नव्या जिविताक सुरवात करप.
निला : त्या मवाल्यान दिल्ल्या रोगाक विसरूंक जायत ?
राजीव : (अजापून) कितें ऽ !
निला : हय. वाडत आसा तो रोग हे कुडीर.
राजीव : ना.. निला ना. हें फट म्हण निला.
निला : फट कशें म्हणूं ? हें सत.
राजीव : मागीर तूं हांगा...
निला : दादले जातिचेर सूड घेतां; हांगा येवपी दर एकल्याक तो रोग दिवन. घरा भांगरावरी बायल आसतना जे हांगा शेण खावंक येतात तांकां ही ख्यास्त दिवंक बसलां हांव हांगा. तुका याद आसा, हांवें सांगिल्लें... सगळ्या बायलांक छळपी दादले जातीक तडफडायतलें म्हूण हांव.
राजीव : हय. आनी वेळ आयल्यार म्हजेरूय सूड घेतलें म्हूण सांगिल्लें. यो. घे सूड. आज तो वेळ आयला. हांवें केल्ल्या गुन्यांवाची ख्यास्त म्हाका दिवपाचो.
निला : ना. तुका दिवचें ना तो रोग हांव. तुका मेळ्ळां तितलेंच पुरो उरिल्लें जिवीत तडफडावंक. म्हाका लग्ना उपरांत जें कितें भोगयलें तेंच तूं आतां भोग. दुख्ख म्हळ्यार कितें तें कळूंक बरें तुका. चल तूं आतां. जमल्यार इतलेंच कर... झरीनाक देव बरें करूं म्हूण सांग. ताका कांयच न्हय म्हळ्यार एके बायलेचेर जाल्लो अन्याय कळ्ळो. एका दादल्याक जाप विचारचेलें धाडस केलें ताणें. पुरो म्हाका इतलेंच. गुडबाय राजीव...

[काळोख]

[उजवाड. पयलिंचेंच घर. तोच देखाव. झरीना भियेत भियेत येता.]

घरकार : कितें जाय आसलें ?
झरीना : अं... हांव...
घरकार : कोणाक सोदता ?
झरीना : हांव नोकरी सोदूंक आयल्यां.
घरकार : नोकरी आनी हांगा ? कसली ती ?
झरीना : म्हाका जॉनान धाडल्या हांगा. ताणेंच दिल्लो हो पत्तो.
घरकार : तुका अणभव आसा कामाचो ?
झरीना : ना !
घरकार : तुजें लग्न बी जालां ?
झरीना : लग्न... लग्न...
घरकार : हें पळे, मनांत कांयच दवरिनासतना सांग. आमकां सगळें कळ्ळेंबगर आमी हांगा कोणाक भितर घेनात.
झरीना : म्हजें जिवीत म्हळ्यार एक काणीच.
घरकार : सांग तूं ती.
झरीना : म्हाका – म्हाका एकल्यान फटयली.
घरकार : ऑं, अशें तर.
झरीना : म्हाका एक भुरगोय आसा. ताच्याच पोटाची चिंता आसा म्हाका.
घरकार : आरेरे, अशें घडूंक फाव नासलें. पूण चिंता करूं नाका. आमी दवरून घेतात तुका.
झरीना : (खोशयेन) खऱ्यांनीच ? आजवेर म्हजी काणी आयकून कोणेंच दारांत उबें करूंक नासलें.
घरकार : तुवें खरें सांगलें. आमी ताका मान दिलो. तुका काम मेळ्ळें...
झरीना : पूण कसलें काम करचें पडटलें म्हाका ?
घरकार : सगळें सांगतां तुका. निकतेंच आयलां. मात्सो विसव घे.
झरीना : पूण म्हाका जमत न्हय काम ?
घरकार : संवयेन सगळें जमता.
झरीना : देव बरें करूं तुमकां.

घरकार : बस तूं, येतां हांव.
(तो भितर वता. झरीना बसलां. निला भायर येता.)

झरीना : (निलाक पळोवन) तूं हांगा ?

निला : तूं हांगा कशें ?

झरीना : काम मागूंक आयिल्लें.

निला : तूं हांगा काम करतलें ?

झरीना : हय, म्हाका सिलेक्टूय केलां तांणी.

निला : नाका झरीना, तूं हांगा रावं नाका. नाजाल्यार तुजें निला जायत. चल... चल. तो भायर येवचे पयलींच वच.

झरीना : तूं कितें म्हणटा तेंच कळना म्हाका.

निला : न कळिल्लेंच बरें. पूण हांगच्यान वच एकदांचें.

झरीना : वोगीच वच म्हळें म्हूण वचूं ? कित्याक वच तें पयलीं सांग.

निला : कशें सांगूं तुका झरीना. आज तूं आयलां तशेंच हांवूय आयिल्लें काम सोदीत हांगा आनी...
(उतर तोंडांतूच उरता. उतरां थरथरूंक लागतात. इतल्यांत तो भितरल्यान येता.)

घरकार : वा निला, येवचेपयलींच ताचेकडेन इश्टागत जोडली. बरें केलें. नाजाल्यार तुजी गत कितें जाल्ली याद आसा मगो पयल्याच दिसा ?

झरीना : (अर्थ कळूंक नाशिल्ल्यान) पूण म्हजी कसलेंय काम करपाची तयारी आसा.

घरकार : व्हेरी गुड, व्हेरी गुड. आमकां हांगा असलींच मनशां जाय. पगार आमी भरपूर दिवं, पूण कामूय तशेंच करूंक जाय.

झरीना : हांव करीन तें.

घरकार : गुड. जॉन मात मनशां पारखुपी. जाय तसलींच मनशां धाडटा तो हांगा.

निला : लांडग्या जातिचो तो. कोण नडला आनी कोण फटवला तें बेस बरें कळटा ताका.

घरकार : कितें वायट करता तो ? कोणाकूय पोटाकूच लायता न्हय ?

निला : हय. आनी ताचेरूच आपणालें पोट भरता.

झरीना : भरतलो न्हय... आमचेसारक्या अडिल्ल्यांक पावता तें व्हडलें म्हणपाचें. नाजाल्यार आज कोणाचें कोणाक पडलां ?

घरकार : सारकें उलयलें... तुवेंच सांगून बरें केलें.
(तो उलयतनाच एक मनीस येता. ताच्या कानांत फुतफुतता.)

घरकार : (झरीनाक बोट दाखोवन) नवी आसा. सारकी सांबाळची पडटली. अजून कामाची वळख ना. हें पळे, तूं हाचेवांगडा वच. तो तुका काम समजायतलो. (झरीना उठून ताचेवांगडा भितर वता. निला कपलार हात मारता)

घरकार : कपलार सो हात मारलो ? तुजें गिरायक गेलें म्हूण ?

निला : न्हय, आनीक एक पडली हे घाणींत, म्हूण.

घरकार : आपूण लोळटा ताकाच घाण म्हणची न्हय निला.

निला : घाण आसल्यारूय ?

घरकार : नरकाक सर्ग मानून रावपी मनशां आसात ह्या संवसारांत.

निला : तीं तुजेसारकीं हैवानां... हांव नरकाक नरकूच म्हणन.

घरकार : तांतूंत तुजो लाव जाता आसत जाल्यार म्हण बाबडें.

निला : पूण तुवें तिका फटयली कित्याक ?

घरकार : हांवें कशी फटयली तिका ? हांव थोडोच आफोवंक गेल्लों तिका... ती आपूण जावन आयल्या तो म्हजो दोश ?
[इतल्यान भितरल्यान झरीनाच्यो किळच्यो आयकूंक येतात. 'सोड, सोड म्हाका... म्हाका वचूं दी... हांव हे खातीर येवंक ना हांगा... म्हाका असलें काम नाका... हांव तसलें न्हय... सोड म्हाका. पांयां पडटां हांव तुका...]

निला : अजूनय सांगशीत तिका फटोवंक ना म्हूण ?

घरकार : कांय जाणां नशिबान फटवतात ताका आमी कितें करतलीं ?

निला : निमाणें हेंच सांगतलो तूं.

घरकार : फट सांगलें तर हांवें ?

निला : हांव खंय जाणां ?

घरकार : तुजेंच उदाहरण घे. काय बरो संवसार करचो सोडून तूं हांगा आयलें. कोणें आफयल्लें ?

निला : पुरो... समजलें.
[भितरल्यान तो मनीस मुमुरख्यांनी हांसत येता. तोंडार जैताचे भाव. ताका दोळो मारून चलूंक लागता. फाटल्यान झरीना येता. ताचे कपडे चुरगल्यात. केंस पिसुडल्यात.]

घरकार : यो. रावतलें काय वतलें ? रावचेली सोय आसा... गेल्यारूय जाता. फाल्यां मात वेळार यो.

झरीना : हांव वतां... फाल्यांच न्हय, परत केन्नाच येवचें ना.

घरकार : (हांसता) एकदां हांगा आयिल्ल्याक परतें येवचेंच पडटा. निलाक विचार जाय जायार. हें घे तुजें भाडें. दर गिरायकाफाटल्यान भाडें मेळटलें. कितलीं गिरायकां घेवप तें तुवें थारावपाचें.

झरीना : (निलाक) हांवें तुजें आयकुपाचें.

निला : खूब कळाव जालो आतां.
[झरीना ताच्या तोंडाक पळेत उरता. काळोख.]

[गार्डनांतलो एक बांक. राजीव बसला. जॉन हातांत सोऱ्या बाटली घेवन येता.]

जॉन : घे इश्टा. मार फॉल्ग.

राजीव : देव बरें करूं.

जॉन : सोंपतकूच सांग. दुसरी हाडून दवरल्या.

राजीव : देव खुब्ब बरें करूं तुजें. खाशेलो भाव लेगीत करचोना इतली वासपूस करता तूं म्हजी. आमचें पयल्या जल्माचें नातें आसतलें.

जॉन : नातें आसतलें काय रीण आसतलें ?

राजीव : कितेंतरी आसुंकूच जाय. नाजाल्यार इतल्या मोगान तूं म्हजी वासपूस कित्याक करतलो आसलो ?

जॉन : इश्टा, सोरो तो. कोणूय कोणाक दिता. एक मतींत धर. तूं उपाशीं आसल्यार तुका कोण वाडचो ना. पूण सोरो मागल्यार मात रोखडोच दितलो.

राजीव : म्हळ्यार ?

जॉन : हाकाच संवसार म्हणटात इश्टा...

राजीव : संवसार म्हळ्यार सोरो ?

जॉन : न्हय. संवसाराक सोरो म्हणप म्हणचे सोऱ्याचो अपमान करप. सोरो खूब बरो... संवसार न्हय.

राजीव : खरें तुजें इश्टा. सोरो खूब बरो. बाबडो सगळें विसरायेर घालूंक उपकारता.

जॉन : पूण अशें कितें विसरूंक सोदता तूं ?

राजीव : कितें सांगतलों इश्टा ? बायल आसतना दुसरेचेरूच मोग केलो – झरीनाचेर, आनी ती वतकूच सोऱ्याचेर मोग करतां.

जॉन : आरे पूण झरीना गेल्यार कितें जालें ? तुवें असो...

राजीव : बेबदो जावपाचो न्हय. अशेंच मरे ? जमल्यार बायलेक घेवन बसपाचें. अशेंच म्हणटलो मरे तूं ? हांवूय तेंच चिंततालों. पूण म्हजी बायल ? ती... ती...

जॉन : कितें जालें तिचें ?

राजीव : तिचें कितें जातलें ? जें जालें तें हांवेंच घडोवन हाडिल्लें.

जॉन : तुजें मोगी कोण म्हळें तुवें ? झरीना ?

राजीव : हय ! कित्याक ?

जॉन : झरीना...

[काळोख. एके कुशीक उजवाड. झरीना हुडक्या हुडक्यांनी रडटा. जॉन येता.)

जॉन : (हेवटेन तेवटेन पळेत) कित्याक रडटा तूं ? कितें घडलां ? म्हाका सांगल्यार हांव मदत करूंक पळेतलो आसलों.

झरीना : कांयच गरज ना. तुमी सगळे दादले एकेच जातिचे.

जॉन : कोणें फटयली काय कितें ?

झरीना : तूं उद्धार करता म्हजो ?

जॉन : हांव राम न्हय. हांव जॉन !

झरीना : मागीर चवकशी कित्याक करता ?

जॉन : तुजेर बरोच अन्याय घडला आसूंक जाय.

झरीना : म्हजेर न्हय... म्हाका लागून एके बायलेचेर अन्याय घडला.

जॉन : दुसऱ्याचो विचार आपणें कित्याक करचो ?

झरीना : तेंय चुकलें म्हजें.

जॉन : अजून सुदारूं येता.

झरीना : सुदारूंक जमतशें दिसना म्हाका.

जॉन : कित्याक ?

झरीना : पोटाची वेवस्था पयलीं पळोवंक जाय.

जॉन : इतलेंच मू ? हांव करतां ती.

झरीना : म्हाका कोणाची भीक नाका.

जॉन : भीक घालता पूण कोण ?

झरीना : मागीर पोट भरप तरी कशें ?

जॉन : खंयूय काम करूं येता.

झरीना : पूण म्हजें शिकप चड जावंक ना.

जॉन : शिकपाक आनी कामाक संबंध ना. काम करचेली खोस आशिल्ल्याक काम खंयूय मेळटा. तूं कसलेंय काम करशी ?

झरीना : कसलेंय.

जॉन : जालें तर !

झरीना : केन्नाच्यान मेळटलें ?

जॉन : आतांच्यान.

झरीना : (अजापान) आतांच्यान ?

जॉन : हय. हांव दितां त्या नाम्यार वच आनी थंयच्या घरकाराक मेळून म्हजें नांव सांग. काम मेळटलेंच.

झरीना : देव बरें करूं.

जॉन : पूण तुजें नांव ?

झरीना : झरीना.

जॉन : झरीना...

[काळोख. पयलिंचो देखाव.]

राजीव : कितें जालें इश्टा ? पळेत सो उरलो ? तूं वळखता ताका ?

जॉन : ना रे. पूण म्हज्याय जिवितांत एक झरीना आयिल्लें.

राजीव : आज खंय आसा तें ?

जॉन : बऱ्याक पावलां.

राजीव : पावपाचेंच. बऱ्या मनशान वाट दाखयतकूच ते वाटेन वपची बऱ्याकूच पावपाचे. नाजाल्यार म्हजेसारके...

जॉन : तूं वायट मनीस ?

राजीव : हय. म्हजेइतलो वायट मनीस संवसारांत मेळचो ना.

जॉन : अशें कित्याक म्हणटा तूं ?

राजीव : हांवें जायतें वायट कर्म केलां. बायलेक सोडून दुसऱ्याचेरूच मोग केला. आनी घर विकून सोऱ्याक लागीं धरला.

जॉन : पिये तूं... जाय तितलो पिये. मातूय चिंतूं नाका.

राजीव : आतां तेंच करपाचें.

जॉन : पूण तुजी बायल आतां खंय आसता ?

राजीव : ती... ती... धंद्याक लागल्या... पेड्ड्यार जाल्या.

जॉन : नांव कितें तिचें ?

राजीव : नांव... नांव... निला.

जॉन : निला... म्हळ्यार...

राजीव : कितें जालें इश्टा ?

जॉन : कांय ना. तूं मेळ्ळो तें एक बरें जालें. तुज्या रिणांतल्यान मेकळो जातां. पिये तूं पोटभर पिये.

राजीव : पूण इश्टा, दुसऱ्यांक सोरो घालूंक तूं इतले दुडू खंयसून हाडटा ?

जॉन : आरे बाबा, दुडू म्हणटात ते मेळोवंक कळूंक जाय.

राजीव : पूण अशें काम तरी कसलें करता तूं ?

जॉन : चुकिल्ल्या शेणिल्ल्या बायलांक कामाक लावपाचें.

राजीव : बरें काम... पूण हांतूंत दुडू मेळटात ?

जॉन : सांगलें न्हय, कसलेंय काम करतना तकली वापरली की दुडवांची रास पडटा म्हऱ्यांत.

राजीव : म्हाका शिकयशीत असलें काम ?

जॉन : शिकपाची इत्सा आसल्यार.

राजीव : इत्सा आसा पूण काम जमत ?

जॉन : मनांत आसल्यार कितें जमना ?

[ते उलयतात इतल्यांत निला आनी झरीना येतात.]

निला : हाय जॉन...

झरीना : तूं नाच मरे हालीं.

निला : नवें बी कोणूय सापडावंक ना जाल्यांत ?

जॉन : खरें तर हांव सोदीत आसां पूण मेळच ना.

निला : तें कळ्ळें. नाजाल्यार आनीक एकलें नरकांत पडपाचें.

जॉन : (हांसता) कसो चल्ला तुमचो धंदो ?

झरीना : ह्या दिसांनी गिरायक उणें.

जॉन : गिरायक हाडूंक जाय तर हाका सांगुया. ताकाय काम जायच.

झरीना : कोण हो ? (ताका पळेता. दोगांयची नदरानदर) तूं ?

राजीव : तूंय हांगा ? जॉन...!

[चवगांय एकामेकांक पळेत उरतात. काळोख.]

* * *

# भारत-थायलँडाक जोडपी सेतू : बौद्ध धर्म

चंद्रकांत केणी

''भारत भगवान बुद्धाचो देश जाल्ल्यान भारतांतल्यान येतलो मनीस बुद्धाचे भुंयेंतलो मनीस अशें थाय लोक मानतात आनी ताका खूब मान दितात.'' म्हज्या सांगातान आशिल्ल्या प्रोफेसर करुणा कुशलसाया हांणी म्हाका सांगलें.

पाचूच्या बौद्ध मंदिराच्या प्रांगणांत आमी उबे आसले. मुखार मंदिराचो विस्तार, तरेकवार आकारांचीं कितलिशींच शिखरां, स्तुपां आनी कळस. सगल्यांचो रंग भांगराचो. आकार वेगळो वेगळो. कळसाची उंचाय जमेक धरली जाल्यार एक व्हडले वीस मजली इमारती इतली आसतली. भोंवतणचो घेंक उणोच एक चौखण मैल आसतलो. ती भव्यताय आनी दिव्यताय चकचकीत वताक लागून, निवळ निळ्या मळबाक लागून चडच सुंदर दिसताली. दारांतच एक पिटकोळेचें झाड आसा. त्या झाडाचे सावळेंत आमी उबे राविल्ले. झाड विशाल आनी ताका सत्रेचो आकार दिला. सूर्य माथ्यार आशिल्ल्यान झाडा मुळांतच सांवळी पडटा. पांयापोंदाक शितळ तांचवें तण. देवळांत जळीं मळीं ल्हान-व्हड झाडां. सगल्या झाडांक तासून-कापून सोबीत आकार दिला. तरी कृत्रीमपण दिसना. ज्या झाडामुळांत आमी राविल्ले, त्या झाडाक पिटकोळेच्या तांबड्या फुलांचे आनी कळयांचे व्हडले घोंस दिसले. हांवें पाकळ्यो मेजल्यो. थायलंडचे पिटकोळेक लेगीत बाराच पाकळ्यो.

हांवें प्रा. करुणाक म्हळें, ''तूं भायतीयां विशीं थाय लोकांक दिसतल्या आदराची गजाल सांगता. म्हाका विमानांत एक थाय चली मेळिल्ली. तिणें म्हाका सांगिल्लें, आयज भारताविशीं आदलेवरी आदर उरूंक ना.''

शुद्ध हिंदी उलोवपी प्रा. करुणा मेकळेपणान हांसलो आनी ताणें म्हळें, ''थोड्या भोव प्रमाणांत दुर्दैवान तशें घडलां हें खरें. पूण अजून परिस्थिती हाताभायर वचूंक ना. आमच्या लोकांचीं दोन दैवतां – बुद्ध आनी राम. अयोध्येचो राम. जे मेरेन हीं दैवतां आमकां पुज्यच उरतलीं ते मेरेन भारताविशीं आमी कसलेय शीण काडले वा कितल्योय कागाळी केल्यो तरी भारतभूंय आमची पुण्यभूंय उरतली. मुसलमानांक मक्का आनी किरिस्तांवांक रोम जितले पवित्र ताच्याकय कांकणभर चडच आमकां भारत पवित्र दिसता. आतां आमी प्रयत्न करूंक जाय. त्यो आदल्यो चुको सुदारून भारतीय आनी थाय लोकांमदली इश्टागत वाडोवपाखातीर...''

हांव ताचेकडेन सहमत जालों. म्हाका दिसलें, आमी संस्कृतायेच्या नांवान जें कितें खपोवपाचो यत्न करतात ताका थायलँडांत बाजारपेठ ना. पूण थायलँडच्या लोकांच्यो धर्मीक भावना मतींत घेवन आनी खिणभर धर्मकुड्डेपण कुशीक दवरून आमी भगवान बुद्ध आनी रामायण हे भारत-थायलंडाक जोडपी सेतू करूंक जाय.

म्हज्या मनांतले विचार समजल्ले भाशेन प्रा. करुणान म्हळें, ''थायलंड हो ल्हान देश. तरी स्वतंत्र आनी संपन्न. पूण बुद्ध धर्माचो विस्तार, रामकथेचो प्रभाव थायलंडा पुरतोच मर्यादित ना. दक्षिणपूर्व आशियांत... खिणभर अशें म्हणूं येता, लडाखा सावन जपाना मेरेन हो प्रभाव पातळिल्लो आसा. भारताकडच्यान ह्या देशाची अपेक्षा वेगळी आसा. भारत सरकार ती वळखना.''

आदल्या दिसा आमी थामासात (धर्मशास्त्र) विद्यापिठांत रामायणा वयलें एक थाय नृत्यनाट्य पळयिल्लें. रामायणाक थाय लोक रामाकीन (रामकीर्त) म्हणटात. खरें म्हळ्यार, थाय भास बरोवपाखातीर एक स्वतंत्र लिपी ते वापरतात आसले तरी थाय भाशेंत संस्कृत आनी पाली भासांतली पन्नास टक्क्यांपरस चड उतरां आसात. थाय लिपयेची प्रकृती देवनागरी सारकीच. स्वर आनी व्यंजनांची वेवस्था आमचेकडेन आसा तशीच. मात्रा, काने आनी उकार तांचे लिपयेंत आसात. पूण थाय मनीस उलयता आसतना चिनी उच्चारांत उलयता. ताका लागून 'धर्म' ह्या उतराचो उच्चार 'थाया' असो जाता आनी 'शास्त्र' हें उतर 'सात' अशें ते उच्चारतात. जाका देवनागरी लिपी समजता तो शुद्ध उच्चार बरोवन दाखयता. प्रा. करुणा हांणी म्हाका अशा कितल्याशाच उतरांची एक वळेरीच दिली. देखीक फॅक्स ह्या उतराक थाय भाशेंत 'दूरपत्र' हें उतर घोळटा. टेलिविजनाक तेय लोक 'दूरदर्शन' म्हणटात. तांचेकडेन चैत्र ते फाल्गुन मेरेन बारा म्हयने आसात आनी इंग्रजी म्हयनेय ते वापरतात. पूण वर्स मात बौद्ध घेतात.

## पाचूचो बुद्ध

आमचे फाटले वटेच्यान एक रूंद न्हंय व्हांवता. ते न्हंयंत बोटी घोळटात. त्या बोटिंनी पर्यटक पाचूच्या बुद्धाच्या मंदिराचे देगेर देंवतात.

पर्यटकांमदीं आशियाच्या हेर देशांचे पर्यटक जशे आसात तशेच युरोप-अमेरिकेकडलेय पर्यटक आसात.

''आमी आदीं मंदीर पळोवन घेवंया... तुज्यान कितलें जाता तितलें तूं पळय. कळसाचेर, स्तुपांचेर चडपाचीय तजवीज आसा. देव (बुद्ध) दर्शनाक वतना जोतें काडचें पडटलें. उपरांत हांगाच येवंया. उपरांत हांव ह्या मंदिराची माहिती तुका दितां... ही फाटले वटेन आसा ती चावो फ्या न्हंय. ही आमची गंगा.'' प्रा. करुणान सांगलें.

देवूळ भोंवतां भोंवतां पुरो जालें. पूण सगळें देवूळ पळोवन सोंपलेंना. आमी देवदर्शनाक आयले.

उकतो देवारो. सगल्यांत वयर पाचूच्या बुद्धाची प्रतिमा. सकयल आनी कुशीक हेर खूबशो प्रतिमा. हेर भाविकां भाशेन आमी मांडी घालून बसले आनी जमनीक माथें तेंकोवन बुद्ध देवाक नमस्कार केलो.

देवदर्शन सोंपोवन भायले वटेन आयले तेन्ना वणटी वयलीं तरेकवार रंगीत चित्रां नदरेंत भरलीं.

''हीं चित्रां पळय. ह्या चित्रांनी रामकथा चित्रायल्या.'' प्रा. करुणान म्हाका सांगलें.

चित्रां खूबच सुंदर आसलीं आनी जाका रामायणाची कथा खबर आसा ताका तीं समजावपाची गरजय नासली. दशरथाच्या दरबारासावन राम परत अयोध्येक पावसर तरेकवार प्रसंग ह्या चित्रांनी दाखयल्ले.

''आमची रामकीर्त मातशी वेगळी आसा.'' प्रा. करुणान म्हळें. ''वाल्मिकी रामायणांत मारुती हो अखंड ब्रह्मचारी दाखयला. पूण आमचे कथेंत मारुती मदीं लग्न जाता आनी तागेर एक भुरगो जाता असो प्रसंग आसा.''

त्या प्रसंगाचें चित्र पळयतां पळयतां एका आश्रमाच्या दारांत एक ऋषी ध्यानस्थ बसला आनी थंय एक ल्हान भुरगो उबो आसा असो देखाव दिश्टी पडलो.

''हो खंयचो प्रसंग?'' हांवें प्रा. करुणाक विचारलें.

''हनुमानाचोच.'' ताणें म्हळें. ''लग्ना उपरांत संन्यास घेवन मारुती तपाक बसता अशें आमचे कथेंत आसा. त्या वेळार तागेलो चलो ताका मेळूंक येता आनी खाडमिशयो वाडिल्ल्या ऋषीक पळोवन तो भियेता. तेन्ना हो पळय मारुती आपलें मूळ रूप धारण करून पुताक दर्शन दिता.''

प्रा. करुणान म्हाका वानररुपी हनुमान झाडाचेर बशिल्लो दाखयलो. हनुमानाचो उच्चार तो 'अनुमान' करतालो. ताका लागून केन्ना केन्नाय गोंदळ जातालो.

''ह्या चित्रांचें वेगळेपण तुवें पळयलां?'' ताणें म्हाका विचारलें. ''ह्या सगल्या चित्रांचे तोंडावळे भारतीय आसात. फकत सीतेचें तोंड मात थाय सुंदरेसारकें आसा.''

## रामाचें राज्य

''हें देवूळ अठराव्या शेंकड्याच्या निमाण्या दसकांत बांदिल्लें. तेन्नाच्यान हीं चित्रां हांगा आसात. तुका एक गजाल सांगपाची उरली. आमच्या देशाच्या राजाक राम हें नांव आसता. आमचो पयलो राजा राम हो सतरा वर्सां सत्तेर उरलो. (इसवी १७८२ ते १८०२) ताणेंच हें बँकॉक शार बांदलें. त्या वेळार ह्या शाराक रतनकोशीन म्हणटाले. आपल्या राजवाड्या लागसारच ताणें पाचूच्या बुद्धाचें हें देवूळ बांदलें.''

''बौद्धधर्मीय राजान राम हें नांव धारण करपाचें कारण कितें?'' हांवें विचारलें.

''तेंच तुका सांगतां. बुद्धाचो धर्म हांगा पावलो ते आदीं हांगा रामायण पाविल्लें. घडये सगले लोक धर्मान हिंदूच आशिल्ले जावंये. भारताकडेन ह्या वाठाराचो संबंद आसलो. चक्रवर्ती अशोक राजान बुद्धाचो संदेश घेवन भगवीं वस्त्रां धारण केल्ले भिक्षूक हांगा धाडले आनी तांणी राम आनी बुद्ध हांच्यांत सुमेळ घडोवन हाडलो.''

''आंगकोरवटचें देवूळ अजून आसा न्हय?'' हांवें मदींच प्रा. करुणाक विचारलें.

''आंगकोरवट आनी आंगकोरथन हीं देवळां कांपुचियांत आसात. हीं बाराव्या शेंकड्यांतलीं हिंदू देवळां. सूर्यवर्मा राजान तीं बांदिल्लीं. बँकॉक मेरेन आयलाच जाल्यार तूं ती पळोवन यो. त्या देवळांत विष्णूची मूर्त आसा'' अशें सांगून प्रा. करुणान म्हळें, ''हिंदू धर्माचो विस्तार आदल्या काळार जाल्लो ताची ती गवाय. थायलँडांत आयज हिंदू लोक आसात. पूण ९० टक्के थाय लोकांचो धर्म बौद्धच म्हणूंक जाय.''

''तूं म्हाका राजाविशीं सांगतालो...'' मूळ विशयाचो हांवें ताका उगडास करून दिलो.

''हय. सध्या थायलँडांत लोकशाय आसा. भारता भाशेनूच लोकनियुक्त संसद आनी मंत्रीमंडळ आसा. तरी थाय लोक राजाक खूब मान दितात. सध्या णववो राम सत्तेर आसा. ताचें नांव सम्राट भूमिबोल अदुल्यतेज... मूळ उतर 'भूमिपाल'. थाय उच्चाराक लागून तें भूमिबोल जाता. ताच्या राज्याभिषेकाचो भांगरा वर्स उत्सव आमच्या देशांत सध्या मनयतात. बुद्ध पुनवे दिसा हो उत्सव सोंपतलो. राजा हो सध्या निखटो घटनाप्रमुख. पूण लोकांच्या काळजांत ताचें स्थान देवा फाटोफाट आसा.''

आमी ल्हवू ल्हवू देवळाच्या प्रांगणांतल्यान दुसरे वटेन आशिल्ल्या सत्रेच्याच आकाराच्या झाडामुळांत आयले. कुशीकच एक काऊंटर आसलो. थंय शीतपेयां विकतीं मेळटालीं. बियरिचीं टिनां आसतात त्या आकाराचीं टिनां. मोलाचें नाणें भितर घालून जें टीन जाय तो बटन दामलो म्हणटकच टीन सकयल येतालें. नाणें चुकलें जाल्यार तें परत येवन मशीन थाय भाशेंत शिटकावणी दितालें. आमी आल्याच्या रोसाचीं टिनां घेतलीं आनी झाडाचे सावळेक आयले.

ह्या झाडाचोय आकार सत्रे सारको आसलो. पूण झाड चिंचेचें आसलें. चिंचेबोटां हुमकळटालीं आनी भुरगीं उडक्यो मारून तीं तोडून खातालीं.

रस्त्यांनी भोंवता आसतना, चड करून पोरण्या वाठारांत, बायलो चिंचेबोटां पाट्यांत घालून विकूंक बशिल्ल्यो हांवें पळयिल्ल्यो. कॉलेजांत वचपी भुरगीं तीं विकतीं घेवन खातात तेंय पळयिल्लें.

प्रा. करुणान सांगलें, ''हें येदें व्हडलें देवूळ फकत दोन वर्सां भितर बांदून जालें. ह्या देवळांत आमचो राजा नित्य पुजा करता. राजघराण्याचे सगले विधी ह्या देवळांत जातात. हांगा प्रवचनां जातात. तशें सगलें देवूळ दोन वर्सांनी बांदून जालें ना. पूण मुख्य देवळांत १७८४ वर्सा बुद्धाची पाचुची मूर्त बसयली. ते मुर्तिचीय वेगळी काणी आसा.''

पाचुचे बुद्ध मुर्तिचो इतिहास थाय लोक मोठ्या अभिमानान सांगतात. एका अखंड पाचव्या खडपांतल्यान कोरांतिल्ली ही मूर्त उत्तर थायलँडांत १४३४ वर्सा सांपडली. तो एक योगायोगच जालो. एका बौद्ध स्तुपाचेर जोगूल कोसळ्ळें आनी धवे मातयेचो बुद्धाचो एक पुतळो वयर सरलो. धर्मगुरून तो आपल्या घरांत हाडून दवरलो. एक दीस पुतळ्याक भायले वटेन लायिल्ले मातयेच्या धव्या थराचो नाकाकडचो कुडको निखळ्ळो आनी भितरलो पांचवो रंग नदरेंत भरलो. धर्मगुरून मातयेचें आवरण काडून उडयलें तेन्ना पाचू पसून तयार केल्ली बुद्धाची सुंदर मूर्त पळोवन सगळे विस्मीत जाले. हे मोलादीक मुर्तिचें दर्शन घेवंक लोकांची गर्दी जावंक लागली. उत्तर थायलँडांतल्या चियेंगग्राय शारांतली ही खबर. तें शार तेन्ना चियेंगमायच्या राजाच्या ताब्यांत आसलें. राजान मुर्तिची खबर हाडली आनी ती मूर्त चियेंगमायक हाडचे खातीर एक हत्ती चियेंगमायक धाडलो. धाडिल्लो हती अर्द वाटेर पळून वचूंक लागलो. तीन खेपे अशें घडलें. निमाणें राजाक दिसलें, देवाची इत्सा वेगळी आसा म्हणून अशें घडटा. पूण १४६५ वर्सा नवो राजा सत्तेर आयलो आनी ताणें प्रयत्न करून ती मूर्त चियेंगमायक हाडली आनी एक व्हड स्तूप बांदून तिची प्रतिश्ठापना केली. १५५८ वर्सा त्या राजाक मरण आयलें. ताका वारस नासलो. तागेली एक कन्या लाओसच्या राजाची बायल आसली. तिगेल्या १५ वर्सांच्या राजकुंवराक चेंगमाय राज्याचो राजा म्हणून राज्याभिषेक जालो. ताचें नांव राजकुमार चैचेत्य. पूण दुसऱ्याच वर्सा ताचो बापूय मेलो आनी आपलें राज्य सांबाळूंक राजा लाओसाक गेलो आनी वतना ताणें बुद्धाची पाचूची मूर्त व्हरून राजधानी लुआंग प्रभांगात तिची प्रतिष्ठापना केली. थंय ही मूर्त १२ वर्सां उरली. लाओसचेर बर्मी आक्रमण जालें आनी राजधानी ब्रह्मदेशाच्या ताब्यांत वतकच लाओसची राजधानी विएन्तियान शारांत आयली. थंय ही मूर्त २१४ वर्सां उरली.

१७७८ वर्सा थायलँडच्या सरसेनापतीन विएन्तियानचो ताबो घेवन पाचुची मूर्त परत थायलंडांत हाडली. होच सरसेनापती फुडें राजा जालो, जाका पयलो राम म्हणून वळखतात. ताणेंच हे मुर्तिची बँकॉकांत प्रतिष्ठापना केली.

ऋतु बदलता तशीं वर्सांतल्यान तीन खेपे मुर्तिच्या आंगावयलीं वस्त्रां बदलतात. पावसांत, गिमांत आनी शियांत भेस बदलपाचो उत्सव ह्या मंदिरांत जाता. पद्मासन घालून बशिल्ले हे मुर्तीन उजवो पांय दाव्या पांयाचेर दवरिल्लो आसा. ही मूर्त भारतांत वा श्रीलंकेंत तयार जाल्ली आसुंये असो जाणकारांचो अभिप्राय आसा.

## बौद्ध मंदिरां

बौद्ध मंदिरांचो बारीक तपशील दितलों जाल्यार खूब आसा. भांगराच्या रंगाचो आनी खऱ्या भांगराचो पुराय मंदिरांत खूब वापर जाल्लो नदरेंत

ता. थायलँडची बौद्ध मंदिरां हो एक स्वतंत्र ग्रंथाचोच विशय. एका बँकॉक शारांतूच सुमार चारशें बौद्ध मंदिरां आसात आनी दर एक मंदिर म्हळ्यार वास्तुशिल्पाचो आगळो-वेगळो नमुनो.

थायलँडाचे लोकजिणेविशीं फुडें केन्ना तरी बरोवपाचें मनांत आसा. बौद्ध धर्माच्या प्रभावाविशीं आनीक दोन गजाली ह्याच संदर्भांत सांगप जातलें.

बौद्ध धर्म हो थायलँडाचो राष्ट्रीय धर्म. बँकॉक शारांत लेगीत सकाळच्या पारार भगवीं वस्त्रां धारण केल्ले, चड करून एक भगवी लुंगी आनी वयल्यान शाल पांगुरिल्ले सगल्या पिरायांचे भिक्षू भिक्षा पुंजावपा खातीर भोंवतात दिश्टी पडटात. दर एका रस्त्याचेर, दर एके गल्लेंत आनी बोळांत पळोवणक बौद्ध भिक्षू भिक्षांदेही म्हणीत भोंविल्ले पळयतकच एका वेगळ्याच वातावरणांत पाविल्ले भाशेन दिसता.

''इतले भिक्षू आसप म्हळ्यार एक विक्रमच म्हणूंक जाय.'' हांवें प्रा. करुणाक विचारलें.

## भिक्षूंची दीक्षा

''थाय समाजांत अशी प्रथा आसा की, दर एका थाय नागरिकान एक वर्स दिक्षा घेवन भिक्षू जावचें आनी उपरांत तो आपली सामान्य जीण जगूंक मेकळो उरता. आमच्या समाजांत भिक्षूंक खूब मान आसा. भिक्षू भिक्षेच्या रुपान जमिल्लें अन्न शिजोवन खातात.'' प्रा. करुणान सांगलें.

''ह्या नेमाक आडवाद ना. राजाक लेगीत तो नेम लागू जाता. आनी एक गजाल तुका सांगचेली उरली. राजकुंवराक राज्याभिशेक जावंचे आदीं तो एक वर्स भिक्षूचो धर्म आचरता आनी त्या काळार आपले प्रजेची जीण उकत्या पांयांनी भोंवन पळयता. उपरांत ताका उपनयन धारण करपाचो विधी जाता.'' सहज उलोवंचें तशें प्रा. करुणा उलोवन गेलो.

म्हाका दिसलें, हांवें आयकुपांत चूक केल्या. देखून हांवें परत विचारलें, ''कसलो विधी?''

''उपनयन म्हळ्यार समजलो ना?'' अजापान प्रा. करुणान म्हळें. ''जानवें धारण करपाचो संस्कार. हो एक राजघराण्यांतलो व्हडलो दबाजो आसता. बौद्ध आनी हिंदू धर्माचें सहजीवन म्हणचें ते भाशेन हिंदू ब्राह्मणाक हाडून राजघराण्यांत उपनयन संस्कार जाता आनी उपरांत नांगर हातांत घेवन राजा शेत नांगरूंक वता. सामान्य शेतकामत्याभाशेन तो शेतांत काम करता... भूमिपाल तो! ताका भुंयेची माया आसूंक जाय. देखून हो संस्कार.''

फोनाची बॅल वाजली. प्रा. करुणान आपल्या शर्टाच्या वयल्या बोल्सांत आशिल्लो सॅल्युलर फोन काडलो. सेमिनार सुरू जाल्ली आनी आमी बेगीन येवंचें असो धर्मशास्त्र विद्यापिठांतल्यान संदेश आयिल्लो.

एकदम प्रा. करुणान ताकतीक केली आनी आमी वातानुकूलीत मोटारींत वचून बसले. चावफ्राय न्हंयचे देगेर मोटार धांवतना पुरातन बौद्ध संस्कृती आनी अर्विल्ली अमेरिकी संस्कृती हांचे सहजिणेचीं प्रतिकां पळयत हांव ह्या देशाक वाखाणटालों. हांगा बॉल आसात आनी एक्सप्रॅस हायवेचे फ्लायओव्हर आसात न्हंयंत भोंवतलीं व्हडीं आनी बोटी आसात आनी मनशा कणकणीं सॅल्युलर फोन आसात. अस्तंती शिल्पांच्यो भोवमजली इमारती आसात आनी परंपरागत बसकीं घरां आनी मळबाक माथें तेंकोवपी कळसाचीं विशाल मंदिरां आसात. सोरो वर्ज्य आशिल्ले बौद्ध भिक्षू हांगा नुस्तें-मांस खावंक संकोच करिनात... खऱ्यांनीच, थायलँड म्हळ्यार नांवा भाशेनच मुक्त देश!

✻ ✻ ✻

# हांव

□ **शंकर रामाणी**

हांव म्हाकाच सोदतां..

म्हजे नदरेक
खोट्या भेरेल्ल्या पयशाक
बेगड लावन रुपयाचें रूप
दिल्लेवरी दिसाचो शेळो
उजवाड.
हरशीं शिसवी देवाऱ्यांतलो
काळो शाळिग्रामसो
काळोख.

भितल्ली नदर:
सदांच न्हाल्लीधुल्ली
माघांतले मनमेकळे
मोगरे-रातिच्या मळबाक
सुरंगा-वळेसर माळिल्ले भशेन वाटकुळी
देग;
शिंयाळ्या मळबा ताळ्ये –
ताळ्येर सवण्या-सुकण्यांचे म्होंवाळ
सूर आनी खिणाखिणाक
दिगंतेचे दिकेन साद घालपी
जाय जुयसो पर्मळीत उजवाड
– एक सुगंधी
सासाय!

थंयच
हांव एकलो
एकसुरो म्हजे म्हाकाच
मेळटां...

# प्रज्ञेवंत मन

□ **प्रकाश पाडगांवकार**

नदरे मुखार विस्तारिल्लीं ब्रह्मांडाचीं दारां
प्रज्ञेवंत मन ओडटा अनंतताये दोरां

ओंठांतल्यान एकेक उतर मळब ॐकारायता
बिंब म्हजें सोदीत अळंग मुक्त पैसावता

देहा उर्जा रसण प्रक्रिया ऋतू ऋतूंक फळां
बिये बियेंत उजवाड प्रसवण रुजयताना मुळां

नदरे मुखार विस्तारिल्ली रसणायेचीं चित्रां
सासणाखातीर हींच जातात मुळावणां स्तोत्रां

# सवण्यांच्या कुळारा

□ **परेश नरेंद्र कामत**

सवण्यांच्या कुळारा
धन सुरांचें धन;
चंदनाच्या पावलांनी
बन शिर्शिरता बन

मळबाचे पाय-वाटेर
पैंजण-पावलांचे सुवाळे;
शिशिराच्या पालवान
नदरेन भिऱ्यांचें आळें

कुरवांच्या दिकांनी
लय सुरांचो भार;
पैल घोंटेरांच्या पैल
पक्षांची पुरल्या वार...

खोल, दिगंत खोल
निळी अथांगाची साय;
सवण्यांच्या देवळांत
मळबाची सासाय

नदर-सुखाच्यो यादी
पैस नदरे पैलाड;
सूर-संगमाचे पक्षी
मन-मळबाच्या आड...

# शेणिल्लो गांव

□ नूतन साखरदांडे

म्हजो एक गांव शेणला
शेणिल्ल्या गांवांत म्हज्या
एकलो एकसुरो अपुरबायेचो
वाट चुकिल्लो भाव शेणला

म्हजो एक गांव शेणला
शेणिल्ल्या गांवांत म्हज्या
आज्यान उमेदीन बांदिल्ल्या
घराचें घरपण शेणलां.

त्या घराक आंगण आसा
वाट पळोवपी दोळे नात
आंगणांत त्या झाड आसा
फांतोडेर फुलपी कळे नात

त्या घरांत तुळस आसा
तुळशी कडेन वात ना
नित्यनेमान वांत लावपी
थरथरपी हात ना

चुड्याची खणखण ना
पदराची सळसळ ना
पाटी ना दप्तर ना
आपालिपाचो खेळ ना

थोडें आशिल्लें शेणलां
थोडें नाशिल्लें शेणलां
सोबीत सुंदर यादिंचो
म्हजो एक गांव शेणला

म्हजो एक गांव शेणला
त्या गांवचें नांव शेणलां
पांचव्याचार गांवांत त्या
म्हजें मायेचें कुळार शेणलां.

# वर्तमान (मुक्तछंद)

□ प्रभाकर नाडकर्णी

१.
विचारनाकात म्हजो भूतकाळ
आयकुपाचें ना म्हाका फुडारचें
जाय म्हाका फक्त वर्तमान –
आयज, आत्तां, ह्या खिणाक
जगून घेवपाचें,
तगून रावपाचें,
मेळटा तें सूख ओरपावचें,
– तेंच वर्तमान.

२.
प्रभु येशूक एका शिष्योत्तमान विचारलें
निमाणें हाचें अखेर कितें?...
आसतलें कशें?
शांतपणान येशून बोध केलो –
"आयकय, जर तें कळपाक जाय,
घटिचार समजून घेवपाक जाय,
आदीं पसून ते पुराय, –
रिगून तांचे खोलायेंत."

३.
पूण हें करपाक –
आयज वेळ आसा कोणाक?
जो तो आसता धांवत,
कशेंय धडपडत
भौतिक सुखां लागून
– तेंच वर्तमान.

४.
कितें जावपाचें आसा तें जावं दी
उपकारचें ना उमजून 'अखेर'चें
घडये तो मेरेन नदरे आड –
खोस सूख खाशेलें,
पदरांत पाडून घेतिल्लें,
तांची भिरांत –
आयज सगळ्यांकच,
– तेंच वर्तमान.

५.
तर आयज आमकां –
जाय तीं भौतिक ताल्लसुखां,
हात जोडून उबीं सामखार,
आसात आपयत; दोळे मिचकायत,
सामके उतावळे घेवपाक,
आपणाले वेंगेंत.
जांकां जें जाय तें निवडपाचें,
जांकां जें परवडटा तें घेवपाचें,
जांकां जें सुखावता तें सांसपुचें.
थंय दुख्खाक थारो ना,
थंय नसते पिडेक सुवात ना,
थंय लज, भिडेक जागो ना.
पुणून ओंपणीक मातय
थारावना; खंयच
ना म्हळ्यार – अजिबात ना.

६.
तें कांय ना –
जें आसा सामखार तें आमचें
हेंच मोखप, हेंच जियेवप
– तेंच वर्तमान.

*लक्ष्मीदास बोरकारांक लागून हांव तांगेले 'नवप्रभें'त बरोवपाक लागलों. ते संपादक आशिल्ले 'नवप्रभे'चे त्या काळांतले. १९८०त जानेवारीच्या पयल्या आयताराः बरोवप सुरू केल्लें तें १९८३तल्या २४ जुलै मेरेन चलत रावलें. खंड पड नासतना. उपरांत हांवें तें बंद केलें. तें बंद केले उपरान्त दुसऱ्या सप्तकांत ज्यो दोन प्रतिक्रिया आयल्यो त्यो सकल दिल्यात.*

**— र. के.**

## लोकांमध्ये सुसंवाद निर्माण करण्यासाठी रवीन्द्र केळेकरांचे 'स्वगत' आवश्यक •

माझे पत्र पाहून तुम्हाला आश्चर्य वाटेल. पण गेल्या रविवारच्या अंकांतील स्वगत वाचले आणि मन खिन्न झाले. 'नवप्रभा'तील ते एक सदर मी आवर्जुन वाचीत आलो आहे. कारण प्रसन्न भाषेत, ओघवत्या शैलीत ते सदर आपण सादर करीत होता. त्याहीपेक्षा प्रसन्न वाटत असतात ते त्यातील विचार – सहिष्णुता, चारित्र्य-संवर्धन व विशेषत: मूलभूत मानवी मूल्ये यांच्यावर आपला जो भर असे तो मला सध्याच्या राजकीय व सामाजिक परिस्थितीत फार मोलाचा वाटत असे.

सध्याच्या सामाजिक परिस्थितीतील असहिष्णुतेच्या वातावरणाचा आपल्याला उबग येणे साहजिक आहे. मला आठवते, ६३ साली प्रथमच गोव्याला मी भेट दिली त्यावेळी विलीनीकरणाचा प्रश्न पेटलेला होता. त्यावेळी मी म्हटले होते की हा प्रश्न मनोमीलनातूच सोडविला गेला पाहिजे. गोव्याच्या संस्कृतीचे मला जे दर्शन झाले व पोर्तुगीज काळातही सामान्य हिन्दु व ख्रिश्चन लोकांनी बंधुभावाचा जो आदर्श घालून दिलेला मला जाणवला त्याबद्दलचीच माझी ही उत्स्फूर्त प्रतिक्रिया होती. विलीनीकरणवाद्यांना तो दृष्टिकोन आवडला नाही. कारण 'च'च्या भावनेने त्यांची मने मारलेली होती.

पुढे गोव्यात मी पाच वर्षे काढली. नितान्त आनंदात प्रियोळमधील आपल्या घरचे काही क्षण हे मला अविस्मरणीय राहिलेले आहेत. त्यावेळीही कोंकणी व मराठी वादाच्या बाबतीत जी भूमिका मी घेतली ती सहिष्णुतेचाच पुरस्कार करणारी होती. मला स्वत:ला कोकणी भाषा ऐकताना फार आनंद होतो. जात्यावर गायिल्या जाणाऱ्या ओव्यांची तीत गोडी व लालित्य आहे. तिची लिपी कोणती व तिला व्याकरण आहे किंवा नाही या वादात पडावयाला मी तयार नाही. मला एवढे माहीत आहे ती तिच्या संयोगाने मराठी भाषा अधिक तर समृद्ध होईल.

मी हे सर्व लिहिण्याचा प्रपंच करीत आहे तो एवढ्याचसाठी की 'स्वगत' थांबविण्याचा तुमचा विचार मला पसंत नाही. तुमच्या उत्स्फूर्त प्रतिक्रिया तसेच तुमचे खंबीर, तर्कशुद्ध विचार हे आमच्या मनात घोळत राहात असत. त्यांनी मलातरी विचारांचे भरपूर खाद्य पुरविलेले आहे. मानवी मूल्यांबद्दल जी अनास्था आज दाखविली जात आहे तिच्या संदर्भात तर हे विचार अमोलिक ठरतील. काहीं दिवसांपूर्वी ॲटेनबरो यांचा गांधी चित्रपट मी पाहिला. तेव्हा आमच्यासारख्या टीकाकारांना गांधीजींच्या सत्त्याग्रही निष्ठेचे जे दर्शन घडले ते खात्रीने उद्बोधक होय. अखेरच्या काळांत गांधीजी व रॉय हे मानवी मूल्यांच्या प्रश्नावर एका पातळीवर का आले याची कल्पना तो चित्रपट पाहून प्रकर्षाने मला आली. साहजिकच मला असे वाटते की विशिष्ट विचार व ध्येये असलेल्या तुमच्या आमच्या लोकांमध्ये सुसंवाद निर्माण करण्याची प्रत्येक संधी आपण उपयोगात आणली पाहिजे. त्यादृष्टीने आपले 'स्वगत' चालू राहाणे आवश्यक आहे असे मला वाटते. आपण त्याबाबतीत फेरविचार करावा हीच विनंती. कळावे, लोभ असावा ही विनंती.

आपला
द्वा. भ. कर्णिक

## रवीन्द्रबाब केळेकरांनी नवप्रभात स्वगत सदर पुन्हा सुरू करावे

गेल्या दि. २४ जुलैच्या नवप्रभा दैनिकात 'मराठीतून लिहिणे न लगे देवा, आमुचा राम राम घ्यावा' या मथळ्याखाली त्यांच्या दृष्टीने शेवटचे मराठीतील स्वगत लिहून त्यांनी ते बंद केले आहे. त्यामुळे रविवारचा नवप्रभाचा अंक हातात घेतल्यावर चुकल्या चुकल्यासारखे वाटते. कोकणीच्या विकासासाठी त्यांचा हा निर्णय आहे व त्याचे इतर कोकणीवादी अनुकरण करतील किंवा त्यांनी ते करावे अशी त्यांची अपेक्षा आहे. ती कितपत फलद्रूप होते ते यापुढे कळून येईलच. मात्र इथे असा एक महत्त्वाचा प्रश्न उपस्थित होतो की त्यांनी कोकणीसाठी मराठीशी फारकत केली. परंतु मराठी व कोकणी या दोघांच्याही उरांवर घट्ट पाय रोवून उभ्या असलेल्या इंग्रजीशी त्यांनी काडीमोड कां घेतली नाहीं? स्वगत सदर अगदी सर्वमान्य होते असे माझे म्हणणे नाही. त्यात कोकणीचीच तरफदारी अधिक असे व केळेकरांची भूमिका लक्षांत घेता ती स्वभाविकही होती. परंतु त्यात बरेच काही उपयुक्त विचारही प्रसिद्ध होत या न्यायाने त्यांतून विचारमंथनही होई. अर्थातच त्यांत त्रुटी, उणीवा, वादग्रस्त प्रश्नही निर्माण होत असत व ते अटळ होते असेही म्हणता येईल. कारण शंभर टक्के एकवाक्यता कोणत्याच प्रश्नात कधीच होत नसते. मतभेदही असावयाचेच. केळेकरही त्याला अपवाद नव्हेत. त्यांचे फार मोठे वादग्रस्त सदर ठरले ते त्यांनी पुण्यश्लोक श्री छत्रपती शिवाजीमहाराजांबद्दल जाहीर अनुदार उद्गार काढले ते. केळेकरांना कोणत्या व्यक्तीबद्दल आदर असावा किंवा असू नये हा त्यांचा वैयक्तिक प्रश्न आहे. त्यात इतरांना लुडबुड, हस्तक्षेप करता येणार नाही. परंतु काही प्रसंगी प्रश्नामागील पार्श्वभूमी लक्षांत घेणे आवश्यक ठरते. जाहीर विचार मांडताना बराच संयम ठेवावा लागतो. केळेकरांना मान्य नसले तरी शिवाजी महाराज हे आज देशातील कोट्यावधी लोकांचे श्रद्धास्थान आहे. छत्रपती शिवाजी महाराज की जय अशी घोषणा केल्याशिवाय आजही मराठी सैनिकांना युद्धात स्फुर्ती मिळत नाहीं. अशा थोर पुरुषाबद्दल जाहीर अनुदार लिखाण प्रसिद्ध करण्यापूर्वी केळेकरांनी शंभरदां विचार करावयाला हवा होता तो त्यांनी मुळीच केला नाहीं असे मला वाटते. निदान एक हिंदु म्हणून तरी त्यांनी शिवाजी महाराजांबद्दल अनादर दाखवणे कृतघ्नतेचे लक्षण ठरते असे माझे मत आहे. भूषण कवींनी

आपल्या राजतरंगीणी वा काव्यसंग्रहांत म्हटल्याप्रमाणे शिवाजी महाराज जन्माला आले नसते तर अख्खा हिंदुस्थान मुसलमानमय झाला असता. याला धरूनच एकदा कोणीतरी असे लिहिल्याचे आठवते की प्रत्येक हिंदूने रामकृष्णादी देवाच्या मूर्तींबरोबरच शिवाजी, रामदास यांच्या प्रतिमांची पूजा केली पाहिजे. ते त्यांचे म्हणणे खरे आहे. म. गांधीनी त्याला एकदा चुकलेला देशभक्त असे म्हटले होते. हिंसा-अहिंसा यांच्या संदर्भात ते असावे असे मला वाटते. मोठी माणसेही गरज नसताना कसा मोठा विनोद करतात याचे हे एक उत्तम उदाहरण ठरेल. शिवाजी महाराज नसते तर केळेकरांना अभिप्रेत असलेले टिळक, गांधी, आगरकर, विनोबा इतकेच नव्हे तर स्वगत सदर लिहिणारे व आता बंद करणारे रवीन्द्र केळेकर, तसेच आजचा हा लेख लिहिणारा वामन कुंडईकर, इ. या जगात नसते. साऱ्या देशाचा इतिहासच बदलला असता. श्री. केळेकरांसारख्या एका थोर गांधीवादी विचारवंताला याची कृतज्ञ जाणीव असू नये हे पाहून मला सखेद आश्चर्य वाटले. मी कुठेतरी वाचल्याचे आठवते की काय करावे यापेक्षा काय करू नये, काय बोलावे आणि काय बोलू नये आणि काय लिहावे यापेक्षा काय लिहू नये याची विचारवंतांनी अधिक काळजी, जबाबदारी घ्यायची असते. केळेकरांनी ती काळजी घेतलेली दिसत नाहीं. 'गच्छत:स्खलनम क्वापी' म्हणजे चालणारा कधीतरी पडू शकतो, या न्यायाने केळेकर झाले तरी इतरांप्रमाणेच मनुष्य आहे. ते इथे चुकले आहेत असे मी गृहीत धरतो. चुकणे हा माणसाचा धर्म आहे. तर चूक कळून आल्यावर ती सुधारणे हो त्याचा स्वधर्म. हा धर्म केळेकरांनी पाळला नाहीं. त्यांना ही चूक वाटतही नसेल कदाचित. यापूर्वी पं. नेहरूंनीही शिवाजी महाराजांबद्दल असेच काही गैर उद्‌गार काढले होते. परंतु नंतर ते मागे घेऊन दिलखूष मनाने जाहीर दिलगिरी प्रगट केली. पंडितजींनी आपली चूक कबूल करण्यात दाखविलेला मनाचा मोठेपणा श्री. केळेकर दाखवतील काय? अशा प्रश्नांना हलक्या दर्जाच्या शिव्या देणे हे उत्तर नव्हे. या वृत्तीचा मी तीव्र निषेध करतो. विचारांना प्रतिविचार, मतांना प्रतिमते पाडणे हेच त्याला उत्तर असते.

केळेकरांनी बंद केलेले स्वगत सदर पुन्हा सुरू करावे यासाठी आपला प्रतिज्ञाभंग करावा असे माझे म्हणणे नाही. ते कोकणीत सुरू करा. कदाचित ते नवप्रभातही प्रसिद्ध होऊ शकेल असे मला वाटते. केळेकरांनी हा प्रयत्न करावा. मात्र कोंकणी दैनिक सुरू होईपर्यंत वाट पाहू नये अशी मी त्यांना जाहीर नम्र विनंती करतो. याचा ते विचार करतील अशी मला आशा आहे.

वामन शिवराम कुंडईकर
कुंडई

---

'वळवळटेल्यांचें देवमंदिर' ही कविता हांगा हॉस्पिटलाचें प्रतिकात्मक रूप जावन येता. तर 'वेळाची रेंव' सारके कवितेंतल्यान 'फाटीं सरून गेल्ल्या काळाचें' प्रतिनिधित्व जाता. कवी वेळेर भोंवता आसतना आपल्यांतूच गुल्ल जाता. ताचीं चिंतनां खूप खोल पावतात. कितल्याशाच खिणांचो ताका उगडास जाता. जशें—

''हरयेका मनशाच्या, मनजातिच्या
सुकण्यांच्या, मासळ्यांच्या, जिवदाळिंच्या
रुका झाडांच्या आनी वालींच्या
हरयेका उसवासा थावन
भरोन आयली वेळाची रेंव जशे
थेंबे थेंबे न्हंयचे व्हाळोन
भरात अगाध दर्यो.''

जशे थेंबे दर्या भरतात तशे विंगड विंगड खीण कविचें मन भरतात. हांगा म्हाका दर्शनशास्त्री डेविड ह्युम हांच्या उतरांची याद जाता. ते म्हणटात – ''The mind is a bundle of perceptions''. म्हळ्यार, विंगड विंगड गजालीच मन घडयतात, त्यो वेगळ्यो काडल्यार मन म्हणटात तें आनीक कांयच ना. देखून हे वेळेचे रेंवेंत सासणाची रेंव भरसल्या (चिंतनांची रेंव भरसल्या) अशें कवी म्हणटा.

ह्या काव्य झेल्यांतली 'निमाणें ती रडली' ही कविता मात 'फॉरेन इन्फ्लूयन्स' दिसता; ही गजाल कवीन मान्य करूंक ना, हाचें वायट दिसता.

'भितरलें तुफान' ही कविता काव्य झेल्याक नांव दिल्ले प्रमाण वयल्या पांवड्याची आसा. भायर सैम कशें आसा, हाचें वर्णन करतना कवी म्हणटा—

''सुर्यो बुडोंक सोधच्या वेळार
दिसा-राती मिलन जाता.''

थंड शितळ वारें व्हांवन धर्तरी शांत जाल्या. हें सगळें निसर्गाचें वर्णन. भायर सैमा मजगत जरी शांतताय पातळिल्ली आसली जाल्यार लेगीत कविच्या मनांत एक 'तुफान' उठलां. ही भायली सैमाची शांतताय कविच्या मनांतलें वादळ लिपोवंक शकना. देखून, कवीक भायलें मौन फटिचें, फटकिरें दिसूंक लागता. कवी म्हणटा—

''काळजांतले काट तुटोन
उमाळ्याचीं आवरां व्हाळटात
आनी भायल्यान शांतताय.''

इतलें खर दूख कवीक भोगता. हें तुफान कशें आसा, तर—

''गोबराचे राशी भितर
मुरमुरच्या केंडा बरी...''

कविच्या मनांत चलिल्लें हें वादळ कोणाक समजूंक येत? कोण हें खरें मानीत? कित्याक तर, तें शांततायेच्या आवरणांत शिजत आसा. अशा वेळार गडगडो आनी जोगलावणी वाजूंक लागतच ''भितरल्या दोळ्यांक कूड म्हजी कांपयतली.'' म्हळ्यार, कविचें मन इतलें उचांबळीत जातलें. पूण निमाणे कडेन ते म्हणटात, हें तुफान म्हज्या मनांतलें, देखून तें हेरांक दिसचें ना. तांकां फकत शांतताय दिसतली, जशी–

मुरमुरच्या केंडाक
लिपवन आसच्या गोबरा बरी.''

अशे तरेन बाब जे. बी. मोरायश हांच्या कविता विश्वांतली सूक्ष्म संवेदना नीज जाता; तिका नवीं तासां आनी पांवडो फावो करता. मुक्तछंदाचे मांडणेन ती फुलता आनी आमकां मनांतले 'सासणाच्या रेंवेंत' घेवन वता.

* * *

**भितरलें तुफान**
**जे. बी. मोरायश**
**पुनव प्रकाशन, मंगळूर १९८४**
**पानां: १२५**
**सुधारीत मोल: रु. ६०/-**

REGD. No. GOA 130

जाग

र्ष २४ ◇ आंक ११ ◇ जून १९९८



अठरा जून, अठरा जून –
तुज्या म्हज्या
सगळयां आमच्या रगतांत
आसा अजून घट्ट रिगून
अठरा जून, अठरा जून –
खबरच काडल्यार
आजय येता
आंगार कांटो फुलूफुलून!

अठरा जून, अठरा जून –
दीस गेले, वर्सां गेलीं
नेण्टीं आसलीं, जाण्टीं जालीं
कांय जाणां
आमच्यांतलींय आमकां आतां
सोडून गेलीं
त्या दिसा उगडास करतां करतां
कंवळीं उतरांय जालीं जून
अठरा जून, अठरा जून!

अठरा जून, अठरा जून –
इतिहास गेलो घडोवन
तो दीस –
त्या दिसा आमी देखलो पुता
तो देखपी भाग्यवंत आमी
ताचो काणी सोंपना सांगून
त्या दिसाचीं दुखां हून
आजय दोळ्यांत गर्दी करून!

अठरा जून, अठरा जून –
कितल्यांचींच काळजां
गेलो जिखून,
सुटकेचें उत्तर –
जाणा जाल्ल्या, नेणा जाल्ल्या
सगळ्यांनीच घेतलें मोखून,
तांणीच सायबा
बंदखणिचीं देवळां रचून
अज्रंवर जालो
अठरा जून, अठरा जून!

परजाच आतां राजा जाली
अठरा जुनाक नमन करून
आपलींच काळजां व्हड केलीं
जाल्ल्या गेल्ल्यां यादीन भरून
सादत उरूं अठरा जून, अठरा जून!
घर भरून, दार भरून
गांव भरून, सगळें भरून
सदां सदेव जाग धरूं
अठरा जून, अठरा जून!

— नागेश करमली

# जाग

ं २४ ◇ आंक ११ ◇ जून १९९८

ादपी : रवीन्द्र केळेकार

ुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

ावाडावपी : सुमन्त क़ेळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

क्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

पपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.


## ह्या आंकांत


दर संपादप्याची ........ १
ौ गोंयबाबांली कोंकणी अस्मिताय जागोवपी बरपावळ
– माधवी सरदेसाय ........ ६
ाी (कथा) – सोनिया दे कोस्ता ........ १२
जो वावर, म्हजीं उतरां : शेतांगण – प्रकाश पर्येकार ........ १४
विता – नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, मंगला शिवदास, माधव बोरकार,
जश्री सैल ........ १८
तेहासाचीं पानां ........ २१
ाहित्य नियाळ : 'अक्षतां' आनी 'अंतरनाद' – नागेश करमली ........ २२



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. ७५/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ६०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २००/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

व्हाराचो नामो :

जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रुआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ७/-


## नदर संपादप्याची

### अप्रमाद

तो हालींच प्रोफेसर जाला. प्रोफेसर म्हणटकूच आपणें 'एब्सँट मायंडेड्' आसूंक जाय असो ताणें समज करून घेतला. शेणिल्ले शेणिल्ले वरी चलता. आपणालेच तनरेंत आसता. विसराळो, भोंवतणची सुद्द नाशिल्लो असो-सो कितें जाला.

हांवें ताका म्हळें, खऱ्यांनीच तूं असो 'एब्सँट मायंडेड्' जाल्लो आसशीत जाल्यार तुजे बुद्दिची धार गेल्या, ती झेमी, उबगणी जाल्या अशें म्हणचें पडटलें. प्रोफेसराची बुद्द सदां ऍलर्ट आसूंक जाय, जागरूक आसूंक जाय. शिटूक आसूंक जाय.

म्हजेर तो रागार जाला म्हूण आतां आयकतां.

बुद्द जागरूक नासता तेन्ना आमचे हस्तुकीं घडूंक जायना तें केन्ना केन्ना घडटा. मागीर 'चत्राय उरली ना' अशें म्हणून आमी तें पासून व्हरपाचो यत्न करतात.

घाळपणान मनशाच्या हातांतल्यान कितेंच घडूंक जायना.

बुद्ध म्हणटालो, घाळ रावशात, शेणटले. जागरूक रावशात, 'जिखतले. बुद्ध अशेंय म्हणी, चित्त इतलें जागरूक दवरूंक जाय की मनशाक बसतां तेन्ना आपूण बसतां, उठ्ठां तेन्ना आपूण उठ्ठां म्हणपाची जागरूक जाणवीक उरूंक जाय. आपणाक राग आयिल्लो आसत जाल्यार 'हो पळे, म्हाका राग आयला', रागा भरशीं व्हांवन वता आसत जाल्यार 'हो पळे, रागा भरशीं हांव व्हांवन वतां' हाचीय जागरूक जाणवीक ताका जावंक जाय.

गुपीत खबरो हाडपी मनीस कोणाचेरूय 'नदर दवरता' तेन्ना कितें करता? ताका कळूंक दिनासतना अशे एके सुवातेर वचून लिपून बसता की जंयच्यान ताका तांगेर कोण येतात, कोण वतात, सगळें पळोवंक मेळटा. मनशान हेच भाशेन आपणांत भितर अशे तरेचो एक सी.आय.डी. बसोवंक जाय की ताका आमच्या मनांत कसले विचार येतात आनी कसले येवन वतात ते जागरूकपणान कळूंक जाय. मनशाक आपणाकूच नियाळूंक येवंक जाय. 'चत्राय उरली ना' हें वाक्यूच ताचे जिबे वयल्यान केन्ना येवंक जायना.

• एब्सँट मायंडेड रावन मनीस मोटार वा स्कूटर चलयत जाल्यार ताका एक्सिडँट जावंकूच जाय. एब्सँट मायंडेड रावन मनीस पसरो चलयत जाल्यार ताचो वेपार बुडुंकूच जाय. एब्सँट मायंडेड रावन आपूण देशाची राखण करतलें अशें सैन्य म्हणीत, देश दुस्मानाच्या हातांत वचुंकूच जाय.

एब्सँट मायंडेडनेस म्हळ्यार घाळपण आनी घाळपण म्हळ्यार प्रमाद. आनी 'पमादो मच्चुनो पदम्' – प्रमाद म्हळ्यार मरण. घाळपण खंयच चलूंक दिवंक जायना. खंयचेंच काम घाळपणान मनशान करूंक जायना.

कांय जाणांक 'उगडास उरना'. केनाय कोणूय अमक्या वेळार येतलों म्हूण सांगता आनी येना तेना तो म्हजो अवमान करता अशें म्हाका दिसता. म्हाका ताचो मागीर राग मारता. आनी 'उगडास उरलो ना म्हूण पावलों ना' अशें सांगता तेन्ना इतली तिडक मारता की ताचे सणकुटेर फुलोवचें-शें दिसता.

'उगडास उरलो ना' हें घाळपणाचेंच एक लक्षण. ताचो 'कॉग्निझिबल ऑफेंसां'त आसपाव जावंक जाय.

## केषां अमोघ वचनम्

ऋषिपुत्राक तिडक मारता. तिडके भरशीं तो श्राप दिता. श्राप दितकूच ताका पच्छात्ताप जाता. आपणें बेश्टो श्राप दिलो अशें ताका दिसता आनी तो म्हणटा —

किते करूं, श्राप तोंडांतसून भायर सरलो. हांव जल्मांत केन्ना फट उलोवंक ना. म्हूण, म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें केन्ना फट जावचें ना. श्राप ताका लागतलो... म्हज्यान एकूच करूं येता, ताका उश्राप दिवन श्रापांतल्यान मेकळो करूं येता.

पुराणांत असल्यो कितल्यो-श्यो काणयो मेळटात.

जाच्या तोंडांतल्यान केन्नाच फट भायर सरूंक ना ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरता तें उतर केन्नाच फट जावचें ना, तें खरें जावंकूच जाय – केदो भावार्त हो ह्या लोकांचो सत्याचेर?

कोणाचें उतर फुकट वचना? – केषां अमोघ वचनम्? शंकराचार्य विचारता आनी जाप दिता – ये च पुन: सत्य मौन शम• शीला. जो सदां खरें उलयत आयला ताचें. जो गरजे परस एक उतर चड उलयना ताचें. जो गरज पडटा तेन्नाच उलयता ताचें. उलयता तें मेजून उलयता ताचें. उलयतना तिडक ओडी सारके अवगूण आडवे येवंक दिना ताचें. असल्याच मनशाचें उतर फुकट वचना. तें अमोघ आसता. तें खरें जाताच जाता.

वाचा शुद्धीक इतले मानताले लोक आमच्या देशांत.

जिबेची शक्ती ही. हे शक्तिची फावऽ ती जतनाय घेवन उपेग करीत जाल्यार जग बदलपाक शस्त्रांची अस्त्रांची कसलीच गरज भासची ना.

## ही संस्कृताय तिगून उरपाची ना

व्हिक्टर डॅविड्स हेन्सन – कोण जाणा, कोण म्हूण! काल ताचो लेख वाचलो, न्यूयॉर्क टाइम्सार (२-९-९६) आयिल्लो. लेखा वयल्यान केलिफोर्निया स्टेट युनिव्हर्सिटींत तो ग्रीक भास शिकयता जावंक जाय. ते भायर, ताची थंय जमीन आसा आनी हे जमनीर तो खासा काम करता आसूंक जाय, अशें दिसलें. म्हळ्यार, जमनी कडेन आनी स्रमांकडेन संबंद आशिल्लो मनीस हो. म्हाका ताची इतलीच ही वळख पुरो जाली, ताचो लेख बारकायेन वाचपाक.

तो म्हणटा —

'फाटल्या सप्तकांत आपणें 'प्लम्सां'ची एक पेट ट्रकार चडोवन दलाला कडेन धाडून दिली. पेटयेचें वजन आशिल्लें अठ्ठावीस पाऊंड. आपणाक ताचे मेळ्ळे सात डॉलर.

'बाजारांत आतां हीं फळां सत्तर डॉलरांत वतलीं.

'फळां आपणाल्या भाटांत जाल्लीं. आपणें स्रम करून काडिल्लीं. आपणेंच तीं वेंचून पेटयेंत घाल्लीं. आपणेंच पेट ट्रकार चडयल्ली. हाच्या बदल्यांत आपणाक मेळ्ळे फकत सात डॉलर. खावपी सत्तर डॉलर दिवन तीं घेतले. मदले त्रेसस्ट डॉलर वतले दलाल, वितरक, विकपी हांच्या बॉल्सांत.

'आमच्याच देशांत अशें घडटा, अशें न्हय. आयच्या जगांत सगळेकडेन हेंच चल्लां. स्रम करतात ते उत्पादक वेगळे आनी तांच्या स्रमाची साय खातात ते दलाल पसरकार वेगळे. स्रम करतल्यांनी रगत आटोवचें आनी दलाल, वितरक, विकपी ह्या जळवांनी तें लुंचचें, होच 'न्याय' चल्ला आयच्या जगांत. स्रमजीवी लोक रगत शिंपून जें पिकयतात तें खंयचे दरेन तांणी विकचें हेंवूय ह्यो जळवो, ह्यो बेंदल्ली, हे परजीवी लोकूच आयज थारायतात.

'समाजाच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवपी स्रमजीवी लोकांचेर आयचें अर्थतंत्र हो जो अन्याय करता ताचे परिणाम आमी आमचे भोंवतणच्या जिवितांत पळेतात – निर्शेणेन खर्शेणेन सगळ्यांचें जिवीत पोखरलां. सास्वत नीति-मोलां वयले सगळ्यांचे भावार्त उबून गेल्यात. 'कित्यांत कांय अर्थ ना' अशेंच चडशा लोकांचें मत्त जालां. सत्य? कित्याक चलोवंक जाय तें? सत्यान चलिल्ले कोण बऱ्याक पावल्यात व्हय? सगळे भिकेक लागल्यात... अहिंसा? कित्याक उपकरता ती? वागां-शिंवांकडेन चलत व्हय ती? आयज सत्येर आसात ते वागां-शिंवां सारके. वागां-शिंवां भाशेन तांकांय मारून उडोवंक जाय... दुसऱ्याचे बायले कडेन वांकडे नदरेन पळोवंक जायना? कित्याक? पळेल्यार किते जाता? तिची मान्यताय आसली जाल्यारूय तिका 'परस्त्री' लेखून सोडून दिवपाक बाप्पा शिवराक काय किते आमी?... पयशांक कांय मोल ना? कोण सांगता? मोल फकत पयशांकूच आसा... जग फकत पयशे आशिल्ल्यांकूच मानता. पयशां बगर आयच्या जगांत झाडाचें पान लेगीत हालना... हे तरेचीं 'तत्त्वज्ञानां' आयचे पिळगेच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळटात तीं कित्याक लागून? दलाल, पसरकार, सावकार बी वेपारी संवसारांतल्या जळवांनी, बेंदल्लिंनी स्रमजीवी लोकांक लुंचले, लुटले, फटयले, नागयले म्हूण न्हय? Materialistic philosophy म्हूण आयज जी भौमानीत जाल्या ती, खरें म्हळ्यार, Philosophy of frustration. निर्शेल्ल्या लोकांचें तत्त्वज्ञान तें. आंतरीक जिवीत जांचें रितें जालां, पोकें जालां तांचें.

'आयच्या अर्थतंत्रान जगाचीच फाळणी केल्या. एका जगाचीं दोन जगां केल्यांत. एका जगांत रावतात वैभवांत लोळपी भोगवादी (फोल्गी) लोक – फायव्ह स्टार हॉटेलांनी जेवपाक वचपी, विमानांत एक्झेक्युटीव्ह क्लासांत संवसारभर भोंवपी, सत्ताधिशां-अब्जाधिशां भोंवतणी आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडपी – हातांत खूब पयसो घोळटा असले, जांचें घर भरून दार ओतता असले 'धनी' लोक. आनी दुसऱ्या जगांत रावतात कमर बागोवन शेतां रोवपी, जमीन खणपी, भाजी-पालो फळफळावळ काडपी, शेतकार बागायतदार; चिरे खणपी, घरां बांदून दिवपी गवंडे; लुगटां विणपी तेसेलांव – सगळ्यांच्यो सगळ्यो मुळाव्यो गरजो भागोवपी स्रमजीवी लोक.

'हे स्रमजीवी लोक संवसारांत आसात म्हूण आमी जेवतात खातात, न्हेसतात पांगुरतात. 'सुशेगाद' बरें जिवीत जियेवंक पावतात. आनी ते मात बावडे अशे तरेच्या घरांनी रावतात की ज्या घरांनी तुमी पावल लेगीत दवरूंक तयार जावचे नात. अशे तरेचें जिवीत जियेतात जें गरिबां मजगतचो गरीब लेगीत जियेवंक राजी जावचो ना.

'पयल्या जगांतले लोक आपणाल्या भुरग्यांक 'उच्च' शिक्षण दितात! कित्या खातीर? भुरगीं ज्ञानी जावचीं म्हूण? शिक्षीत जावचीं, संस्कारी जावचीं म्हूण? च्ये. तांकां कमर बागोवन स्रम करचे पडचे न्हय म्हूण. मातयेंत हात घालून काम करपाचो तांचेर प्रसंग येवचो न्हय म्हूण. फोल्गां पसून ते वंचीत जावचे न्हय म्हूण. तांच्या 'स्टॅंडर्ड ऑफ लिविंगां'त कितेंच उणें पडूंक पावचें न्हय म्हूण.'

हेन्सन मागीर म्हणटा —

'ही संस्कृताय तिगपाची ना. इतिहासांतली ही पयलीच असली संस्कृताय न्हय. हिचे पयलीं असल्योच आनीक कांय संस्कृतायो संवसारांत वयर सरिल्ल्यो आनी तरतरिल्ल्यो. पुणून अखेरेक कोंसळून पडल्यो आनी ना जावन गेल्यो. इजिप्ताची संस्कृताय असली आशिल्ली. ग्रीस देशाचीय असलीच आशिल्ली. रोमाचीय असलीच आशिल्ली. तांचे जे अवशेष आयज उरल्यात तेच पळेल्यार पुरो, त्यो केदयो वैभव-संपन्न आशिल्ल्यो हाचो अदमास येतलो. आपूण सासणाचीं रासणां तिगून उरतल्यो अशें खासा त्योच मानीस आयिल्ल्यो. तरी आसतना उरल्यो नात. ना जाल्यो. कित्याक? तांचे बुन्यादींत जो फातर आशिल्लो तो आयचे संस्कृतायेचे बुन्यादींत आसा तोच आशिल्लो. स्रमजीवी लोकांक लुंचप, लुटप, नागोवप, फटोवप आनी जळवांवरी वा बेंदल्ले वरी अर्थतंत्राक दशिल्ल्या मूठभर परजीवी लोकांक वैभवांत लोळूंक दिवप हे बुन्यादीर त्यो उब्यो आशिल्ल्यो. आमची

र्वेल्ली संस्कृतायूय तांचे वरीच कोसळून पडपाची आसा, तांचे वरीच जावन वचपाची आसा...'

खंयचीच संस्कृताय तिच्या भायल्या दुस्मानांनी खंयच ना करूंक ना. रिल्या विसंगतींक लागुनूच संस्कृतायो ना जाल्यात. जी संस्कृताय जीवी आनी परजीवी लोक निर्माण करता ती केन्नाच खंयच तिगूंक पाची ना.

## स्वातंत्र्य संग्राम वजा गांधी = शून्य

'एका विचाराची जिवीत-कथा' वाचून एकल्यान म्हळें—

खुबूच सुंदर पुस्तक बरयलां तुवें. पुणून आमकां स्वराज्य फकत गांधींक गुनूच मेळूंक पावलें असो समज जाता, तुजें हें पुस्तक वाचतकूच... राज्य मेळोवन दिवपाक गांधींचो हातभार लागला, ना कोण म्हणटा? न, भगतसिंगाचो लागूंक ना? चंद्रशेखर आझादाचो लागूंक ना? भाषबाबूंचो लागूंक ना?... फकत गांधींच्याच नांवाचो तुमी जप करतात कितें? गांधी सोडून बाकिच्या सगळ्यांक विसरप हीं पडमूरपणां न्हय? भाषबाबूंक तर तुमी साप्प विसरून गेल्यात...'

हांवें विचारलें, 'राजाजींचें नांव घेतात व्हय कोण आयज? सुभाषबाबूंचो डास काडपी बंगाल तरी आसा... राजाजींचो उगडास मद्रासांत लेगीत ण काडिना. आमच्या स्वातंत्र्य-संग्रामांतले ल्हानासमानांतले सेनानी शिल्ले राजाजी. कृपालानींचो उगडास कोण काडटात? राजेनबाबू, ल्लभभाई हाचे पंगतींतले ते एक फुडारी आशिल्ले आमचे. तांगेलें शताब्दी र्स आयलें तेन्ना तांगेल्या कांय भक्तांनी सरकाराक ताची जाणवीक रून दिली. सरकार राजीव गांधींच्या हातांत आशिल्लें. तांणी कितें जाप वची? ''वचत ताच्यो'' शताब्द्यो मनोवपाक आमचेकडेन पयशे नात... मी गुजरात सरकाराक विचारात.' गुजरात सरकाराक शें? कृपालानी जराती आशिल्ले व्हय तर? तांणी गुजरातांत काम केलां. तांकां आचार्य पदवी गुजरात विद्यापीठान दिल्या. पुणून कृपालानींनी बिहारांतूय तितलेंच म केलां. उत्तर प्रदेशांत तर आयुष्य खर्चिलां. 'भारतीय' जातिचे ह्या शांत जे कोण जावन गेल्यात तांचे मजगतचे ते एक आशिल्ले. लोक जाजींक विसरले. कृपालानींक विसरले. वल्लभभाईंक विसरले. सगळ्यांक सरले. फकत सुभाषबाबूंक विसरले म्हणटात तें खरें न्हय... सांगल्यार जापांचो धसको बसतलो, सेनापती बापट कोण आशिल्ले हें नकळ शिल्ले लोक महाराष्ट्रांत आयज मंत्री जाल्यात, खबर आसा व्हय तुमकां?

आमी व्हडल्या व्हडल्यांक विसरल्यात. हजार बाराशीं वर्सां आमी बुद्धाक गीत विसरिल्ले.

गांधींकूय आमी विसरल्यात.

ताणें ह्युग टोयेन बरयल्लें सुभाषबाबूंचें जिवीत – The Springing Tiger – वाचिल्लें. खूब प्रभावीत जाल्लो. 'तांकां देशद्रोही म्हणपी लोक आशिल्ले खंय ह्या देशांत', ताणें शीण काडलो.

म्हळें, 'कम्युनिस्ट एका काळार तांकां देशद्रोही म्हणटाले... पुणून त्या काळार गांधीय तांचे नदरेन देशद्रोही थरिल्ले. ४२चे क्रान्तींत जांणी जांणी वांटो घेतलो तांकां सगळ्यांक तांणी देशद्रोही म्हळ्यात... त्या काळांत रशिया इंग्लंड-अमेरिकेच्या सांगातान हिटलर-मुसोलिनी सारकेल्या फॅसिस्ट शक्तींआड झुजताली. हें झूज कम्युनिस्टांच्या मत्तान 'पिपल्स वॉर' आशिल्लें. ह्या झुजांत जो आडखळी हाडटा तो तांचे नदरेन देशद्रोही थरतालो. ४२ची क्रान्ती तांचे नदरेन आडखळ हाडपी चळवळ आशिल्ली म्हूण देशद्रोही थरिल्ली. आनी सुभाषबाबूंनी तर जांचे आड रशिया झुजताली तांचोच आधार घेवन आझाद हिन्द फौज उबी केल्ली... कम्युनिस्टां भायर तांकां देशद्रोही कोणेंच म्हणूंक नात. चुकून लेगीत कोणें म्हणूंक नात... परते, मोट्यांतले मोटे देशभक्त, देशा खातीर त्याग केल्ले, देश स्वतंत्र जावचो म्हूण आयुश्य झरयल्ले, एक कर्तुत्वी फुडारी ह्याच रुपांत लोक तांकां वळखतात... ह्याच रुपांत लोक तांकां मानतात. गांधींनी तर तांकां 'पेट्रियट एमंग पेट्रियट्स' – देशभक्तां मजगतचे सगळ्यांत व्हड देशभक्त म्हळ्यात.'

इतलेंय हें कबूल करुनूय सांगूंक जाय –

सुभाषबाबूंक राजकी प्रज्ञा नाशिल्ली.

देशभक्त फकत देशभक्त आसलो म्हूण जायना. देशा खातीर कितेंय करपाची ताची तयारी आसली म्हुण्णूय भागना. खंयच्या वेळार कसलें पावल उखलूंक जाय, ताचेय परस चड, कसलें उखलूंक फावना, हें ताका सारकें खबर आसूंक जाय. सुभाषबाबू हांगा उणे पडले.

दुसऱ्या म्हा-झुजा वेळार इंग्लंड अडचणींत पडिल्लें. हे अडचणिचो लाव घेवन आमी इंग्रजां आड चळवळ सुरू करुंया अशें ते म्हणपाक लागले. गांधी चळवळ सुरू करूंक तयार नाशिल्ले. देशाक सारको तयार करी नासतना चळवळ सुरू केली जाल्यार ती आंगलट येतली अशें तांकां दिसतालें. सुभाषबाबू गांधींचेर आनी गांधींक सांगात दिवपी काँग्रेसिचेर विटले आनी दुस्मानाचो दुस्मान तो आमचो इश्ट ह्या पोरण्या झिरझिरिल्ल्या तत्त्वाचो आधार घेवन ते जर्मनींत पळून गेले. हिटलराचो आधार घेवन आपूण हिन्दुस्तान स्वतंत्र करतलों म्हणपाक लागले. हिटलर पुराय येवरोप गिळपाक भायर सरिल्लो. आनी येवरोपा वांगडा आशिया आफ्रिकेंतल्यो येवरोपेवांच्यो वसणुकोय आपणाल्या साम्राज्याक जोडूंक सोदतालो. तो सुभाषबाबूंच्या आधारान हिन्दुस्तानांतल्यान इंग्रजांक धडये धांवडावन घालीत आशिल्लो. पुणून हिन्दुस्तान स्वतंत्र करतलो आशिल्लो व्हय? ज्या तत्त्वज्ञानाक धरून तो चलतालो त्या नाझी तत्त्वज्ञानांत हें बसनाशिल्लें. हिटलर व्हडलोसो आधार दिना; परतो आपणालो उपेग तो आपणाल्या राजकर्णा खातीर करून घेता म्हणपाची सुभाषबाबूंक जाणवीक जाली तेन्ना तांचो भ्रम निवळ्ळो. सुभाषबाबू जर्मनींतल्यान जपानांत गेले. हिन्दुस्तानांतल्यान जर्मनीक गेल्ले ही तांची साहसकथा जितलो कांटो फुलोवपी आशिल्ली तिच्याकूय चड कांटो फुलोवपी जर्मनींतल्यान जे जपानांत गेले ही कथा आशिल्ली. जपान 'दाइनिप्पोन' (ब्रहत् जपान)च्या हावेसान भारून गेल्लें. अख्खो आशिया खंड आपणाल्या साम्राज्या खाला हाडूंक आंवडेतालें. ताणें येदें व्हडलें चीन गिळिल्लें. कोरिया खाल्लें. ब्रह्मदेश सिंगापूर मेरेन तें पाविल्लें. धरुंया, सुभाषबाबूंच्या आधारान तें हांगासरल्यान हिन्दुस्तानांत आयिल्लें जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें? हिन्दुस्तान इंग्रजी राजवटीक उबगल्लें. जपान आयिल्लें जाल्यार तें हारतुरे घेवन ताका येवकार दिवपाक मुखार सरतलें आशिल्लें आनी नीट दिल्लीच्या तख्तार ताका व्हरून बसयतलें आशिल्लें. इंग्रजांचें राज्य देडशें वर्सां तिगलें. जपान्यांचें कितलीं वर्सां उरतलें आशिल्लें, सांगूं येतालें व्हय? सुभाषबाबूंची जर्मनी जपानच्या आधारान हिन्दुस्तान स्वतंत्र करपाची येवजण शार्ती पावली ना हें बरें नशीब म्हणूंक जाय आमच्या देशाचें. ना जाल्यार देश फस्तीक पडटलो आशिल्लो.

सुभाषबाबूंत सगळें आशिल्लें. फकत 'स्टेट्समनशीप' नाशिल्ली. राजकी प्रज्ञा नाशिल्ली. आंगलट येवं येतात असले निर्णय हुतहुतेपणान ते घेताले.

सुभाषबाबूंची वाट चुकिल्ली.

चुको सगळ्यांनी केल्यात. एकल्या सुभाषबाबूंनीच केल्यात अशें न्हय. १९३७त प्रांतीय विधानसभांच्यो वेंचणुको जाल्यो. जिखून येतकूच मंत्रीमंडळां घडोवपाचो प्रस्न आयलो तेन्ना संयुक्त प्रांतांत काँग्रेसीन मुस्लीम लिगेक आपणा सांगातांत घेवंक जाय आशिल्ली. पाकिस्तान केन्ना घडुंकूच पावचें नाशिल्लें; मुस्लीम लिगेक पयस धुकलून जवाहरलालांनी व्हडांतली व्हड चूक केली अशें मौलाना आझाद म्हणटात. जाल्यार, १९४२त मार्चा म्हयन्यांत सर स्टॅफर्ड क्रिप्स जो प्रस्ताव घेवन आयिल्ले तो काँग्रेसीन मान्य करूंक

जाय आशिल्लो. A post dated cheque on a crashing bank अशें म्हणून गांधींनी तो भायर मारलो ही गांधींची व्हडांतली व्हड – हिमालयायेदी व्हड – चूक जाली अशें अरविंद घोष म्हणटात. काँग्रेसीन देशाची फाळणी मान्य केली तिचो गांधींनी प्राणपणान विरोध करूंक जाय आशिल्लो. 'ना, हांव फाळणी मान्य करचों ना' अशें नेटान सांगूंक जाय आशिल्लें आनी 'पाकिस्तान बनेगा तो मेरी लाश पर बनेगा' ह्या आपणाल्या म्हणण्याक तांणी घट धरून रावंक जाय आशिल्लें. ताचे बदला 'म्हजें आतां कोण आयकनात' असो शीण काडीत गांधी बसले ही तांगेली हिमालया परसूय व्हड चूक जाली अशें लोहियांचें म्हणणें आसा. सगळ्यांनी चुको केल्यात. चुको करीत करीतच सगळे मुखार गेल्यात. सुभाषबाबूंक एकल्याक कोण दुशण दिवचो ना.'

ताका हें सगळें नवें आशिल्लें.

हांव आतां गांधीं संबंधान कितें सांगतां हें आयकुपाक तो उत्सूक जाल्लो दिसलो. पूण हांवें म्हळें —

देशाक स्वराज्याची भूक लागिल्ली. ती भागोवपा खातीर ताणें तरांतरांचे यत्न केल्ले. १८५७त सैन्यांत बंड घडोवन हाडलें. तें आंगलट आयलें. मागीर 'राजमान्य' सनदशीर – कॉन्स्टिट्यूशनल – वाटे वयल्यान चलून पळेलें. उपरांत निशेधाची आनी बहिष्काराची 'लोकमान्य' वाट धरून पळेली. बॉम्ब-पिस्तुलां वापरून पळेलीं. समाज बदलपा खातीर 'सुधारणा' घडोवन हाडपाचो यत्न केलो. पोरण्या देखींक घट्ट दसून रावपाचो 'उद्धारकां'चो मार्ग खंय घेवन वता तो पळेलो. स्वदेशी धर्म आपणावन पळेलो. तरी आसतना देश काळखांतूच उरिल्लो. खंयचोच उपाय चलना म्हूण निर्शेल्लो. भंयाच्या वातावरणांत जीव मुठींत धरून जियेतालो.

जिस्त ह्या वेळार गांधी लोकां मुखार येवन उबे रावले आनी तांकां सांगपाक लागले, 'स्वराज्यूच जाय मू तुमकां? मागीर, हांव सांगतां तशें करात. 'आमकां स्वराज्य जाय' अशें मोट्यान आड्डून सांगात. भियेनासतना सांगात. जिवार उदार जावन सांगात, नित्शयान सांगात.' कशें म्हूण कोण जाणा, लोकांक तांचें म्हणणें पटलें. लोक मोट्यान 'आमकां स्वराज्य जाय' अशें म्हणपाक लागले. देश मोन्यांनी तांचे फाटल्यान चलपाक लागलो. १९१७ पसून २१ मेरेनच्या फकत पांच वर्सांच्या काळांत देशांत येदी आकांताची जागरुकताय जाल्ली पळोवंक मेळ्ळी की त्या काळांत ल्हान ल्हान भुरगीं लेगीत कोणाक भियेनासतना 'ब्रिटिश राज्य सैतानी राज्य' ह्यो घोषणा दीत भोवंक लागिल्लीं.

येदी जागरुकताय ह्या देशांत ते आदीं जाल्ली कोणेंच पळोवंक नाशिल्ली.

मागीर गांधींनी ल्हान व्हड सगळ्यांक स्वराज्याचे चळवळींत ओडून हाडले. तांणी लोकांक सांगलें, 'स्वराज्य जाय मू? चरखो कांतूंक लागात, खादी घालूंक लागात. ग्रामोद्योगी वस्तूच वापरात. स्वदेशीचें व्रत घेयात. स्वराज्य जाय मू? समाजांतलें आफूडभश्ट ना करात. उणाकांतल्या उणाकाक आपणालो भाव मानून ताका घरांत भौमानाची सुवात दियात. ताचे बरोबर जेवात खायात.' बायलांक सांगलें, 'सोन्यांच्या गुत्यांचेर वचून पिकेटींग करात. सोरो पियेतल्यांक पांय पडून 'पियेवं नाकात' म्हूण सांगात. प्रभात फेऱ्यो काडात. हिन्दी शिकात, प्रार्थना करात' – सगळ्यां खातीर कसलें न्हय कसलें काम सोडून दिलें. परिणाम – ल्हान-व्हड सगळे लाखांनी लोक देशसेवेचीं कामां करपाक लागले. तांकांच घेवन मागीर तांणी सत्याग्रह केल्यात. तांचेच भितरल्या लाखांनी लोकांक तांणी बंदखणींत धाडल्यात. पोलिसांच्यो लाठयो फाटीर घेवंक तयार केल्यात. ह्या 'मास पार्टिसिपेशना'क लागून देशांत खांचीं कोनशांनी देशभक्त दिश्टी पडपाक लागिल्ले. 'आयजूच स्वराज्य जाय, आत्तांच जाय, ह्याच खिणाक जाय' अशें म्हणपी जवाहरलाल, सुभाष बोस ह्या 'मास पार्टिशिपेशनां'तल्यानूच निर्माण जावंक पावल्यात.

गांधींच्यो चळवळी चलूंक नाशिल्ल्यो जाल्यार भगतसिंगूय निर्माण जावंक पावचे नाशिल्ले. भगतसिंग, चन्द्रशेखर आझाद हे तरेची प्रचंड लोकजागरुता[...] देशांत निर्माण करूंक पावतले आशिल्ले व्हय? हे तरेन लाखांनी लोकां[...] बंदखणींत वचूंक शिकयतले आशिल्ले व्हय?

आमच्या स्वातंत्र्य संग्रामांतल्यान गांधींक कुशीक काडात. लाखांनी लोक[...] जे झुजले तांकां कुशीक काडिल्ले वरी जातलें. 'स्क्रॅप गांधी एण्ड [...] स्क्रॅप द इन्डियन पीपल'. संपूर्ण स्वातंत्र्य संग्राम वजा गांधी – उत्त[...] शून्य येतलें.

## लोकशायेच्यो शिमो

जवाहरलाल नेहरूंक एकूच मत्त! आनी तांगेल्या प्यूनाकूय एकूच मत्त! कित्याक म्हूण? दोगूय 'सारके' म्हूण? खंयच्या अर्थान दोगूय सारके?

दोगांकूय भूक लागता, दोगांकूय तान लागता, भूक आनी तान भागतकूच दोगांचोय जीव धादोसभरीत जाता, ह्या अर्थान दोगूय सारके. दोगांकूय पुरो जाता आनी पुरो जातकूच दोगूय सुस्त न्हिदून दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठ्ठात तेन्ना नवे ताल्ल – फ्रॅश जावन उठ्ठात ह्या अर्थानूय दोगूय सारके.

चोरी केली, खून केलो जाल्यारूय दोगांकूय एकेच तरेची ख्यास्त जाता ह्यावूय अर्थान सारके.

दुसरे खंयचेच नदरेन सारके न्हय. ज्ञानान, अणभवान, कर्तुत्वान, प्रभावान, योग्यतायेन – दोगूय वेगळे. सामके वेगळे. आकांताचें अंतर आशिल्लें.

मागीर, दोगांकूय लोकशायेन एक एकूच मत्त कशें दिलें? दोगांकूय खंयचे नदरेन तिणें सारके मानले? दोगांयचो आत्मो एक. मनशा मनशा मजगतीं बुद्दिचो फरक आसूं, शक्तिचें अंतर आसूं, तांच्या आत्म्यांत फरक ना, अंतर ना. ह्या तत्त्वाक धरून दोगूय सारके मानले?

पुणून हें तत्त्व वेदान्ताचें. लोकशाय केन्नापसून वेदान्ताची भास उलोवपाक लागली?

लोकशायेंत सगळे सारके अशें आमी म्हणटात तेन्ना आमकां सांगपाचें आसता तें हें —

मनीस जल्माक खंयचेच जातींत आयिल्लो आसूं – बामण आसूं, म्हार आसूं; दुडवांचे नदरेन खंयच्याय पांवड्याचो आसूं – गिरेस्त आसूं, गरीब आसूं, ताका वयर सरपाक सारकीच संद मेळूंक जाय. वयर सरपाक कोणाचीच कसलीच आडखळ जावंक जायना. सगळ्यांक सारके लेखूंक जाय. कोणाकूच कसलेच खाशेले अधिकार आसूंक जायनात.

जवाहरलाल आनी तांचो प्यून एक ह्याच एका अर्थान.

* * *

लोकांच्या बऱ्या भल्याचीं खूबशीं कामां आयज आमी सरकाराच्या माथ्यार धुकलून दिल्यांत. हीं कामां सरकारानूच करपाचीं अशें आमी थारायलां. आनी सरकार आमी सरसमान लोकांच्या हातांत दिवन उडयलां. हाका लागून जाता कितें – जांकां आमी वेंचून दितात तांच्या हातांत सरकार वता. आमी वेंचून कोणाक दितात? जांकां आमी 'आमचे' मानतात तांकां. आनी 'आमचे' मनीस सदां 'आमच्याच पांवड्या'चे आसतात. म्हळ्यार, सरसमान बुद्दिचे आसतात.

सरसमान बुद्दिचे लोक सदां रुढिवादी, परंपरावादी, कसलोच बदल कोणूय करूंक भायर सरलो जाल्यार ताचो विरोध करपी आसतात.

म्हळ्यार, प्रतिगामी, प्रतिक्रियावादी आसतात.

जावंक कितें जाय?

जांकां समाजांत बदल घडोवन हाडपाचे आसात तांणी सरकारांत वचून आपणालो वेळ होगडावंक जायना. सरकारांत रावन कसलेच बदल घडून येवंपाचे नात. सरकारांत वचपाचें तें 'जें चलता तेंच चलोवंक सोदतल्या'

ांनी. समाज बदलूंक सोदतल्यांनी सरकारा भायर रावंक जाय. आनी त्येच्या राजकर्णा बदला शक्तिचें राजकर्ण करूंक जाय.

श्रीकृष्णान पांच साम्राज्यां मातयेभरवण केलीं. पुणून एकूय साम्राज्य ात घेवन चलयलें ना. कित्या खातीर? महात्मा गांधीन पस्तीस वर्सा र स्वराज्य हाडून दिलें. स्वराज्यांत आपूण राष्ट्रपतीय जाले नात, नमंत्रीय जाले नात. जयप्रकाश संकश्टा वेळार सर्वोदय सोडून राजकर्णांत आले. इन्दिरा गांधींची हुकूमशाय घट जावचे पयलींच पोखरून उडयली. न सरकार तांणीय आपणा हातांत घेतलें ना. कित्या खातीर? सरकारांत न समाज बदलूंक येना म्हणपाची हांकां सगळ्यांक खातरी पटिल्ली. ां सरकारां चलोवपाचीं नाशिल्लीं. समाज बदलपाचे आशिल्ले.

लोकशायेंत प्रज्ञावादी मनीस सरकारांत केन्ना वचचो ना. तो भायर रतलो आनी सरकारी सत्येक लोकांचे सत्येच्या अंकुशाखाला दवरतलो.

### भुरग्यांक सगळें समजता आं...

भुरग्यांक कांय समजना म्हणटात तें खरें न्हय. तांकां सगळें समजता. सगळें पळेतात. सगळें आयकतात. आनी पळेतात आयकतात तांतुंतल्यान ंक जाय तें' घेतात.

पयर एकल्यान एक खबर सांगली. तागेलें भुरगें पाळण्यांत आशिल्लें. ताणें दोळे धांपिल्ले. आवय-बापायन तें न्हिदलां जातलें अशें धरलें आनी प्रणयचेष्टा सुरू केली. भुरग्यान खंय त्यो पळेल्यो आनी ताणें कूस परतिली.

हांवें म्हळें, 'एँ, हाचे वयल्यान तुमी करतात तें कितें तें ताका कळ्ळां जातलें अशें म्हणूंक जावचें ना... बोला फुलाक गांठ म्हणटात तशी, तुमच्यो प्रणयचेष्टा सुरू जाल्यात त्याच वेळार जिस्त ताणें कूस परतिल्या... प्रणयचेष्टा पळोवन कूस परतिल्या अशें म्हणप समा जावचें ना...'

तो म्हणपाक लागलो, 'तूं म्हाका सांगता?... हांवूय एका काळार भुरगो आशिल्लों... म्हाका घट्ट याद आसा... रातचो दोळे धांपून पडटालों. न्हिदनाशिल्लों. दोळे धांपून आसलों तरूय जागोच आसतालों. हांवें एक फावट म्हज्या आवय-बापायंक प्रणयचेष्टा करता आसतना पळेल्लीं... अडेच तीन वर्सांचो आसूंक जाय हांव तेन्ना. हें कितें चल्लां तें म्हाका हय-न्हय-शें कळिल्लें. तें पळोवपा खातीर हांव केन्ना केन्ना न्हिदेचें सवंग घेतालों. तांगेल्यो प्रणयचेष्टा सुरू जाल्यो म्हणटकूच ल्हवू दोळे उकते करून त्यो पळेतालों... म्हाका कांय समजनाशिल्लें अशें न्हय...'

भुरगीं ल्हान आसलीं तरी 'पूर्ण' आसतात. भोंवतणच्यो ल्हान व्हड सगळ्यो गजाली पळोवन 'घेवंक जाय' तें तीं घेतात आनी आपणाक घडयत रावतात.

* * *

# शणै गोंयबाबांली कोंकणी अस्मिताय जागोवपी बरपावळ ★

माधवी सरदेसाय

१९१० ते १९४६ हो शणै गोंयबाबांले साहित्य-निर्मणेचो काळ – सुमार साडे तीन दसकांचो. तांगेले बरपावळिचे मुखेलपणान दोन वांटे घालूं येतात —
१. ललीत बरपावळ आनी २. शास्त्रीक बरपावळ.

ललीत बरपावळींत मुखेलपणान ह्या पुस्तकांचो आसपाव जाता :

१. **गोंयकारांचो मुंबैकार** (१९१०) हो काव्य रुपान बरयल्लो फार्स
२. **मोगाचें लग्न** (पयली उजवाडावणी १९१३), **झिलबा राणो** (पयली उजवाडावणी १९३६) आनी **पोवनाचें तपलें** (१९४८) हीं नाटकां
३. **गोमन्तोपनिषत् खंड १** (पयली उजवाडावणी १९३३) हो कथां, निबंदांचो झेलो, आनी **गोमन्तोपनिषत् खंड** वा **संवसार बुट्टी** (१९३४) ही दीर्घकथा.
४. **पुण्यात्मो राम कामती** (१९३९) आनी **आबे फारीय** (१९४१) ह्यो दोगां लोकिकवंत कोंकणी मनशांच्यो जिणो
५. **श्री भगवंतालें गीत** (१९५९) हो भगवद्गीतेचो गद्य कोंकणी अणकार

शणै गोंयबाबांली शास्त्रीक बरपावळ दोन पंगडांनी वांटून घालूं येता —

१. कोंकणीच्या भाशे-शास्त्रीक अभ्यासाची बरपावळ. हांतूंत **कोंकणी पैलें पुस्तक** (१९४०), **कोंकणी नादशास्त्र** (१९४०) आनी **कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ** (१९४६) हीं पुस्तकां येतात.
२. दुसऱ्या पंगडांत कोंकणी मनीस, ताची भास, संस्कृताय, ताचो इतिहास हांचो थाव घेवपी पुस्तकां येतात. हांतूंत मुखेलपणान **गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक** (१९२८), **कोंकणी भाशेचें जैत** (१९३०), **येवकार अध्यक्षांलें उलोवप** (१९४७), **वलिपत्तनाचो सोद** (१९६२) आनी **आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें** (१९५५) ह्या पुस्तकांचो आसपाव करूं येता.

हे सगळे बरपावळींत शणै गोंयबाबांली एकूच कार्यावळ, तांगेलो एकूच प्रोजेक्ट अखंडपणान पूण वेगळ्या वेगळ्या आंगांनी उकतो जाल्लो दिसता. तो म्हळ्यार, कोंकणी अस्मितायेक, वा म्हणुंया, कोंकणी मनशाच्या कोंकणी खेरीतपणाक जाग हाडपाचो प्रोजेक्ट. तांगेले लिखणेंतल्यान आयिल्ल्या **ऐन वेळार** ह्या निमाण्या (१९४५ च्या ऑक्टोबरांत बरयल्ल्या) बरपांत, ते निमाणे कडेन सांगतात, *'...आमी कोंकणे आमगेलें पुर्विल्लें भूत साप विसल्ल्यांत... आज धर्मकारण, राजकरण आनी भासकारण हांतूंत आमी सुतकी जाल्यांत. आमी पेल्यान रावन, कोणाक आफडनासतना, हेर लोक कितें करतात तें मोन्यानी पळेतांत आनी तांगेल्या बंदेपणांत वावुरतांत. हे भाशेन, आमगेले कर्तुत्वी पुर्वजूय आमचे सारकेच सुतकी आनी बंदे आसले अशें तांगेलें चित्र आमचे सामकार उबें रावता. आमकां उंच हावेसाची देख मेळना, आमगेलो जीव कसल्याच सात्वीक उमाळ्यांनी फुरफुरना, निखट्या बंदेपणांतूच दीस काडूंक आमी जल्मा आयल्यांत आनी सासणांचीं सासणां आमकां अशेच तरेन वांचूंक जाय, अशी साप उणाक आनी हीण भावना आमच्या मनाची जाल्या. ही असली भावना जावंक नाशिल्ली जाल्यार, आमी निजाचेच हुशार आनी बुदवंत कोंकणे, आज सगळ्या हिंदुस्तानाचें राजकरण, धर्मकारण आनी भासकारण हांतूंत मुखावैले म्हालगडे चतुर येरेंकार जावन, हिंदुस्तानाचें भाग्यवंत तारूं केन्नाच खैंचे भाटयेक लागूंक दिनासतना सुसंगीत, सायसंगीत आनी हुस्क्यामेकळें चलैतले आसले. पणून भंगले आमी...'*[1] आनी मागीर ते आपणाल्या *'आस्तिवंत आनी उमेदिच्या'* कोंकणी तरनाट्यांक *'आगरो करून आड्डून'* सांगतात – *'येन्नादर तें (पुर्विल्लें) भूत अुपकार करून सोडून काडात आनी तुमच्या कांठ्यार बसयात. तुमी तुमगेलो भाग्याचो इतिहास बारकायेन विसकून पळयात आनी ते भाशेन, तुमी तुमचो आतांचो आनी फुडलो काळ थारायात. तुमच्या धंग-नासपान, न्हिदसुरेपणान, आळसायेन आनी घळयेपणान जे परके सुवराथी लोक तुमच्या घरांत रिगून तुमच्या हड्ड्यार बसल्यात आनी धनीपण चलैतात तांगेलो फटाशिंचो तड्डकी अितिहास तुमी अुश्टांव नाकात. तांगेल्या मेंदून तुमी येवजुं नाकात. तांगेल्या पोश्यान तुमी अुदक पियेवं नाकात. तांकां तुमी कोंकणाच्या आड्याभायर बेगीन धांवडायात आनी तुमगेले निजाचे तेजिश्ट आनी ओजिश्ट बुद्दीन येवजात आनी वावरात. म्हणटकी, तुमी बऱ्याक पावतले...'*[1]

आबे फारीय आनी राम कामतीच्या जिणां वरवीय शणै गोंयबाब होच संदेश दितात. फारीय हो भुलविद्येचो शास्त्रीक सोद लावन *'गळूंक लागिल्लीं रगतां थांबोवपी आनी पिडे रोगांचीं चवनां पेखोवपी'*[2] अठराव्या-इकुणिसाव्या शेंकड्यांतलो *'गुणेस्त गोंयकार संत'*[2] पुर्तुगिजांची सत्ता गोंयांतसून हुमटावन उडोवपाखातीर रचिल्ल्या १७८७तल्या गुमानीत कटांत वांटेकार जाल्ल्या स्वाभिमानी बापायलो तो पूत. फ्रेंच भाशेंत उजवाडा आयिल्ल्या भुलविद्येवयल्या आपणाल्या पुस्तकांत फारीय आपणाल्या नांवा सांगाताक आपणाली जात ('बामण') जोडटा आनी सगळ्या पदव्यांच्या माथ्यार तिका सुवात दिता ही गजाल शणै गोंयबाबांक व्हडविकायेची दिसता. हांतूंत तांकां फारियांचो स्वाभिमान दिश्टी पडटा. ते बरयतात, *'ताणें आपल्या पुस्तकार आपली जात दिवंक नाशिल्ली जाल्यार, येवरोपांतले लोक ताका खरेपणानशीं आपले भितल्लोच एकलो समजतले आसले आनी तागेल्या म्हत्वाच्या शास्त्रीक सोदाचें येस गोंयाक आनी हिंदुस्तानाक मेळचे बदला येवरोपाक मेळटलें आसलें... ताणें आपली जात दिल्ल्या कारणान, ताका हिंदी म्हळ्याबगर येवरोपी विद्वानांक दुसरो मार्ग उल्लो ना.'*[3] फारीयांची जीण वाचप्यां मुखार दवरून ते कोंकणी मनशाक 'कशें आसचें' ताची देख दितात. पुस्तकाचे निमाणे कडेन ही जीण बरोवपा फाटली शणै गोंयबाबांची मोख उकती जाता. ते म्हणटात, *'फारियाचे जिणेवरसून हिंदू आनी क्रिस्तांव मेळून दोगांयनी जायती देख घे-सारकी आसऽ. हिंदूंक मराठी लोक आनी तांगेली भास व्हडलीं दिसतात. आनी क्रिस्तांवांक पुर्तुगीज लोक आनी*

★ गोवा कोंकणी अकादेमीन घडोवन हाडिल्ल्या साहित्य सप्तकांत २० मार्च १९९८ ह्या दिसा वाचिल्लो पेपर.

*ांगेली भास व्हडलीं दिसतात... दोगूय परक्यांच्या नादांत आनी बडवाचारांत ल्ल जाल्यात... दोगांयच्या बरपांत* ***निजाचें भांडवल कांयच नासता****... ारियाच्या बरपाची अशी गत जावंक ना. ताणें फ्रांसेजी सारकी परकी ास जरी लागीं केली, तरी तिका आपणाचो जीव-नांव विकून तो तिचो दो जालो ना. ताणें आपलो खासा मेंदू सांसपून तांतूंतसून मोलादीक त्लां भायर काडलीं आनी तांच्या मोलान ती भास विकती घेवन तिका ापली बंदीण केली!... देखून,* ***आमच्या गोंयकारांनी जरी परक्यो भासो ागीं केल्यो तरी तांणी परक्यांचें निखटें उष्टें खावन सुण्याभाशेन वांचचें हय. तांणी फारियाभाशेन आपल्या खासा मेंदून येवजून, कसलें तरी वें गिन्यान उजवाडा हाडचें.****'*[४]

राम कामती हो सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांतलो व्हडले कर्तुत्वदशेचो ोंयकार. *'मुंबै शारांतलो तो पयलो वयलो म्हाल-मुखेल म्हाजन.'*[५] सुमार ाळीस वर्सां लोकांचे आनी सरकाराचे सेवेक ओंपून आनी तांचो उपाट ्वेस्वास जोडून व्हडविकायेन जियेले उपरान्त कुस्कूट अन्यांव नासतना, ांच्या 'गुन्यांवां'ची चौकशी करपाचें फकाण करून सरकारान ताका बंदखणींत ्रसो घालो आनी थंयच तो निर्णल्ल्या आनी निरशेल्ल्या अंतस्करणान ्रसो भायर पडलो[६] ताची गजाल हे जिणेंत शणै गोंयबाब सांगतात. येद्या हडल्या कर्तुत्ववान मनशाची अशी दशा कित्याक जावची ताचो थाव ्रेतना ते बरयतात: *'तो (राम कामती) बुदवंत, हुशार, धिरिष्ट आनी साहसी आसलोय जाल्यार, ताच्या आंगांत धनीपणाची ऊब निखालूस नासली. तो कुडीन आनी मनान इंग्रजांचो साप बंदो जाल्लो. ह्या बंदेपणाफुडें ताका आपले जिणेची मुखेल लागणूक कितें ती केन्नाच कळ्ळी ना. ती ताका कळिल्ली जाल्यार, इंग्रजांनी केल्लो अन्यांव आनी अपमान बंद्याभाशेन सोसून, तांचे आड हात उबारिनासताना तांगेले बंदखणींत तो झरकटून मरचो नासलो. तो शिवाजीभाशेन थैंसून सुटून वचून तांकां प्रायश्चित भोगैतलो आसलो.*[६]

कामतीच्या वेळार आनी उपरान्तच्या काळांत *'धनीपणाची ऊब नासून बंदेपणाचे भावनेन भरिल्ले'*[७] कितलेशे अशेच *'कर्तुत्वदशेचे हुशार, बुदवंत आनी शूर'*[७] बामण शणै गोंयबाबांक दिश्टी पडटात आनी तांगेले जिणेच्या दुखेस्त वा फिक्या अखेरा फाटलें कारण तांकां होलमता. ते बरयतात: *'अजून आमचे भितल्ली कामतिची पाथावळ तुटूंक ना. आमचे भितर बुद्द आसऽ, विद्या आसऽ, बळगें आसऽ, दुडू आसऽ आनी ह्या खातीर कोणाकूय अभिमान दिसूंक फावो. परंत इतलेंय जावन, धर्मांत, भाशेंत, समाजांत आनी राजकर्णांत आमकां धनीपण ना. आमी आमच्या खाशेल्या घरांत देडा दिसाच्या परक्याभाशेन चलतांत. आमी बंदेपणान वावुरतांत. आमचो आत्मविस्वास सामकोच उबला. दुसऱ्यांचे दिवटेतळा आमी आमचे बुद्दिचो उजवाड घालतांत.'*[७]

आनी, म्हालम्हाताऱ्या पुण्यात्म्या राम कामती मुखार तकली बागोवंक लावनूय शणै गोंयबाब वाचप्याक सादूर करतात. राम कामतीची जीण गोंयकार बामणांच्या (एक नदरेन, कोंकणी मनशाच्या?) उणेपणाचेर बोट दवरता; आनी, पुण्यात्मो राम कामती कोंकणी मनशान 'कशें आसचें न्हय' ताची देख जाता. आनी बरोवप्या वांगडा वाचपीय आत्मपरिक्षण करपाक तयार जाता: *'अशें कित्याक जावचें? आमी केन्नाच्यान इतले बाबत जाल्यों? आमचे चड पुर्विल्ले जाणटेलेय अशेच आसले? ते धनीपणान वावुरताले कि बंदेपणान वावुरताले? आमची बंदेपणाची भावना जावंक मूळ कितें? पर्थून आमच्यान धनीपण जोडूं येत कि ना?'*[७]

कोंकणी मनशाच्या धनिपणाक जाग हाडपाखातीर, ७४८ ते ९७३ मेरेन सवाय दोनशीं वर्सां भारतांत दक्षिणेचे सम्राट जाल्ले राष्ट्रकूट मुदलचे गोंयचे, साष्टींतले – लोटलेचे, म्हणपाचें शणै गोंयबाब सिद्ध करून दाखयतात.[८] तेच प्रमाण, ८वो शेंकडो ते १३वो शेंकडो मेरेन कोंकणांत सत्ता गाजयल्ले शिलाहार राजाय मुदलचे गोंयचे – जांबावलेचे – वलिपत्तन म्हळ्यार बाळ्ळी हें तांगेलें राजपाटण आसलें हेंय ते सोदून काडटात.[९] हे सोदें कोंकणी मनशा मुखार मांडून, वा म्हणुंया, हें *'पुर्विल्लें भूत'* उस्तून काडून शणै गोंयबाब ताका राजकर्त्यांकडेन बरोबरी करपाचें, तांचेकडेन आयडॅंटिफाय जावपाचें बळगें जोडून दितात आनी बंदेपणाचे अवतिकायेंतल्यान भायर सरून नवे – धनिपणाचे बुन्यादिचेर उबी आशिल्ले कोंकणी राष्ट्रियतायेची बसका घालपाखातीर तांकां प्रेरणा दितात.

१९४५ वर्साच्या ऑक्टोबर म्हयन्यांत जाल्ल्या गोमंतक मराठी साहित्य सम्मेलनाच्या अध्यक्षपदावेल्यान केल्ल्या काका कालेलकरांच्या उलोवपाचेर आपणाले विचार उक्तायता आसतना शणै गोंयबाब कोंकणीच्या भासकारणाचो तांकां जाल्लो दिश्टावोच वाचप्यां मुखार मांडटात. 'गोंयकार मराठ्यां'चे भुमिकेची टिका करून ते म्हणटात – *'कोंकणी भास ही क्रिस्तांवांली आनी मराठी भास ही हिंदुंली खैं! ते आपणाक 'पुर्तुगेज' म्हणैतात म्हूण तांगेली अपुर्बुद्द आनी हे आपणाक 'मराठी' म्हणैतात ही हांगेली शाणेली बुद्द! ते पुर्तुगालाक 'बापूयभूंय' म्हणटात ही तांगेली पिसाय आनी हे मराठणाक 'आवैभूंय' म्हणून गोंय हो मराठणाचो 'मोडुं नज जाल्लो कुडको' म्हणटात ही मात हांगेली जाणवाय!... हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळटकूच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणाचीं सासणां बंदेपणांत काडचीं! दमणगंगे साकून मलबारा मेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासा-खवान चलोवचो आनी आपणाल्या घरा-दारांत आपणें धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सपनांतूय येना! हांकां बंदेपणाचीच रूच!... हांकां स्वतंत्र कोण करीत?'*[१०]

साहित्यांत बायलमनशेंतले उर्वशीक म्हाणाय दिवंची न्हय, तिचे बदला म्हैशासुरमर्दिनीक मखरांत पुजची, तीच संवसाराची तेजिश्ट आवय[११] हें काकासायबांचें मत्त उखलून धरता आसतनाच हे धर्मीक संस्कृतायेच्या मळारूय कोंकणी संस्कृताय वेगळी कशी तें शणै गोंयबाब उकतें करून दाखयतात. ते म्हणटात, म्हैशासुरमर्दिनीक आमी फकत *'झुजमारी देवी'* म्हूण वळखतात. पूण *'तिचेकूय चड पुर्विल्ली* ***उमा*** *(संवसाराक राखणी),* ***अंबा*** *(संवसाराची खरेली बा, आवै) आनी शान्तरुपाची देवी आयज अडेच हजार वर्सांवैर आमगेल्या कोंकणांत गांवा कणकणी नंदता आनी आमकां प्रसाद-पाखळी दिता... हे देवी इतली पुर्विल्ली देवी वेदीक बरपावळींत आनी सगळ्या हिंदुस्तानांत दुसरी कोण दिसना... कुडाळासाकून कारवारा मेरेन सांतेरिचें देवूळ वा देवळी नाशिल्लो एकूय गांव मेळत-सो दिसना. सगळ्यो जाती तिका पुजतात आनी सगळ्यांक ती राखण दिता. आमगेल्या कोंकणाबादत सगळ्या हिंदुस्तानांत सांतेरी ह्या नांवान दुर्गेची पुजा हेर खैंचेच कडेन चलना. हे भाशेन,... ह्या नांवाक कोंकणाच्या हका-मोलाचें 'ट्रेड-मार्का'चें रूप आयलां'.*[१२]

हेच भाशेन, कृष्णाची 'देवकी-कृष्णा'च्या (देवकेलो पूत कृष्ण ह्या अर्थान) रूपान केल्ली पुजा फकत कोंकणांत – तीय बी गोंयांत पळोवंक मेळटा. पुराय हिंदुस्तानींत ह्या नांवाचें श्रीकृष्णाचें देवूळ हेर खंयचेच कडेन दिश्टी पडना.[१३] देवकी-कृष्णा भाशेन म्हादेवाची मांगिरीश – 'मंगेश' ह्या नांवान पुजा जाता तीय बी गोंयांतूच.[१४] देखून शणै गोंयबाब म्हणटात, सांतेरी वरी 'देवकी-कृष्ण' आनी 'मंगेश' ह्या नांवांकूय कोंकणी ट्रेड-मार्काचें रूप आयलां. असलोच आनीक एक ट्रेड-मार्क शणै गोंयबाबांक 'रवळनाथा' भितर मेळटा. कुडाळा साकून कारवारा मेरेन दर एका गांवांत रवळनाथाचें ल्हान-व्हड देवूळ आसताच आनी सगळ्यो जाती ताका पुजतात अशें सांगून शणै गोंयबाब रवळनाथ म्हळ्यार 'राहुलनाथ'; तें म्हादेवाचेंच एक रूप अशी ताची अर्थावणी करतात.[१५]

ब्रह्मदेवाले भक्तितूय शणै गोंयबाबांक 'कोंकणी हिंदू' संस्कृतायेचें खाशेलेपण आनी पुर्विल्लेपण दिश्टी पडटा. ब्रह्मदेवाची भक्ती हिंदुस्तानांत वेदीक काळांत चलताली. पूण खिस्ता आदल्या ५व्या-६व्या शतमानांत म्हळ्यार गौतम बुद्धाच्या काळार ब्रह्मदेवाची भक्ती उणी जाल्ली, म्हूण आयज भारतांत ब्रह्मदेवाचीं देवळां भोव उणीं – दोन तिनूच मेळटात. तांतलें एक गोंयां – सत्तर म्हालांतल्या ब्रह्मकर्मळी गांवांतलें ब्रह्म्याचें देवूळ [१६] अशें सांगून ह्या सगळ्या (सांतेर, देवकी-कृष्ण, मंगेश, रवळनाथ आनी ब्रह्मो) हिंदू देवांच्या भोव पोरण्या रुपांच्या आधारान आर्यांनी कोंकण वसोवची म्हुर्तमेड वेदीक काळांतूच रोयली म्हणपाचें शणै गोंयबाब सिद्ध करून दाखयतात.

गोंयांतले ब्रह्म्याचे भक्तिचो सोद घेता आसतना शणै गोंयबाब एका नव्या फुडाराचेर दोळो आशिल्ल्या कोंकणी इतिहासीक समाजशास्त्राची बसकाय घालतात. ते बरयतात, *'ब्रह्मकर्मळेच्या ब्रह्म्याचे म्हाजन देसाय-परोब कुळनांवाचे चाड्डे (चतूरथी) खेत्री आसात, ही गजाल इतिहासीक म्हत्वाची आसा. हाचेवैल्यान, ते थैंचे भौच पुर्विल्ले गांवकार हांतूंत दुबाव ना. अडेच हजार वर्सां आदल्या* ***वेदीक*** *काळांत बामणां वांगडा खेत्री कोंकणांत आयिल्ले हाचो हो घसघशीत पुरावो. राष्ट्रकूट, शिलार (शिलाहार), राणे (राणक-राजा), मोरये (मौर्य),* ***कोंकणे*** *संकपाळ आंगरे, परोब (प्रभु), सावंत (सामन्त – राजा लागशिले, राजाचे नातेवर्गी), रावत (राजपुत्र → राउत्त → राउत), देसाय (देशपति), फळ-देसाय, गांवस, पळ बी नांवादीक खेत्री घराणीं, ब्रह्मकर्मळेच्या देसाय-परबां भाशेन चड पुर्विल्ल्या काळांत वांगडाच वा चिके फाटीं-फुडें कोंकणांत वसल्यांत... सतर म्हालांत पर्यें गांवच्या देवळांत सांतेरी, मावली, म्हाळसा बी देवां वांगडा, चड पुर्विल्ल्या काळापासून, एक कळस पुजतात, ताका* ***चाड्डो*** *म्हणटात. सतरिच्या पिसुल्लें गांवचे गांवकार आपुण* ***चाड्डे वंशाची*** *पिळगी म्हणु, देवपणाच्या वेळार राखणेचें कौल घेवंक, ताच्या नांवान गाराणें घालतात. हे भाशेन चाड्डो हें उतर भौच पुर्विल्लें, मोट्या माना-भौमानाचें, देवाचे व्हडविकेचें, जिंत्रूप देव म्हणु पुजेक लायिल्लें आसतना, हो उजळ आनी भारी-भुशणाचो इतिहास विसरून, आमगेले उंच आनी कुळवंत खेत्री हालिंच्या देड-दोनशीं वर्सांक, आपुण 'मराठे' म्हणोवंक लागल्यात, ही व्हडली पिसाय...* ***हे तांगेले करणेन, ते वैल्या पांवड्यारसून सकला घालून घेतात... ते मराठणांतसून कोंकणांत येवंक नात. ते वेदीक काळांतले.*** *पुराणीक काळांतले न्हयत. देखून, तांगेल्या देव-धर्मीक देवकार्यांत तांकां* ***वेदीक मंत्रू****च लागू जातात; पुराणीक मंत्र लागू जायनात. अशें आसतना, परके नाड, तड्डकी, सुवार्थी, धोंसके लोक तांकां अुणाक लेखून तांच्या माथ्यार पुराणीक मंत्रांचें ओजें अुबारूंक लागल्यार, तांकां तांणी फाट-फुडो पळेनासतना, कोंकणाच्य आड्याभायर सासणाचे आमडून घालचे. आनीक वाट पळोवची न्हय.'* [१७]

ते मुखार बरयतात, *'खेत्र्यांभाशेन वाणीय, चड पुर्विल्ल्या वेदीक काळांत, बामणांवांगडा कोंकणांत आयिल्ले हाचो पुरावो, कोंकणांत बुद्ध धर्माची जोत पेटैणो पुण्ण हागेले जिणेंत मेळटा.'* [१८] पुण्ण सुनापरान्तांत म्हळ्यार, शणै गोंयबाबांले अर्थावणे प्रमाण, गोंयच्या जांबावली वाटाराच्या आवाठांत, वाणयांल्या गांवांत बुद्धाच्या काळांत जल्मल्लो. बुद्धाले जिणे-काळांत गोंयां वाणयांली वसणूक आसली हाचो अर्थ, वाणीय बी वेदीक काळांतूच कोंकणांत आयिल्ले जावंक जाय आनी देखून तांगेल्याय देवकार्यांत वेदीक मंत्रूच लागू जातात अशें शणैं गोंयबाब बरयतात. [१८]

ते इतल्यारुच थांबनात. मुखार म्हणटात, *'आतां आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशेच क्रिस्तांव, हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्ल्या भावांक आपणाल्या उंच पांवड्यार चडोवन, सगळ्यांनी मेळून, कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची.'* [१९] अशे तरेन कोंकणी भास नव्या कोंकणी समाजाची एकवटाची घुडी जाता आनी *'ॐ सांतेरी पाव! अ आंकवार मोरये पाव!'* [२०] ही होरावणी ह्या विसकळीत जावन पडिल्ल्य कोंकणी समाजाक एकठांय हाडपी फांकिवंत कोंकणी मंत्र जाता.

खंयचोय विचार लोकांमदीं पावोवपाचें नाटक हें एक प्रभावी माध्यम नाटकाचे माचयेर कोंकणीक पळोवपाची संवकळ नाशिल्ले मुंबयचे 'गोंयका हिंदू सभे' मुखार शणै गोंयबाबान **मोगाचें लग्न, पोवनांचें तपलें** आनी **झिलब राणो** हीं आपणालीं तीन नाटकां हाडलीं. हांतुंतलीं **मोगाचें लग्न** आनी **पोवनाचें तपलें** हीं नाटकां सतराव्या शेंकड्यांतलो नांवाजतो फ्रँच नाटकका मॉलियेर हांगेल्या दोन खेळांचे मेकळे कोंकणी रुणकार. मनीस-सभावांतल्य धोंगां-पोंगांचेर प्रतिश्टीत समाजाच्या चालीं-रितिंचेर, तांचे पोकळ प्रतिश्टेचे हांसत हांसत बडी मारून मॉलियेरान जशे आपल्या काळावेल्या लोकां पोटभर हांसयले, हांसयत तिडायत जागे केले, तेच तरेचो वावर श गोंयबाबान मोगाचें लग्न आनी पोवनांचें तपलें ह्या नाटकांनी केल्लो दिसता ह्या नाटकांनी घडये पयले खेपे मुंबयच्या गोंयकार हिंदू प्रेक्षकां मुखा तांगेलोच समाज तांगेलीच दिसपट्ट्या वेव्हारांतली भास घेवन, तां भितल्ल्या बऱ्या वायट गुणां सयत हारसो कसो उबो रावता. हीं दोनू नाटकां हेर कितल्याश्या गजालीं वांगडा गोंयच्या प्रतिश्टीत हिंदू समाजाच्य भाशीक भावार्थांतलें उखलापेपण वाऱ्यार घालतात. कोणाच गोंयकाराच आवयबापूय उलयना ते मराठी भाशेक गोंयांत मायभास कित्याक म्हणटात **मोगाचें लग्न** नाटकांतलो घारुदाद दुबाव उक्तायता आनी अडेचो वै जाल्लो बाबगो ताका सांगता, *'अगा, तुका तें समजना. अठ्ठावीस युगां आदीं ब्रह्मदेवान पैलींच जेन्ना गोंय निर्माण केलें आनी तांतूंत पैलींच जेन्न मनशां जल्माक घालीं तेन्ना तांगेली भास मराठी आसली. आतांचे आम गोंयकार हे त्याच मनशांली पिळगी. देखून सगळ्या गोंयकारांली म्हात्रभार मराठी.'* जिबेवेले भाशेक बाबगो *'हेंगाडी भास म्हणटा आनी विचारता 'तिका भास हें उतर सोबता गा तरी? म्हाका जाल्यार ते भाशेचो दो फोडून राग येता. पणून आसूं, भँगू म्हणून हांव ती उलैतां.'* बाबगो म्हणटा *'...औमकां वैजांक जाल्यार ती भास निखालुस फावना गा. आमी म्हणटा तें संवस्कुत्र नाजाल्यार म्हात्रभाशेनूच उलौंक जाय. तितलेंय घडना जाल्य उलैता आसतना मदीं मदीं संवस्कुत्र उतरां अड्रूण घालूंक जायत.'* आनी तो बोंबबाबाक (घारुदादाल्या कारभाऱ्याक) विचारता, *'अगा आसनवाटिकेसून दीपकन्येक गेलो आनी थैंची जलशाक घेवन सुवर्णकाच्य थार बसून स्त्रंखळापुराक गेलो' अशें म्हळ्यार बरें दिसता कि 'अस्नोडेरसू दिंवचेले गेलो आनी थैंचें नुस्तें घेवन सोनक्याची गाडी करून सांक गेलो' अशें म्हळ्यार बरें दिसता?'* आनी बोंबबाब जाप दिता, *'तु तें पैलें उलौपूच बरें दिसता म्हणपाचें भेड्डो लेगीत सांगत.'* *'सवंस्कुत्र'* आनी *'म्हात्रभाशे'*ची इतली तुस्त गावनूय निमाणें बाबगो घारुदादा म्हणटा, *'आतां तुजे धुवेच्या रोगाची फोडणिशी तुजे हेंगाडी भाशेंतूच करता कर्मांतूच आयलां तें. ताका कोणाचो उपाय?'* आनी, उपाय ना जाव तो कोंकणी उलयता. [२१] हांगा अशिक्षित बाबगो शिक्षित – प्रतिश्टीत समाजाची भास उलयता, ताचें प्रतिनिधित्व करता.

**पोवनाचें तपलें** नाटकांतूय शणै गोंयबाब असलेच कांय 'भाशीक चिमटे काडटात. म्हाळूभट तातुबाबाले धुवे खातीर कांय थळां सुचयता; तांतुंतल्य एका न्हवऱ्याचें वर्णन, ताची पात्रताय पळेयात – *'ताका फिर्गी बरप कांय येना. तो म्हराश्ट भास उलैता. ही भास ताची इतली निजाच जाल्या कि तो म्हराश्टींत हांसता आनी म्हराश्टींत रड्टा. तो म्हराश्टी खांकता आनी म्हराश्टींत ओंकता. म्हराश्टांतल्या सगल्या बुलेतिंचे कव ताच्या दोनूय बोल्सांनी तिनूय-त्रिकाळ गच्च भरिल्ले आसतात. तो नवरात्रां सरस्पतिचे पुजेक तेरेखोला साकून लोलयें मेरेन आनी मुरगांवां साकू*

दुसागरा मेरेन दर एका गांवांत भोंवन म्हराश्ट भाशेंत उलौप करता आनी सता कि आमी उलैतांत ती कोंकणी भास साप विसरून तिचे बदला जपणांत आनी न्हिदेंत म्हराश्ट भास उलैल्या बगर आमची भूंय वैर री ना. आमगेलें दर एकलें भुरगें आतां म्हराश्ट भाशेंत रडूंक जाय ताका भाट-बेंस ना आनी चाखरी-चुखरीय ना. तरी आसतना, तरेकतरा ळाश्टकां करून तो कशेंय पोट भरता. ताका आवै-बापूय आसा, वरदक्षणा वीं हजार.' हाचेर तातुबाब म्हणटा, 'अबा-बा-बा! निखट्या घोळाश्टकांक अी म्हराश्ट भाशेचे ओंकीक वीस हजार वर-दक्षणा?... ताची म्हराश्ट आमकां नाका.' ह्या न्हवऱ्याक ओतांत उबो करून तळतळावंक अशें ताका दिसता.[२२]

**झिलबा राणो** हें अरेबियन नाइट्सां'तले अबू हसनाचे काणयेच्या आधारान बल्लें नाटक. पूण बारिकसाणेन पळेल्यार हें नाटक अबू हसनाचे काणयेचो थोडो आधार घेता. ह्या नाटकांत काळाचे नदरेन विसंगत अश्यो दोन भुंयो सांगातान पळोवंक मेळटात —

१ कदंबांच्या काळावयल्या गोंयची इतिहासीक फाटभूंय. नाटकांतल्यो घडणुको कदंबांल्या राजपाटणांत – गोवापुरींत म्हळ्यार व्हडल्या गोंया, ११२४च्या अदमासाक घडटात. कदंब राजा दुसरो जयकेशीदेव, ताची राणी मैळल म्हादेवी ह्यो खरेल्यो इतिहासीक व्यक्ती ह्या नाटकांत पात्रां म्हणून येतात. म्हाळपै नायक, दण्णायक, काटकार सारकेल्या शणै गोंयबाबांल्या सोदां (अदमासां) प्रमाण त्या काळार गोंयच्या समाजांत राजकी नदरेन म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो व्यक्तीय (नांवां) ह्या नाटकांत दिश्टी पडटात.

२ शणै गोंयबाबांल्या काळावयल्या गोंयची समाजीक फाटभूंय. आपणाले आवय-भाशेक विटपी आनी परक्यांले भाशेक लागीं करपी स्वाभिमान वगडावन बशिल्लो समाज (बामणी समाज) ह्या नाटकांत आमकां दिश्टी पडटा.[२३] तेच वांगडा स्वाभिमानी चाड्ड्यांचे आनी वाणयांचे प्रतिनिधीय (झिलबा राणो आनी कदंब राजा) ह्या नाटकांत मुखेल पात्रां जावन येतात.

शेजारच्या राज्यांतल्या हरदास, पुराणीक, पिंगळी, मेडेजोयशी, ब्रह्मचारी, बा सारकेल्या कोंकणांत (कोंकणी वाटारांत) येवन कोंकणी लोकांलो हातासपी आनी वयल्यान तांचेंच तासपी तड्डकी लोकांक बुद्द शिकोवप ह्या नाटकांतलो मुखेल विशय. झिलबाक एका दिसाखातीर कदंबराय वपाची संद मेळटा तेन्ना खरंगट्यांतले धर्मसाळेंत रावपी 'गाळयान्या दासाक' ख्यास्त करून तो राज्यांतसून भायर धांवडावन घालता. निमाणें प्रकेशी म्हाराजाकडेन झिलबा इतलेंच मागता – '...आमगेल्या ह्या सुंदर कोंकणांत भायले भूसमारे येवन जीं धुडबुसां घालतात तीं आळाबंदा हाडचीं. गाचे बामण जे आपलेपणाचो अभिमान सोडून भायल्या लोकांच्या नादाक गतात आनी आपली दशा होगडायतात तांकां मार्गार हाडचे आनी गोड-म्होंवे कोंकणी भाशेक जे कोण चिड्डूंक सोदतात तांकां चिड्डून उडोवचे.[२४]

कोंकणी भाशेचो संवसार वाचप्यां मुखार उकतो करून, कोंकणी भाशेचे किचो तांकां दिश्टावो घडोवनूय शणै गोंयबाब कोंकणी अस्मितायेक जाग डटात. तांगेल्या बरपांत – भाशेंत – आमकां 'कोंकणीपणाची अतिताय' ळोवंक मेळटा. हाका लागून, शणै गोंयबाबांलें बरप कोंकणीक सगळ्यांत गिंचे आशिल्ले मराठी भाशेंत लेगीत अणकारप भोव कठीण जावं येता. खीक **खर्णवीर** काणयेंतलो हो सर्ग पळेयात — *'सगार पावनाफुडें... प्सरांनी खर्णविराक* **आरथी दाखौन** *घरांत व्हेलो. मागीर ताका...* **केसर** *ल्ल्या* **नाल्लाचो रोस लायलो, काना-माथ्याक** *गंधेल घालें, वटणें* *ायलें आनी तार्चे* **आंग घांसून, जायेच्या वासाचो शाबू लावन, हुनहुनीत** *दकांन* **घसघशीत बरो न्हाणैलो.'**[२५] **वज्रा-केम्पांच्यो फुलयो मारिल्ल्या भांगराच्या पाटार ताका बसैलो आनी ताचे भोंवतणी सोबीत किरा-मोरांची मोतयांची रांगोळ घाली.**[२६] ताच्या गळ्यांत **माजशिंलां, जाश्रो, कळे, नागचाफीं आनी भुंयचाफीं हांच्यो पर्मळीक बऱ्यो माळो घाल्यो.** *कपळाक जवादिचें घसघशीत* **अक्षद** *लायलें. दोंय कुशिंनी* **मोर आशिल्ल्यो** *भांगराच्यो* **दिवल्यो** *पेटैल्यो... ताच्या फुड्यांत भांगराची आगोतेची* **शिर्ती** *मांडून तिचे* **कडेक भांगराचे दोणे** *दवल्ले. तांतूंत* **पोळयो, वडे, बुंदिचे लाडू, खाजिचे लाडू, साकरलाडू, मतलाडू, बेसन-लाडू, बियांचे लाडू, नेवऱ्यो, चवडे, पुडे, शिपे, साळकां, फुलां, कापां, कुरकुरां, म्हानां, जिरे-कोथमिरिचो हालवो, गुळऱ्यो, फेंडोऱ्यो, सांजोऱ्यो, दुदफेंडे, हालउंडे, सुकुरउंडे, हेलापे, सांदनां, हीट, मुठवे, मोदक, खिचडी, खाणटोळी, धोणस, पातोळी, तवसळी, कायलोळी, मणगणें, सोजी, दुदाचो पायस, शेवयांची खीर, कणग्यांची खीर, पोळयांचो रोस, सांदनांचो रोस, गुळणी, काकय बी सगळे गोडगोड परखन्न वाडले.** *तशेंच तरेकतरा आंबे, रसाळ आनी* **कापे घरे, रसबाळीं,** *सालदार्टी, सांवरबोंडी आनी मैंडोळीं केळीं, खाजूर आनी हेर फळावळ घाली...* **अप्सरा** *झिरझिरीत आनी ल्हव-पीक* **कापडां न्हेसून विडो खावन तांबडे बडंग ओंठ करून, कान-दोळे मोड्डून, आंग-पांग मुड्डून, पोल्यांर हात धरून,** *ताज्या फुड्यांत गावंक आनी नाचूंक* **लागल्यो...** *मागीर अप्सरांवांगडा तो खेळूंक बसलो.* **घुलो, ताबुलफळें, गुटफळें, वागफळें, तिकटें, गडें-फाडें आनी हेर जायते खेळ तो खेळ्ळो...'**[२७]

ह्या सर्गांत शणै गोंयबाब आमकां कोंकणी संवसार दाखयतात. कोंकणी फुलां, कोंकणी खाणां-जेवणां, कोंकणी फळ-फळावळ, कोंकणी खेळ, कोंकणी चाली-रिती हांची ही वळेरी वाचप्याक कोंकणी भाशेच्या, संस्कृतायेच्या खेरितपणाचो दिश्टावो घडयत वता. शणै गोंयबाबांल्या ललीत बरपांत असल्यो कितल्योश्यो 'समान-धर्मी' उतरांच्यो वळेऱ्यो पळोवंक मेळटात. ह्यो कांय देखी पळेयात :

राजम्हालांतलें सुन्दरें झिलबाक सांगता : *'म्हाका तरेकतरा शिवण-सूत येता. म्हाका* **कुरकुरां, आमोरां, फुलां, वागोणेची वाल, कुंवल्याची वाल, लिंगांची वाल, सोकटें, बुगडी बी सगळें येता...'** (झिलबा राणो : २५)

ह्याच नाटकांतल्या खांपू घाडयाच्या तोंडांतली ही भास पळेयात : *'सगळे* **भुतावळिचें मालें** *हांव चिड्डून उडैन. म्हाका पळेनाफुडें कितलींय खर भुतां थप्प जातात. भायली-भितल्ली नड झड हांव एका खिणांत कातरून उडैतां. म्हजें* **घाडपण** आयकनाफुडें **आळवंतीण, दंकीण, जखीण, खेत्री, रोद्री, समंद, ब्रह्मो, देंवचार, म्हारू आनी निरंकार** थर्त कांपतात... (झिलबा राणो : ३४)

संवसार बुट्टेंतलो इकरावो आत्मो संवसार कसो घडलो तें वर्णून सांगता. ताच्या वर्णनांतलें रुखावळिच्या घडपांतलें हें वाक्य पळेयात : *'...ल्हवुल्हवु जमीन जायतेकडेन सुकली आनी थैं लव्यांच्या कांय जातींतसून* **हरयाळी, सितेची चंवर, कावळ्याचे फोव, म्हातारेची शेंदरी-मांदरी आनी बोंदरां, हुंदराचे कान, घोडे-पावलां, तिरप, सांवो, पाकड, वरी, भात, आबोली, शेंवती, आंबो, पणस, वड, पिपळ, सायल असली तरेकतरा रुखावळ** *जाली.* (गोमन्तोपनिषत् खंड ॥ : २८०).

शणै गोंयबाबांल्या बरपांतल्यो ओपारीय अस्सल कोंकणी. ह्यो देखी पळेयात :

*'...तांकां जीं संकश्टां कशीं दिसतात तीं* **चिटक्यामिटक्यांच्या पोरसांत कावळ्यांक भेष्टांवक दवरिल्ल्या तणाच्या हावक्यांपरस** *चड भयांकृत न्हंयत.'* (कोंकणी भाशेचें जैत : ६०)

*'ती तिटापै-कशी कोण उबी थैं?... बरें मात* **माडी कशेंशें ऊंच वाडलां.'** (मोगाचें लग्न : ४४).

हें पणसाचें वर्णन पळेयात : *'पणस पणून केदो, इल्लोसो, माणकुलोच. पणसूल म्हळ्यार चड बरें. मोटायेन व्हडल्याश्या नाल्लाएदें जायत. धोंग-पोंग*

निखालुस ना. **वांटकुळी गुड्डी कशेंशें.** वानयेन बरें. भितर सगळे घरेच घरे. नाजूक बरे. **चांफीं कशेशे.** चार कसली ती नाच. घरो जाल्यार **हळ्डुवें सतम्याचें भांगर.** म्हींवान थपथपीत. जिबेर दवरिनाफुडें विरगळून उदक. पोटांत पावतकूच बोंबलेमेरेन थंडाय. भिकण तरी केदें? इल्लेंशें कुकूलें. **मावूय माणकुली मूट कशी.**' (**बाबुमामालो पणस: गोमन्तोपनित्, खंड १, १९८९: २४**).

*आमगेल्या घडघडचाफुडें तांगेल्या व्हडल्या व्हडल्या* **नाळिंचे फार भुरग्यांचे फटार्शींतल्या तेफळा इतलेय गाजनात.** (**खर्णवीर: गोमन्तोपनिषत् खंड १, १९८९: १०१**).

मळबाक दिल्ले माटवाचे ओपारिचो हो विस्तार पळेयात:

'...देव ना जाल्यार **धतरिच्या माथ्यार निळ्या लुगटाचो फोर मारिल्लो सोबीत बरो माटव** कोणें घालो? **माडयां-मेडिंचो निखालुस** आधार **नासताना** तो कसो तगलो? ताचेर **मेज-माप नाशिल्ल्यो भांगराच्यो फुलयो कोणें माल्ल्यो? तांतूंत आंकड्यांबगर उजवाडाचे दोन घणंघणीत** दिवे कोणें उमकळायले?... (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २५१**)

*'सूर्याचो कपचो निखळून धर्तरी जल्मली तेन्ना ती उज्यासारकी वायेच्या रुपाची आसली... मागीर* **खटखटयाच्या पंखाभाशेन** *दाट आनी वळटा तसली जाली.'* (**गोमन्तोपनित खंड २: २७६**)

शणै गोंयबाबांले बरपावळींतलीं नांवां, तांणी खासा आपणाक घेतिल्लें **शणै गोंयबाब** हें नांव लेगीत अस्सल कोंकणी – कोंकणी समाजांतूच, कोंकणी भाशेंतूच मेळूं येत हे तरेचीं. हेर भारतीय भासांनी मेळूं येत हे तरेच्या सर्वभाशीक नांवांचें शणै गोंयबाब उच्चारांत तरी कोंकणीकरण करतात. देखीक, महाभारतांतलो 'अश्वत्थामा' तांगेल्या बरपांत **अश्वत्थामो** जाता; अप्सरा तिलोत्तमा **तिळोत्तमा** जाता (पळेयात: **खर्णवीर, गोमन्तोपनिषत् खंड १**). गोमन्तोपनिषताच्या पयल्या खंडांतल्या काणयांनी आयिल्ल्या नांवांची ही वळेरी पळेयात: **शापशणै, उमाबाय, माणकू, रागलो, सकलो** ('म्हजी बा खैं गेली'); **वासशणै, फकेबाब, चाफलें, जायलें, भगू** ('वासशणैली पोपाय'); **बाबुमाम, कुष्टबाब, शाणुमाम, ताराहोनी, सीताबाय, उमाबाय, कुटुमाम, नागलो, अन्ता, रागलो** ('बाबुमामालो पणस'), **पितुबाब** ('पितांबरशणै' वयल्यान), **सावित्रीबाय, सांतशणै, घारशणै, पालुबाब, कामणें, जयवंतें, आबलें, चाफलें, फटशणै, भीक शणै, मर्तुशणै, बिचेबाब, जनें, नोन, भिंवगो, तातशणै, फकरेशणै, पतिआका** ('सरस्पतीआका' वयल्यान) **झिलुबाब, अइद्दें, सकलें, भार्गवशेट, तिकलो** (सुणो), **गिरिशणै, सोयरू, विठ्ठल** ('पितुबाबालो तांब्याप्टो'). शणै गोंयबाबांल्या नाटकांतल्या पात्रांचीं नांवांय हेच तरेचीं.

उकती कोंकणी भाशेची ही उतरांची गिरेस्तकाय वाचप्यांक उकती करून दाखयता आसतनाच कोंकणींत आशिल्ल्या उतरांचोय अर्थाचे नदरेन नुलयत, विस्तार घडोवन, म्हळ्यार, रूढ अर्था भायर उतराचो वापर करून, केन्ना आशिल्ले कोंकणी सामुग्रींतल्यानूच नवीं उतरां घडोवन शणै गोंयबाब कोंकणी भाशेक नव्या विशयांखातीर तयार करतात. आनी अशे तरेन खंयच्याय विशयाक समर्थपणान तोंड दिवपाचे कोंकणीचे तांकिचो, तिच्या बळग्याचो वाचप्याक होलम दितात.

**रूढ अर्था भायर उतराचो वापर: कांय देखी**

— **कूस:** हें उतर शणै गोंयबाबांले व्याकरणी बरपावळींत 'प्रत्यय' ह्या व्याकरणी अर्थान (देखीक, **भौवचनी कूस, विभक्तिचें कूस**) वापरिल्लें मेळटा. शणै गोंयबाबां उपरान्तच्या कोंकणी व्याकरणकारांले बरपावळिंतूय 'प्रत्यय' ह्या उतरापरस **'कूस'** उतरूच अदीक दिश्टी पडटा.

— **मुंडकार** राजा; **मुंडकारी** राज्य.

*'एक* **मुंडकार राजा** *मात खर्णविराचो तो जुल्मी हुकूम मानिना जालो.'*

*'ताणें आदीं* **मुंडकारी राज्यांत** *फावट घालून, थैंच्या राजांक आपल्या बळग्याचो आनी तुतनायकाचो हाऊ दाखैलो...'* (**खर्णवीर: गोमन्तोपनिषत् खंड १, १९८९: ८२, ८३**)

— यमराजाले **मानाय**

*'...झुजा-मळार चिड्डतकूच, यमराजाले* **मानाय** *ताचो प्राण व्हरूंक आयले तेन्ना...'* (**खर्णवीर: गोमन्तोपनिषत् खंड १, १९८९: ८४**).

— **आयतें**

*'दर एकल्या केणांत आगळीं-उणीं दोनशीं कोटी नक्षत्रां घडपाचें* **आयतें** *आसलें.* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७२**)

— **पोटकळ**

***'(तेन्ना नक्षत्राचे ओडिचो नेट अदिक जावन सूर्याचे आंगांतले वायेचें आकान्ताची भरती आयली आनी तांतूंतसून एक उंच ल्हार वा लोळ वैर सल्लो...) गुरू आनी शनि हे लोळ्याच्या पोटकळाकडले** कुडके* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७५**)

— **पचकटो** (atmosphere ह्या अर्थान)

*(सूर्याचो कपचो निखळून धर्तरी जल्मली... तिचेवैली ऊब पातळ जावन उदक जालें.) कांय उबेचो तिका* **पचकटो** *जालो.* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७६**)

**शणै गोंयबाबान घडयल्लीं कांय नवीं उतरां**

— **बावल्यां-भक्ती** (''मूर्ति-पुजा'')

*'...पुर्विल्ल्या हाता-लिखतांत बावल्यां-भक्तिचो धर्म भल्ला म्हणपाचें समजान ताणीं तीं जाळ्ळीं'* (**कोंकणी भाशेचें जैत: २२**)

— **भुंय-माप** (''area'')

*'हें गोंय उत्तरेक तेरेखोला साकून दक्षिणेक माजाळी मुडगिरीमेरेन ६० मैल लांब आसून पूर्वेक दुदसागरासाकून पश्चिमेक हिंदी म्हालसमुद्रामेरेन ३[illegible] मैल रूंद आसऽ आनी ताचें सगळें* **भुंय-माप** *१०६० चौखणे मैल आसा* (**गोंयकारांली गोंयाभायली वसणूक: १, २**)

— **फातरेल्ले जीव** (''fossils'')

*'आमगेल्या घराचो चिरो फोडून पळेलो जाल्यार भितर* **फातरेल्ल्या जिवांचे** *लक्षांनी कल्लां दिश्टी पट्टात.'* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २९१**)

— **रसायण-साळ** (''Laboratory'')

*'ही बुट्टी येवंक नाशिल्ली जाल्यार हांव खऱ्यानीच म्हजे* **रसायण-साळे** *जीव जल्मा घालतलों आसलों...'* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७९**)

— **जडसाणेची ओड** (''gravitational pull'')

*'(बोंबाड्यांतल्या वायेंतले परमाणु एकसारके हालताले. दरएकलो परमाणु दुसऱ्या परमाणूक आपणावशीन ओट्टालो.) ह्या ओडपाक* **जडसाणेची ओड** *म्हणटात.'* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७१**)

— **सूर्यावळ, गिरावळ** (solar system, planetary system)

*'तागेल्या (सुर्याच्या) कुटुंबाक सूर्यावळ आनी भुरग्यांक गिरावळ म्हणटात'* (**गोमन्तोपनिषत् खंड २: २७६**)

अशे तरेन, खंयच्याच विशयाक कोंकणी भास उणी पडना, ही भास संवसारांतले हेर खंयचेय गिरेस्त भाशेचे पंगतीक बसोवपाचे योग्यतायेची म्हणपाचें दाखोवन शणै गोंयबाब कोंकणी मनशा भितर भाशीक आत्मविश्वास जागयतात.[2]

शणै गोंयबाबांल्या शास्त्रीक बरपाक आर्विल्ली लोकशायवादी नदर आशिल्ली. शास्त्रीक भास लेगीत सगळ्यांक सोंपेपणान समजता अशे तरेन आसूंक जाय अशें ते मानताले. आनी ते प्रमाण चलताले. **येवकार अध्यक्षांल्या उलोवपांत** ते म्हणटात, *'कोंकणी भास आमी अशे तरेन फुलोवया [illegible] सकैल्या पांवड्या साकून वैल्या पांवड्या मेरेन उलोवपांत तशी बरोवपांत ती सगळ्यांक सारकी समजूंक जाय. वैली भास आनी सकैली भास*

...डेती भास आनी गावडी भास अशे तिचे वांटे जावंक जायनात: आमी ...वड्यांक पंडीत करूंया आनी सगळेच पंडीत जावंया. आमी सगळे ...ण कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगुंया.'[२९] हें विशाळ सपन पळोवन, ...खरें करपाचें 'मिशन' घेवन, कोंकणीक कोंकणी मनशाच्या सगळ्या ...रगतिच्या वावराचो सूर्य लेखून[३०] शणै गोंयबाब आपणाले बरबावळींतल्यान ...खंडपणान कोंकणी अस्मितायेक जागयत रावले.

(गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बरेपणान)

...nd Notes:

... येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १४४-१४६
... आबे फारीय: २
... आबे फारीय: २७
... आबे फारीय: २९, ३०
... पुण्यात्मो राम कामती: १
... पुण्यात्मो राम कामती: १२१
... पुण्यात्मो राम कामती: १२२
... गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक: २८-२९
... गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक: ५-७; वलिपत्तनाचो सोद
...०. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: ९३, ९४
...१. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १११
...२. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १११, ११२
...३. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: ११३-११६
...४. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: ११९, १२०, १२६
...५. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १२६-१२९
...६. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १२९-१३३
...७. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १३४, १३५
१८. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १३५, १३६
१९. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १३७
२०. ऐन वेळार: येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: १४६
२१. मोगाचें लग्न (तिसरी उजवाडावणी १९८९, कों.भा.मं., मडगांव): ४९, ५०)
२२. पोवनांचें तपलें: १३-१५
२३. झिलबा म्हणटा, '*...भायल्या भूसमाऱ्यांच्यो मांडावळी चलैल्यात त्यो फक्कत बामणांनीच. तांकां आपलेपणाचो अभिमान निखालुस ना. तांचेपरस आमी चाड्डे आनी वाणी हजार वांट्यांनी बरे. आमकां नाखाटो आसा ताच्या धाव्या वांट्यानूय तांकां ना... म्हाका दिसता, ह्या फुडें असल्या ह्या बामणांकडेन आमी म्हालगडेपण दिवंक फावना. ते देडे दमडेक आमगेली भूंय भायल्या लोकांक विकतले.*' (पळेयात, झिलबा राणो: ५-७)
२४. झिलबा राणो: ६०
२५. हें वाचून गोंयचे दिवाळेचो उगडास जाले बगर कसो रावत?
२६. पळेयात – **फुलयांचे पाट, किरा-मोरांची रांगोळ.** धतरिवयले (गोंयचे) पाट लाकडाचे, रुप्याच्यो फुलयो आशिल्ले; धतरिवयली रांगोळ पिठाची. सर्गावयले पाट भांगराचे, वज्रा-केम्पांच्यो फुलयो आशिल्ले आनी रांगोळ मोतयांची – इतलोच फरक.
२७. खर्णवीर: गोमन्तोपनिषत् खंड १ (३री उजवाडावणी १९८९, कों.भा.मं., मडगांव): ९३. उतराचेर भर – म्हजी.
२८. हाची एक सुंदर देख म्हूण 'संवसार बुट्टें'तल्या ११व्या आत्म्याचें उलोवप वाचचें. **गोमन्तोपनिषत् खंड २**: २५७-२८७.
२९. येवकार अध्यक्षांलें उलोवप: ७१.
३०. रवीन्द्र केळेकार: **कोंकणिचो प्रस्न आनी शणै गोंयबाब: वलिपत्तनाचो सोद** पुस्तकाक बरयल्ली प्रस्तावना (पान १६).

---

☐ गिन्यान दिवपी मनीस पिरायेन ल्हान आसलो तरूय जाणटे पिरायेच्या शिष्यान ताका बापाय सारको लेखचो. अंगिरसाचो पूत पिरायेन ल्हान आशिल्लो तो जाणटे पिरायेच्या लोकांक गिन्यान दितना 'भुरग्यांनो' म्हूण उलो मारतालो. मनीस पिरायेन वा केंस पिकिल्ल्यान वा दुडू जोडिल्ल्यान जाणटो जायना. जो दुसऱ्यांक गिन्यान दिता ताकाच 'जाणटो' म्हणटात. तो पिरायेन ल्हान आसलो जाल्यारूय. लाकडाचो हती केलो म्हूण तो खरो हती जायना. तसो, जो गिन्यान जोडिना तो पिरायेन जाणटो आसलो जाल्यारूय गिन्यानी जायना. जाचें मन निर्मळ आनी वाचा निवळ तो गिन्यानी. कोणाक दुखोवचें न्हय. वर्मार बसता असलें कितेंच उलोवचें न्हय. शाण्या मनशान भौमानाक विक्ख लेखचें आनी अवमानाक अमृत.

— मनुस्मृती

☐ धा शिक्षकां परस आचार्य व्हड. शंबर आचार्यां परस बापूय व्हड आनी हजार बापांय परस आवय व्हड. भुरग्या खातीर आवय जे कश्ट काडटा ते शंबर वर्सांनी लेगीत फारीक जावपाचे न्हय. आवय बापूय आनी गुरू तिगांकूय धादोशी दवरचीं. तांचे सेवेंत खंड पडूंक दिवचो न्हय. कायेन वाचेन आनी मनान ज्यो करण्यो आमी करतात त्यो तांचे मुखार दवरच्यो. श्रद्धावंतान ल्हान पांवड्याच्या मनशाकडल्यान लेगीत विद्या घेवची. मनशाचो पांवडो कसलोय आसूं विद्या घेतना अनमनचें न्हय. उश्टवाऱ्यार पडिल्लें भांगर काडटात तशें भुरग्यांकडल्यान लेगीत घेवपासारकें सगळें घेवचें. हे भाशेन जो गिन्यान जोडटा तो सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळो जाता. मनीस जिवो आसासर ताणें आवय बापूय आनी गुरू हांचे उपकार स्मरचे.

— मनुस्मृती

☐ ज्या घरांतल्यो बायलो सुखांत आसतात त्याच घरांत सदां देवाची सासाय वसता. ज्या घरांतल्यो बायलो दुख्खान रडटात त्या घराचें नाशें जाता. ज्या घरांतल्या बायलांचेर रडपाचो प्रसंग येना तें घर सदां उदरगतीक पावता. ज्या घरांतली बायल घोवाचेर आनी घोव बायलेचेर संतुश्ट आसतात त्या घरांत चिरकाळ मेरेन सूख नंदता. त्या घराचें सदां बरें भलेंच जाता. बायलो प्रसन्न उरूंक जाय. म्हणटकूच घर प्रसन्न उरतलें. बायलो दुख्खी उरल्यो जाल्यार घरूय दुख्खी उरतलें. घराची खुशालकाय, घराचें सूख, घराचें बरें भलें, आमी बायलांक कशे तरेन वागयतात ताचेर निंबून उरता.

— मनुस्मृती

# लुंगी

□ सोनिया दे कोस्ता

शिनप्पाच्या पुतान शिनप्पाक जल्मा दिसाचें इनाम जावून दिल्ली सोबीत, रंगाळ सिल्काची लुंगी ती! शिनप्पा लुंगेच्या मोगार वोमतो आनी उदारो पडल्लो.

त्या दिसा ती लुंगी न्हेसोन पेंटेक गेल्लो. पेंटेंतुले ताचे इश्ट ते लुंगेच्या मोगार पडले. ते लुंगेक होगोळसिल्ले कितले, तिचे विशेंत सवालां विचारलेलीं कितलीं!

'शिनप्पा, भारी सोबता मू आज!' एकलो उदगारलो. 'खंय घेतली शिनप्पा लुंगी?'

'शिनप्पा, फॉरेनची लुंगी गी?' दुसऱ्यान विचारलें.

'कोणें दिल्ली शिनप्पा लुंगी?' तिसऱ्यान विचारलें.

'आ हा! कितें ''शैन'' जाता तुजी नवी लुंगी!' चोवत्यान दिश्ट लायली.

अशें, सुमार जाणांनी शिनप्पाचे लुंगेक होगोळसिलें. शिनप्पाक खुशी जाली. ताचे लुंगेक होगोळसिल्यार ताका होगोळसिल्ले बरीच. शिनप्पा पेंटेंतुलें ताचें काम तिरसून घरा वेच्या बस्सार चडलो. सांजेचो वेळ जाल्ल्यान ताका बसोंक जागो मेळोंक ना. तो उबोच रावलो.

बस्स चालू जालें. हर एक रावणेर चड आनी चड लोक चडलो. धा मिनुटांनी बस्स साधारण लोणच्याचे बोतली बरीच जाल्लें. उबे राविल्ल्यांक उजवाड दिस नातल्लो. उस्वास घेवूंक वारें नातल्लें. पांय दवरूंक जागोयी नातुल्लो. बसुल्ल्यांचेर उबीं रावल्लीं मालवातालीं जाल्ल्यान बसुल्ल्यांक बसों बसोंक समा जायनातुल्लें. शिनप्पा बस्साच्या मदेगांत शिरकल्लो. हालोंक सयत जायनातुल्ले बरी शिरकल्लो.

वीस मिनुटां उपरांत शिनप्पा देंवचो जागो आयलो. तो मुकार आसुल्ल्यांक लोटून, गुड्डावन, चिमटे काडीत मेटा लागीं पावलो आनी देंवलो. बस्साच्या भायर रावून थंड वारें सेवलें.

उपरांत लुंगी वयर उकलून बांदूंक हात सकयल व्हेलो. तवळ ताका झींट मारल्ले बरी जाली. जाल्लें कितें? पेंकटाक बांदुल्ली लुंगी नातल्ली! नपयंच जाल्ली! शिनप्पा खांब्या बरी रावून आसताना कंडक्टर ''रैट पोय!'' म्हूण बोबाटलो आनी बस्स ''रोंय'' आवाजा सांगाता मुकार धावलें.

शिनप्पाचे कुडींत जीव आयलो. तो गडबडोन, घुंवोन, 'अय्यो मुजी लुंगी! मुजी लुंगी!' म्हूण बोबाटीत बस्सा पाटल्यान धांवलो. पूण बस्स ताका कान दी नासताना धांवलेंच. शिनप्पाची अवस्था पळोवन भोंवतिचो लोक किडकिडोंक लागलो. शिनप्पा परतून बोबाटलो, 'अय्यो, मुजी लुंगी...! त्या हरामी बस्सार मुजी लुंगी आसा!'

'शिनप्पा, कितें जालें?' कुशिच्या आंगडच्या ईरप्पाक खोरजुलें.

'कितें सांगचें गा?' शिनप्पा तकलेर हात मारीत मुणालो. 'ह्या दळदिऱ्या बस्सांनी गडदी मुळ्यारी कितली?! पेंकटाक बांदल्ली लुंगीच सुटोन पोडात तर बस्सांनी येवचें खंयच्या कर्माक, सांग?'

'व्हड न्हंय शिनप्पा', हांसो तडवून बुजवण दिली इरप्पान, 'देव सोडून घालिना पळे! तुजी लुंगी मात्र गेली न्हंय वे? तुजो हात वा पांय वा नाकच झडल्लें तर तूं कितें करतोय? तुज्या घरच्यांक कितें म्हूण सांगतोय?'

तेंयी खरें म्हूण चिंतून संवसारांतुल्या सर्व बस्सांक गाळी घालीत खाली इजाराचेरच घरा गेलो शिनप्पा.

हेणें, लुंगेक कितें जाल्लें! ती दोन बोसक्यांच्या इड्यांत शिरकल्ली. आनी अशी ती शिरकोन आसताना चेन्नप्पाच्या दोळ्यांक पडली.

आतां, चेन्नप्पाक आसच्यो लुंग्यो पूरा मेळकट आनी पिंजकट. भायर वेताना न्हेसच्याक दोन साधारण पेंटांचो धनी चेन्ना. इतली सोबीत लुंगी ताणें ताचे जिणेंत पयले पावटीं पळोवंची. हात उडयल्यार मेळची तितली लागीं आसल्ली ती लुंगी.

चेन्नान हेवशीन तेवशीन पळयलें. दुसऱ्या कोणेंच ती लुंगी पळयिल्ले बरी दिसनातल्लें.

'कोण जावयेत हे लुंगेचो निर्भागी वा भागी वारेसदार?' चिंतलें चेन्नान. सुलभायेन भायर पडची तसली वस्त न्हय लुंगी. तुवाले, पोती, पर्स, बायल, भुरगीं इत्यादी भायर पडतीत, पूण संवसाराचे चरित्रेंत ही पयले पावटी लुंगी भायर पडल्ले बरी दिसता... चेन्नान परतून हेवशीन तेवशीन पळयलें. संकटाच्या पेंकटांर पेंटां, लुंग्यो नातल्यार कापडां आसल्लीं. कोणाच्या तरी पोत्यांतुली भायर पडल्या आसतेली लुंगी. तिसरे पावटीं दोळे घुंवडावून चेन्ना बागवालो. लुंगी ल्हव आपल्या पोत्यांत रिगयली आनी चोवते पावटीं दोळे घुंवडायले. नर मनशान ताचें कारयें पळोवंक नातल्लें.

चेन्नाक संतोसच संतोस! इतली सोबीत लुंगी फुक्याक मेळताना कोणाक संतोस जावंचोना? चेन्ना देंवलो आनी घरा गेलो.

ताचो प्रायवंत बाब मुकल्या दारा लागीं उबो आसल्लो. बाबाच्या तोंडा वयलो तांबडो रंग पळोवन चेन्नाक भें दिसलें. 'खंय मोरोंक गेल्लोय रे सगळो दीस?' बाब गरजलो.

'मोरोंक वचोंक ना', चेन्ना मुणालो, 'काम सोदूंक गेल्लों!'

'काम!' मुणालो चेन्नाचो बाब, 'काम सोदूंक गेल्लो खंय तो! काम सोदूंक वेतां मुणोन मुजेकडचे पयशे सोलून पेंटेक वेताय मुरे? थंयसर तुज्या नालायक इश्टां सांगाता मेळ घालून, पयशे विबाडून घरा येताय... म्हाताऱ्या बाबान घोळल्लें गिळूंक लज दिसनाय रे तुका?'

'हांवें सांगलें न्हय वे हांव काम सोदूंक गेल्लों मुणोन?' चेन्ना मुणालो. काम मेळाना तर हांव कितें करूं? हांतूं मुजी चूक कितें आसा?'

'ना रे, तुजी चूक कांय ना!' बाब नंजानी मुणालो, 'तें आसों. काम नातल्ल्या तुका कितें कितें कित्याक हाडी जाय? आज कितले पयशे विबाड केलेय?' बाबान चेन्नाच्या हातांतुल्या पोत्याक बोट जोकून विचारलें.

'दोन मोगीं', चेन्ना मुणालो, 'आनी एक लुंगी.'

'लुंगी!' बाब कुटलो. 'मुज्या पयशांनी लुंगी काण घेताय रे रेड्या? हेवशीन दी रे ती लुंगी!'

'दिना!' लुंगी पोटलून धरून मुणालो चेन्ना. 'ही मुजी लुंगी. माका बस्सार मेळल्ली. तुज्या घाणकूट पयश्यांचीं हीं मोगीं मात्र धर. तूंच खा!'

पोतें बाबाच्या हातांत चेपून, लुंगी पोटलून धरून चेन्ना घरा भितर गेलो.

'वच रे!' बाब बोबाटलो. 'काम करूंक बागवानातल्लो तूं हरामपण दाकयताय रे? काम सोड, चोरची योग्यता आसाय रे तुका? अय्यो देवा!

तुका बुद्द येताना हांव मोरोन अस्थिपंजर जातां गी म्हूण!'

चेन्ना मांदरेर उदारोच पडल्लो. तोंड हुलपतालें. मतींत चिंतनाचे आटेविटे. सदां नीत आसता बाबाचें रोजार. आज सदांच्याकी इल्लें चड. काम करची योग्य ना मुळ्यार कोणी सोंशीत. चेन्ना सदां नीत सोंसतालो. आपणाक चोरचीय योग्यता ना मुळें बाबान. कशें मुणात बाब हां तशें? कितलें धैर्य बाबाक हां तशें मुणोंक?

कित्याक, ताणें ल्हान आसताना शेवंती टिचरिचें लिपस्टीक तिच्या नाका पोंदल्यानच उसळावंक ना गी? चिके व्हड जाल्या उपरान्त पारवतम्माचो घडाय चोरूंक ना वे? त्याच वर्सा लोरसामाचीं दुकराचीं पिलां आनी आयडाबायचो पणस चोरूंक ना गी? आनी कितें कितें चोरलां ताणें! आनी बाब ताका चोरची योग्यता ना मुणता...

बाबाक बुद्द शिकयजायच. शिकयनासताना रावोंक नजो. आजच कितें तरी चोरून बाबाक दाकयजाय की आपणाक खंडीत चोरची योग्यता आसा.

चेन्ना उटोन उबो रावलो. जनेलांतल्यान चांदनें ताचे नवे लुंगेक दिश्ट लायतालें. चेन्नान लुंगी मोगान पोशेली. नशिबान मेळ्ळली लुंगी. ती न्हेसल्यार सुरू सावन आखेर पर्यांत ताचें नशीब बरें आसतेलें अशें चिंतलें चेन्नान. ती लुंगी न्हेसोन घरा भायर गेलो.

खंयच्या घरा वसोन चोरी करूं? चांदनेंयी आसा, पूण चांदन्या सांगाता मोडांयी आसात. शेजारा वेचें नाका. शेजारा कसलियी चोरी जावं ताचो अपवाद चेन्नायेरच पडतालो. कित्याक तें कोण जाणा! लोकांक आजकाल बुद्द उणी...

चेन्नान इल्लेंशें पयस वसोन चोरचें म्हूण चिंतलें. एक पोतें खांद्यार उमकळावन, बाबाच्या मोडकट सायकलार बसोन तो वेगीं राजरस्त्याक पावलो.

पंदरा मिनुटां उपरान्त चेन्नान एका हितला मुखार सायकल रावयलें. हिताल बोरें आसल्लें. रुकांचो सांवोट आसल्ल्यान चांदन्याचे उपद्र आसचे नात. घरचीं सकटां निदल्ले बरी दिसतालीं.

चेन्ना ल्हव हितलांत रिगलो. तेच घडये घरच्या यजमान्याक मुणजे शिनप्पाक जाग जाली. चेन्ना वरवीं न्हय. ताका उजो सोसूंक जाय नातल्लो. सांगाता तकलीय फोडटाली. शिनप्पा खाटल्या वयलो उटलो आनी जनेला सरशीन गेलो. थंड वारें ताच्या हरद्याक आपटलें. थोडो वेळ हितलांत भोंवल्यार तकली फोडफोड रावत अशें चिंतलें शिनप्पान. मुकलें दार उगडून तो हितलांत देंवलो.

थोड्याच खिणांनी तो कुकडांच्या घुडा सरशीन पावलो. एकाच्चाणे नीट जालो! थंयसर घुडा लागीं चांदन्याच्या उजवाडांत ताका दिसली एक लुंगी. ताची लुंगी! तो ताचे लुंगेक खंय जाय थंय कोणाच्या आंगार पळयल्यारी वोळकत. लुंगे भितरल्या चोराची कूड पेंकटा मेरेन घुडा भितर रिगल्ली. शिनप्पाक इतलें अजाप जालें की ताका आपूण सपनेता वा जागो आसा मुळ्ळें समजना जालें. ताणें दोळे घश्टिले. दोळे घश्टून जातच चेन्नाची घुडा भितर रिगल्ली कूड दोन दाट्या मोट्या कोंबयां सांगाता प्रत्यक्ष जाली. चेन्नान आनी शिनप्पान एकामेकांक घडीभर पळयलें – चेन्नान भियान आनी शिनप्पान रागान!

दुसरेच घडये चेन्ना घुंवलो आनी कुकडां सांगाता वाऱ्या वेगान धांवोंक लागलो.

'एय! मुजी लुंगी!' जीब सुटली शिनप्पाची. 'मुजी लुंगी! चोर! चोर! चोर...!'

शिनप्पान चेन्नाचो पाटलाव केलो. धांवतां धांवतां चेन्ना न्हेसोन आसल्ली ती लुंगी झाडाक शिरकली. ती सुटोंक हातांत दोन दाटीं मोटीं, हुळहुळचीं कुकडां आसल्ल्यान साध्य जालें ना. हाचे वरवीं लुंगी पाटीं उरली आनी चेन्ना मुकार पावलो.

पाटीं उरल्ले ते लुंगेर गीद हुंदराचेर पडल्ले बरी पडलो शिनप्पा.

हेच घडये बाबाच्यो बोबो आयकोन भायर धांवून आयल्लो शिनप्पाचो पूत राजा थंयसर पावलो.

'बाबा, कितें जालें?' ताणें विचारलें.

'पळे रे, मुजी लुंगी मेळ्ळी!' मुणालो शिनप्पा.

'पूण चोर चोर म्हूण कित्याक बोब मारलीय?' पुताक समजना जालें.

'हेत्त! चाराक पांच शेर मीठ! मुजीच लुंगी न्हेसोन मुजींच कुकडां चोरूंक आयिल्लो! हांव सोडतां वे तर?'

लुंगी आरावन धरून घरा भितर गेलो शिनप्पा!

* * *

# शेतांगण

**प्रकाश पर्येकार**

परशुरामान बाण मारून दर्या मुखार धुकल्लो आनी ही गोमन्तभूंय घडयली, अशी आख्यायिका वाचूंक मेळटा. खरेंच परशुरामान बाण मारून ही भूंय रचली? म्हाका दिसना. ताणें बाण माल्लो ना. ताणें फकत दर्या कुशीक 'बांद' घालून कितलिशीच जमीन शेताखातीर मेळोवन दिली.

दोंगराळ भागांत रावपी लोकांनीय आपल्या काळजांत आशिल्लो मंत्र फुंकलो... आनी दोंगर-दोंगुल्ल्यांक शेताचो भेस चडयलो. वांयगण, शेळ, सर्द तशेंच पुरणीक जल्म दिवन शेतकामत संवसारांत नवो जीव हाडलो.

ह्या सगळ्यांची एक धांवती वळख हांव तुमचे मुखार दवरतां.

## कुमेर

**कुमेर** म्हळ्यार दोंगराळ शेत, जातूंत झाडां मारून जमीन भाजतात. आनी नाचण्यासयत वेगळीं वेगळीं पिकां काडटात.

पेडणें, सत्तरी, काणकोण, केपें ह्या दोंगराळ भागांनी रावपी लोक असले तरेचें कुमेर शेत करताले. सरकारान झाडां तोडपाक फाटल्या वीस वर्सांसावन बंदी घातिल्ल्यान कुमेर शेत सासणाचें बंद पडलां.

संवसार पाडवो करतकच झाडां पळोवंक वचपाची उमळशीक लागता. गांवांतले लोक एकठांय येवन, 'अंदू खंयच्या दोंगराक शेत हाणुया?' अशें उलोवप जाता. आनी मागीर एक खंयचोय दोंगर निश्चीत करून झाडां पळोवपाक वतात.

सरकारी दोंगर आसलो तरी, झाडां पळोवंक वतना थंयच्या थळाव्या गांवकाराक घेवन वचचें पडटा. थंयच्या गांवकाराक घेवन वचप हें, तो दोंगर खंयच्या गांवचे शिमे भितर पडटा हाचेर आदारून आसता. गांवकाराक घेवन वचपा फाटलीं कारणां म्हळ्यार ताका त्या दोंगराची पुराय म्हायती आसता. तशेंच, आपल्या गांवचे शिमे भितल्लें देवस्पण ताच्या हातांत आसता. (सत्तरी वाठारांत, देवुळकी मुखेल गांवकाराच्या हातांत आशिल्ल्यान सगळे तरेचें देवकार्य ताच्या हातांत आसता. हांगा देवस्पण म्हणटकच देवळांतली गांवकाराच्या हातांतली विधी तर आयलीच, तेच परी देवाक गाराणें घालप, कोंबे-बोकडे मारून देंवचाराक थारावप असल्या गजालिंचोय हातूंत आसपाव जाता.)

आपूण कितलें लांब-रूंद शेत हाणटलो हाचो अदमास घेवन **खडाल** मारतात. खडाल मारप म्हळ्यार एक तरेचें शिनाल. वांवभर चौकटींत झाडां-झुडपां मारून जागो निवळ करप. अशीं चार खडालां चार कोनशांनी मारतात. शेताची शीम कळची म्हण **सरी** मारतात. सरी ही शिमेची आंखणी. हें खडाल तें त्या खडाला मेरेन **ताळो मारीत** वचप. (ताळो मारीत वचप म्हळ्यार झिळिची एक-एक खांदी मारीत वचप आनी आपल्या शेताची शीम आंखप.) शिमे भितर आनीक कोणेंच येवचें न्हय म्हण ही एके तरेची कुरू.

अशे तरेन झाडांची वांटणी जाता. घरांत काम करपी मनशां कितलीं आसात वा शेत **सावडीक केल्यार** कितलीं घरां सावडीक आसात, हाचो विचार करून शेत ल्हान काय व्हड हाणचें तें थारता. (सावडीक हो शब्द 'सावड' ह्या शब्दावयल्यान तयार जाला. सावड म्हळ्यार दोनावयर मनशांनी एकठांय येवन केल्लें कसलेंय फायद्याचें काम.)

दोन-तीन ते वीस घरांच्या आवांठा येदी सावड आसूं येता. ही सुवात पडिंनी वा कुडवांनी मेजतात. 'तुवें अंदू शेत सादारणशें तरी हणलां मरे?' असो प्रस्न करतकच 'चड ना रे, कुडवाचें हणलां' अशी जाप मेळटा.

झाडां पळोवन घरा परततात. रोखडेच पंदरा-वीस दिसांनी भुती फाटीक मारून आनी पाळ-कोयतो पाजोवन घेवन झाडां कातरपाक दोंगराची वाट धरतात.

झाडां एकेकडल्यान मुळांतसून मारीत वतात. एकादें मोठें झाड आसल्यार वयर चडून **बोडकायतात.** एक शेव हाणून जातकच त्या शेवाची **पाशाणी** करतात. पाशाणी करप म्हळ्यार आड पडिल्ल्या झाडांचे खांदे **शेडावप** आनी **लेप** कशे जमनीक लावप. अशे तरेन एका एका शेवाची पाशाणी करीत करीत सगळें शेत झळझळीत करतात. हें सगळें काम जाले उपरांत घरा परततात. (कोंकणींत 'लेप काडप' असो एक शब्द घोळणुकेंत आसा. मागीर तो शेणाचो लेप आसूं वा मातयेचो आसूं. अशेच तरेन खांदे 'लेप' कशे जमनीक लावप म्हळ्यार, व्हड खांदयांची पाशाणी करून जमनीर एक सारके पातळप.)

आठ दिसांचो तेंप हुलगले उपरांत, परत वचून शेताक उजो घालतात. उजो घालपा फाटलीं कारणां म्हळ्यार, एक तर शेत नितळ जाताच, तेच बराबर जमनींत **वळंबो** आसल्यार मरून वता आनी जमीन पिकाळ जाता.

**जमीन शेळाव जातकच** दुसऱ्या दिसा गोबराचेर नाचणो पेरतात. (शेळाव हो शब्द **'शेळ'** ह्या शब्दावेल्यान आयला. जमीन शेळाव जावप म्हळ्यार जमीन न्हिवून थंड जावप. 'जमनीक शेळ आयली' वा सुर्या अस्तमतेक वतच 'आतां शेळाव जालें', 'तूं शेळाचें घरा वच' अशे वाक्प्रचार घोळटात.) कुमेरीक चडसो **गणेशगिड्डो** हे जातिचो नाचणो पेरतात. नाचण्या भितर **वरी, कांग, जनाळो, तोर** हीं धान्यां भरशितात. तशेंच लांडीर शेताक सोब येवची म्हण रोजांच्यो बियोय नाचण्यांत भरसून पेरतात.

उजो घालून शेळाव जमनिचेर रोकडोच नाचणो पेरपा फाटलें कारण म्हळ्यार, दोंगरार वारो चड आशिल्ल्यान गोबर हुबून वचूं शकता. तेच परी आडयाळो पावस आयल्यार गोबर व्हांवून वचून जमनिचें पिकाळपण कमी जावं येता.

नाचणो पेरून घरा येतात. परत आठ दिसांनी **साकूळ** काडपाक वचचें पडटा. साकूळ काडप म्हळ्यार, उजो घातले उपरांत पुराय जळून वचूंक नाशिल्ल्यो खोलप्यो, शिरपुटां तशींच बारीक खोडां पुंजावन एकेकडेन **गाये करप.** मोठीं खोडां तशींच सोडून दिवप. गाये म्हळ्यार उरिल्ल्या-सारिल्ल्या शिरपुटांची रास. हे राशीक मागीर उजो घालतात आनी मुखार ते **गाये पेरतात.**

**एक वल जातकच** नाचणो किल्लून येता. (मिर्गार पयलो पावस झडटकच 'वल जालें' अशें म्हणटात. म्हळ्यार जमीन वलसार जाली.) हाका **सूय जाली** म्हणटात. एकादो नाचणो लागूंक ना जाल्यार, त्या त्या कुडक्यांनी नाचणो परत पेरतात. नाचण्याची पेरणी निमणी एकादस-दुवादस मेरेन करूंक मेळटा.

नाचणो बरो लागलो जाल्यार **गवळ** बांदतात. नाचणो लागप म्हळ्यार

एक अदमास. हें शेत परवडटलें काय ना, असो सादारणसो अदमास करून गवळ बांदपाचे तयारेक लागतात. गवळ म्हळ्यार पावसांत दोंगरार रावपाचो आसरो. मदेकांत एक म्हेड मारून सयभोंवतणी वांसल्यो फास्कावन त्यो जमनीक तेंकयतात. बेतांची कडणी आनी चुडटां वापरून गवळ शिंवतात. गवळाचो पाश्ट धांपपाक घराकडल्यान कड्डाच्यो पेंड्यो व्हरतात. गवळ वाऱ्यान हुबून वचचो न्हय म्हण सगळे तरेची जतनाय घेतात.

गवळांत भितर मदेंगांत **परसो** तशीच कुशीक न्हिदपाक उठपाक **माचोळी** घालतात. (परसो म्हळ्यार मोठीं खोडां लावन घातिल्लो उजो. परशाचो उपयोग कांबळ वा घुरम सुकोवपाक करतात. तशेंच, दोंगरार थंडी आशिल्ल्यान परशाचो उपयोग धग घेवपाक करतात.) परशाचो मुखेल फायदो म्हळ्यार परशाच्या धगान जमनीक शेळ येना. पावसांत भिजून आयले उपरांत परशार आंग शेकोवपाक मेळटा. परशाचो मोठ्यांत मोठो फायदो म्हळ्यार भिजिल्ल्यो **कांबळी** आनी **घुरमां** 'उतवार' सुकोवपाक मेळटात.

एकादस जातकच नडणी काडपाचो वगत जाता. शेतकामती साटली-पोटली घेवन गवळांत रावपाक वतात. नडपाक **दांगी कोयती** वापरतात. दांगी कोयती नडणी हुमटून काडपाक भोव उपयोगी पडटा. कोयतोय सांगाताक आसता. पावस पडिल्ल्यान झाडांच्या मुनांक कवकवीत **तिस्के** सुट्टात. तिस्को म्हळ्यार तरणो ताळो. हो ताळो बेंडून **गाये** करतात. (गाये म्हळ्यार, शेतांत जी अळशीक आसता, ताची एकठांय केल्ली रास. हे राशीक उजो घालतात. जमीन न्हिवतकच ही सुवात पेरून काडटात. हाका 'गाये पेरले' म्हणटात.)

शेत **नडप** म्हळ्यार फकत नडणी हुमटावप वा तिस्के मारप न्हय. तर दाट जाल्ले **थाम** व्येंतेक लावन पातळ करप. जशी जशी थामाची वाड जाता तशे तशे **घण जावपाचो** संभव आसता. आनी नाचणो घण जालो जाल्यार कणस बारीक धरता. हाचो वायट परिणाम म्हण नाचण्याक पीक कमी येता.

नडणेच्यो जाती इस्पाभायर... नडणी **सादी** आसता वा **कांटयारी** आसता. सादे नडणेंत **वाशेल, नावूळ, नेर, पुडयारें** ह्यो जाती मोडटात. तर कांटयारे नडणेंत **बेत, पाणस, वागाटी, दांगी, मासांटो, शेंबो, गेळ, कणेर, चुरण** असले नणडेचो आसपाव जाता. कांटयारी नडणी काडटना नाकापुरें जाता.

नडणी काडटना आसऱ्याक माथ्यार **घुरम** घेतात. सत्तरींतल्या केरी-शिरोले गांवांनी घुरमाक **गोरबी** म्हणटात. दोंगरार घुरमांच कित्याक वापरतात? हाची जाप सोंपी. दोंगरार वारो नेटान व्हांविल्ल्यान कांबळ वा कापेत हुबून वचूं येता आनी नडपाक आडखळ येवं येता.

नडणेच्या शेवार मनाक थाकाय मेळची म्हण, हुमाणीं घालप तशेंच गावन काणयो सांगप जाता. म्हयन्या देड म्हयन्यान नडणी काडून जातकच चवथिची उमळशीक घेवन लोक आप-आपल्या घरा परततात.

नाचणो पोसवचे पयलीं खंय खंय ताळो वाडल्यार काडटात. ताका **बिवोळ** काडप म्हणटात.

दोंगरार तरांतरांचीं सावदां आसतात. ह्या सावदां पासून शेताक लुकसाण पावची न्हय म्हण, शेता भोंवतणीं **म्हेंडो** घालतात. म्हेंडो म्हळ्यार **भिंगरां** मारून तांतूंत **वांसल्यो** घालून केल्लो घट्ट आडो. (भिंगर म्हळ्यार केंकलें आशिल्लो व्हड खूंट. वांसली ही झाडाची नीट लांबचे लांब काडिल्ली बडी.) भिंगराक दोशीं वटेन दोन कांटे आसतात. मुळाक **तांच** (तोंक) काडून तें जमनींत मारतात. कांय लोक आडो घालतात तर कांय जाण **कूंप** उबारतात. (कूंप ही एके तरेची वंय).

नाचणो पाल्यार आसतना गवे रेडे शेतांत रिगतात आनी पालय खातात. **भाती** जाता तेन्ना मेरूं खावपाक येता. भाती म्हळ्यार तरणें कणस. पिकेर दुकर, वांदर, खेतीं, साळ, चानयो त्रास दितात. शेतांत कांग, जनाळे रोयल्यार कीर आनी हेर सवणीं सतायतात. हांकां सगळ्यांक आळाबंद हाडपाक माळो तशेंच **भुजावणीं** लायतात.

म्हेडके मारून वयलेवयर माचोळी घालतात आनी वयर **शिवाण** (खोंप शिवपाचें साहित्य. चुट्टां, करड बी) घालून माळो घडयतात. माळ्यार रातचे न्हिदूंक वचून सावदांक भुजयतात. भुजवणें म्हण काळें-धवें बावलें करून लायतात. तशीच **झळकी** हुमकळायतात. झळकी बेळांची केल्ली आसता. झळकी हुमकळायल्ले दोरयेक **कोंयडी** बांदतात. कोंयडेचे समांतर रेशेंत डबो बांदतात. झळकी वाऱ्याच्या नेटान हालता आनी कोंयडी नेटान वचून डब्यार आदळटा. अशे तरेन डब्याचो आवाज जावन सावदां भुजतात.

दसऱ्याकडेन **लांड** तयार जाता. मागीर कणसां काडून **खांपटेंत** भरतात. खांपटी ही गवळा कुशीक बांदिल्ली आसता. खांपटी म्हळ्यार एकार एक **तोंडके** दाळून चौकोनी कणसां दवरपाक केल्ली वेवस्ता. खांपटे वयर **शिवान** आसता. सावदांनी कणसां खावंचीं वा इबाडचीं न्हय म्हण सगळे तरेची जतनाय घेतात. कणसां खांपटेंत भरून घरा येतात.

दिवाळेच्या अदमासाक खांपटे लागसार खळें करतात. खळें करपाचें आसा त्या जाग्यावयली **कणसाळ ताड** मुळासकट हुमटून काडटात. तांच्यो पेंडयो बांदून कुशीक दवरतात. हीं कणसां खळ्यार बडयनात. तीं वेगळ्या जाग्यार बडयतात. त्या जाग्याक **खडली** म्हणटात. खडली म्हळ्यार ल्हान खळें. थंय कांडप, दळप जाता. तेचपरी मिरसांगो, हुडीद, कुळीद असलें धान्य त्या जाग्यार सुकयतात.

जानेवारी म्हयन्यांत कणसां बडोवपाक सुरवात करतात. खांपटी उसोवन तांतुंतलीं कणसां सुपान मेजून काडटात आनी खळ्यार सुकूंक घालतात. कणसां सुपांनी मेजून काडपा फाटलें कारण म्हळ्यार 'एक सूप कणसाक कितले नाचणे उतारले' हो अदमास येता.

सकाळीं सुकूंक घातिल्लीं करसां, दनपार मेरेन बडोवपाक तयार जातात. कणसां बडोवपाच्या दांड्याक **लंवडी** म्हणटात. लंवडी वांवरभर लांब आनी थोडी कोंगला-आकाराची पिची आसता. लंवडेन कणसां उब्यांनी बडयतात.

लंवडी चड करून **चांदूडो, खरंगूळ, चुरण** वा **धामणी**ची करतात. कारण हीं झाडां ल्हव आसतात. कांय जाण बसून कणसां बडयतात. हांगा लंवडीचो उपेग करिनासतना **दांडो** वापरतात.

खळ्यार कणसां बडयतकच **काटकां** कुशीक काडटात. काटकां म्हळ्यार कणसांची शीर. तीं जड आसल्या कारणान वारें करतना हुबून वचपाक कुस्तार जाता. ताका लागून तांकां वेगळावंचीं पडटात.

काटकी काडून नाचण्याची रास मारतात. एक नाल्ल आनी चुरनाच्या पांच पानांक मर्दी बडी तोंपून राशीर घालतात. हाका **शेवण** घालप म्हणटात. तर चुरनाच्या पानांक **चिरीपानी** म्हणटात. शेवण घालप हें एक तरेचें देवस्पण. राशीक 'भायली कसलीच बादा' जावंची न्हय, हो ताचे फाटलो मुखेल हेत.

नाचणें **वारें करतात.** निव्वळ नाचणे, गोंड आनी ताचे मुखार कुंड्याचो थर पडिल्लो पळोवंक मेळटा. कुंड्याचो कांयच उपेग जायना. गोंडीक नाचणे उरिल्ल्यान ते परत खळ्यार बडयतात.

नाचण्याचे राशीक **दांडो** म्हणटात. नाचणे दांड्यावयले भरून राशीक मारचे पयलीं, दांड्याक फुलयो मारतात. परत ताचेवयल्यान सूप ओडून, नाचणे मेजून दुसरेकडेन रास मारतात. सूप मापाचें आसल्या कारणान नाचणे राशीर कितले चडले हाचो अदमास घेवंक मेळटा.

दांड्यावयली शेवण काडून राशींत घालतात. राशीर उदक मारून ती बांदतात. रास बांदप म्हळ्यार सुपान दांबून घट करप आनी राशिच्या वेड्यान सुपानच रांगोळी घालप.

खळ्यावयलो सगळो वावर जातकच गांवकारांक आपोवन हाडून **चोरू** मारतात. चोरू मारप म्हळ्यार थळाव्या गांवपुरसाक कोंब्याचो बळी दिवप. अशीच शेताक राखण दिवंची म्हण गाराणें घालतात.

नाचणो भरून हाडपाच्या वेळार **शिंद्र्याक** कुडवभर नाचणे गांवकाराक भेटयतात. शिंद्रो म्हळ्यार एक शेत. अशेच तरेन गांवचे नायकिणीक खळ्याक एक पांटलो कणसां आनी कणसां काडटना एक पायली नाचणे दितात. तेभायर मडवळ, घोसांय, म्हार, मेस्त, नायक हांकांय शिंद्या कणकणी नाचणे दितात.

**गांवकाराक कांबळ दिवप :** कांबळ दिवप म्हळ्यार गांवकाराक एक तरेचो मान. कुमेर शेत ताच्या गांवच्या शिमे भितर पडिल्ल्यान सगळ्या शेतकारांनी ताचें शेत हाणून आनी पाशाणी करून दिवप. नडणी आनी कणसां काडटना आपलें एक एक कामेरें धाडप. गांवकर तांकां फकत एक जेवण आनी च्या-पाणी दिता. अशे तरेचें काम करून दिवप ही एक प्रथा. गांवकाराचो तो एक हक्क.

शेत सावडीक आसल्यार खळ्यारूच नाचण्याची वांटणी जाता. त्या तेंपार साक दुर्मीळ आशिल्ल्यान, शापुरी कांबळिचें **घोळण** आनी चादरिचें **मुलें** करून तांतूंत नाचणे भरून घरा हाडटाले. (मुलें म्हळ्यार दाणे [नाचणे] भरून व्हरपाचें एक साधन. मुलें हें चडशें चादरिचें करतात.) घोळणान नाचणे चड मावतात. घोळण दादले फाटीर मारतात तर मुलें हें ल्हान आशिल्ल्यान बायलां माथ्यार मारतात.

नाचणे घरा हाडटकच, गरज पडल्यार **मुडयो** बांदताले नाजाल्यार **कंडूल** वा तट्यानी नाचणे भरून **लिपाण** घालून दवरताले.

## सर्यो

दुसऱ्या वर्सा कुमेरिच्या जाग्यार शेत करचें अशें दिसलें जाल्यार सावूळ काडून ताडीक उजो घालतात. आनी वरी, कांग असलें बियाणें पेरतात. हाका **सर्यो करप** अशें म्हणटात. सर्याक चड कश्ट करचे पडनात. नडणीय व्हडलिशी काडिनात. फकत **कावूळ** काडटात. (कातरिल्ल्या झाडांच्या मुळांक आडफागूर फुटून पाल्यातात. शेतांतले हे ताळे बेंडप आनी गाये करप हाका कावूळ काडप म्हणटात.) अशे तरेन सर्याचें सवायभितर पीक घेवंक मेळटा.

## मुटलो

मुटलो हें एक तरेचें **भड्डाचें शेत.** हें शेत गांवालागीं ल्हान उंचवट्यार आसता. मुटल्याची जमीन **कवळां** व्हाळून भाजतात. कवळां म्हळ्यार झाडाच्यो सुक्यो खांदयो.

शेळाव जमनिचेर नाचणो पेरतात. बाकी सगळें काम सर्वसादारण कुमेरी भशेन आसता.

मुटल्यांत चडशी **बारकी शेंदरी** (नाचणो), **खारो नाचणो** पेरतात. मुटलो मळार केल्यार, थंय **दूदमोगरो** नाचणो पेरतात. **काळो नाचणो** म्हण एक नाचण्याची जात आसा. पोल कोडू आसल्या कारणान सावदां ताचीं कणसां खायनात. मुटल्यांत नाचण्या भायर तोर, तीळ तशेंच चिवडां, तवशींय घालतात.

## तोराप

कुमेरी भशेन हांगाय झाडां तोडून उजो घालतात. पूण कुमेर आनी तोराप हांतुंतलो मुखेल फरक म्हळ्यार, तोराप हें गांवा लागीं दोंगुल्लेर करतात. तर कुमेर ही पयस उब्या दोंगरार करतात. कुमेर शेतांत नाचणो पेरतात तर तोरापांत भात.

उजो घालून जातकच साकूळ काडटात. गायांक उजो घालतात आनी शेळाव जमनीर भात पेरतात. भात पेरून **खण्णी** घालतात. खण्णी घालप म्हळ्यार खणप, शेत खणून काडप. जोत घालूंक मेळ्ळ्यार नांगरतात. भाताचें बीं चडशें **चुडयें, दोंगरें** वा **खोचरी** वापरतात. हातूंत तोरूय घालतात. तोरापांत एका जाग्यार तीन-चार पिकां घेतात. पयल्या वर्सा भाताचें पीक घेतकच दुसऱ्या वर्सा खारो नाचणो, तर तिसऱ्या वर्सा **सांयो नाचणो** पेरतात. वा एक वर्स पाकड, दुसरें वर्स भात, तिसरें वर्स सांयो नाचणो पेरतात. अशे तरेन आदलून बदलून पीक घेतात. हाचे मुखार भात शेत करपाचें ना अशें थारायतकच सांयो नाचणो पेरतात. सांयो नाचणो पेरले उपरांत पांच वर्सां पीक घेनात. हाका मुखेल कारण म्हळ्यार सांयो नाचणो जमनींतलें सगळें पिकाळपण ओडून घेता. त्या जाग्यार काजूचे रोपे घालून, काजूचें रान तयार करतात.

## कास

कास म्हळ्यार सपाट जमनीर केल्लें शेत. तीन-चार फावट जोत घालून जमीन निवळ करतात. हाका **केसारी काडप** म्हणटात. पयल्या वर्सा कुळीद पेरतात. दुसऱ्या वर्सा तो जागो भाजून नांगरतात आनी नाचणो पेरतात. नाचणो पेरले उपरांत गोबर मारतात आनी ताचे वयल्यान गुटो भोंवडायतात. तीन-चार दिसांनी मातयेचे उबेन नाचणो रुजून येता.

नडप-काडप करून लांडीर कणसां काडटात. कणसां खांपटेंत धांपून दवरतात. घर लागीं आसल्यार कणसां घराकडेन हाडटात. तिसऱ्या वर्सा ह्याच जाग्यार पांकड पेरतात.

## शेळ

ज्या शेताक रोखडीच ओलसाण धरता, तें शेत म्हळ्यार शेळ. पावशें शेत लुंवोन जातकच दिवाळे-दसऱ्याकडेन जमीन ओली आसतना मेरो घालतात. जमीन जशी जशी सुकता, तशी तशी जोतान ती फोडटात. वयर आयिल्ले **धेपे** तशींच **दिफळां** दिफळ्यान फोडून बारीक करतात. **दिफळो** म्हळ्यार लाकडाच्या कुडक्याक तोंपण मारून तांतूंत दांडो थापटून दिफळे फोडपाक केल्लें आवत. हे फोडल्या उपरांत **गुटो** घालतात. मागीर **आडास** घालतात. कुणग्याच्या **घोल्यांक** खोरें-पिकास घालतात. परत एकदां दिफळां फोडटात आनी गुटायतात. अशे तरेन जमनिचो धुल्ल जायसर नांगरणी-गुटावणी करून जमीन कुरकुरीत सुकोवन काडटात आनी **पुंजी** घालतात.

**पुंजी घालपाची पद्धत :** पावसाक पंदरा वीस दीस आसा म्हळ्यार पुंजी घालतात. जमीन रोवपाक तयार जातकच जोत बांदतात. कुणग्याक भोंवर मारीत जोत चलता. होऱ्याचेर फाटल्यान पुंजी घालतात. पुंजी घालप म्हळ्यार भाताचे गोटे चार-पांच, स-स घालीत वचप. सत्तरींत हाका **चोबो** म्हणटात तर काणकोणां ताका **चोमो** म्हणटात.

शेळीक भात **दामगो** वा **बेळो** रोयतात. गोबर आनी सारें मिस्तूर करून पुंजे फाटल्यान घालीत वतात. भात घालपी एकटो आसता, तर गोबर घालपी दोग-तीग जाण आसतात. पेडण्यां गोबराक **रखी** म्हणटात.

रोयतना जें **तास** घालतात तें एका मापार घालचें पडटा. ताका लागून जोत धरपी जाणकार जाय पडटा. (शेताचे पयले-वयले नांगरणेक **फोडप** म्हणटात. दुसरेक **आडास** तर तिसरेक **तास** म्हणटात.) शेवटाक एक **होरो** आसमेरेन बैलाक एका पांयार परततात. हांगा बैलांचीय खरी कसरत आसता.

भाताक जमनिची ऊब मेळून पावस पडचे पयलीं किल्लून येता आनी शेळ पांचवीचार जाता.

**शेळ घालपा**फाटलीं मुखेल कारणां म्हळ्यार, पावस पडटकच ते जमनीक रोखडीच **उमळ जाता.** आनी उदकान सगळें भरून वता. हाका लागून जोत घालपाक मेळना. रोयल्यार पेर व्हांवून वचपाची शक्यताय आसता.

सत्तरींत केरी, शिरोली तर दिवचल तालुक्यांत रावण, खटपाल, कांसारपाल हांगा शेळ मोठ्या प्रमाणांत करतना पळोवंक मेळटा.

## वांयगण

वांयगणां दोन प्रकारचीं आसतात. **भड्डें** आनी **बांबराचें.** भड्ड्या वांयगणाची जमीन घट. उदक लावन तिका फुगोवंची पडटा. पूण बांबराच्या वांयगणा बाबतींत तशें जायना. तें मुळांतच गलगलीत रेबाळ आसता. तातूंत पांय

रेच रोमिल्ल्यान जोत घालपाक मेळना. अशा वेळार फकत खण्णी घालून ायगण रोपचें पडटा.

भड्ड्या वांयगणाची जमीन फुगोवन जोत घालतात. व्हाळाक वा न्हंयक ांद घालून आडावणेचें उदक असल्या वांयगणाक सोडटात. पयली-वयली ामीन नांगरतात ताका **फोडप** म्हणटात. जोता फाटल्यान जी चरी पडटा ाका **होरो** म्हणटात. फोडप जातकच **गुटायतात.** मागीर **आडास** घालतात. आडासाक पेडण्यां **दुडीत नांगरणी** म्हणटात तर तिसवाडी. ताका **दुरो** म्हणटात. आडास जातकच अशीच गुटावणी जावन **तास** घालतात. जमीन ोपपाक तयार जाल्यार काय ना, हें पारखून तशीं तशीं तासां घालतात.

जमीन फोडून जातकच मेरो खांपायतात, **कोनशे/घोले/कोपरे** खणटात. आडास जातकच मेरो घालतात. कुणग्याचे मदले मेरेन **धांव** दवरतात. धांवांतल्यान ह्या कुणग्यांतल्यान त्या कुणग्यांत उदक सोडपाक मेळटा. धांव बांदून कुणग्यान जाय तितलें उदक सांठोवन दवरूंक मेळटा.

वांयगणाची जमीन तयार जातकच **चाळणी करतात** तशेच **लडे मारतात.** चाळणी करप म्हळ्यार चिखल एका पातळेर हाडप. लडे मारप म्हळ्यार चिखल एके जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार उडोवप.

चाळणी केले उपरांत **काम** घालतात आनी कुणगो रोपून काडटात.

वांयगण आनी **सरद** वा **मरड** हांतुंतलो फरक म्हळ्यार वांयगण गिमांत रोपतात तर सरद वा मरड पावसांत रोयतात. रोयल्यार भात पिकेक कमी रोंवता. रोपल्यार पीक चड मेळटा.

वांयगणाक पीक बरें येवचें म्हण शेण, सावूळ घालतात. तशेंच, रोपचे पयलीं सारें मारतात. **सावूळ** म्हळ्यार झाडाचीं पानां कुसाक घालप.

वांयगणाक नडणी कमी पूण हेर काम हिसपाभायर चड आसता. काम चड आसलें पासून जाल्यार तें करपाक सुखदिणें.

## पुरण

पुरण म्हळ्यार न्हंयचे देगेर तळ करून केल्लें शेत. एक खांडी ते वीस खांडी पीक दिवपा इतली पुरण व्हड आसूं येता. कांय पुरणी **पोडवाच्यो,** दुसऱ्यो **झोतिच्यो** तर कांय पुरणी **फांट्याच्यो** आसतात.

संख्येन झोतिच्यो पुरणी चड आसतात. फांट्याच्यो पुरणी किंचित पळोवंक मेळटात. पोडवाचे पुरणिचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार झोतिच्या पुरणिच्याकय ती आकारान व्हड आनी पिकाळ आसता. हाका मुखेल कारण म्हळ्यार पोडवाची पुरण न्हयंच्या **वळाक** आसता. वळाक आसल्या कारणान ते पुरणींत कुसारें, रेंव तशीच पिकाळ जमीन माती थंय थिरावल्ली आसता. पूण रेंवेचो थर माथेंभर ऊंच आशिल्ल्यान ताका भायर काडपाक बरेंच कश्ट करचे पडटात. रेंवेचें प्रमाण केन्ना केन्ना शंभर ट्रकावयर आसता. हो सगळो ढीग कसो काडप ? माथ्यान ? काय शेवाळें (bulldozer) लावन ? निखालूस ना!

पोवडाची पुरण **खराडेक** तेंकून आसल्यार अख्खे न्हंयक बांद घालून हें सगळें धवोन घालप. खराडी तेंकून नासल्यार **भिल्ल्या माडाच्या पोयांनी** हें सगळें ओडून न्हंयंत धुकलप. (खराडी म्हळ्यार न्हयंतलो असो जागो, जंय न्हंयची **खर** दिश्टी पडटा. त्या जाग्यावेल्यान मनशांक चलून आलतडी-पलतडी वचूंक मेळटा. तशेंच जाय जाल्यार त्या जाग्यार न्हंयक बांद घालून उदक फुगोवंक मेळटा.)

न्हंयक बांद घालपाची कला मोठी. येदे व्हडले न्हंयक बांद घालप म्हळ्यार सोपें काम न्हय ! बांद घटमूट जावंचो म्हण **गडगीं** घालतात. गडगीं म्हळ्यार देड-दोन मिटराच्या सरकलान खूंट मारप, पालकोड्यांनी विणून **इल्लीं** करप. तांतूंत चाळिचें गुंडें भरप. अशे तरेन पुराय न्हंयक धा ते बारा गडगीं घालतात. उपरांत वांसल्यो आडव्यो बांदून ताका घट्ट **साटी** मारप. हे साटयेक केळिचीं **चारवटां** मारून न्हंयक फूग चडयतात.

अशे तरेन पाटांतल्यान उदक पुरणीत सोडटात. उदक पुरणीन घेतले उपरांत रेंव, कुसारें तसोच रेबो **धवोपाच्या** कामाक सुरवात करतात. धवोप म्हळ्यार उदकाचे झोतीर पुरणींत आशिल्ली नाशिल्ली अळशीक व्हांवोवन घालप. धवोपाचें काम उदकाचो वेग कितलो आसा हाचेर आदारून आसता.

पुरण मोठी. आसल्यार हें उदक कुणग्या-कुणग्यांनी कशें घोळोवप, हो एक मोठो चिंतेचो प्रस्न. ह्या वेळार खुंटयो मारून आडे घालतात आनी उदक घोळोवन घेतात. रेंव नेटान रेंटची म्हण चर मारून रेंव व्हाळोवची पडटा.

अशे तरेन सगळी अळशीक काडून जमीन तयार करतात. जमीन तयार केले उपरांत नांगरणी, गुटावणी, चाळणी करून पुरण रोपून काडटात.

पुरणीचें एक आंग न्हंयक तेंकून आशिल्ल्यान तितल्याच कुडक्याक कवळां मारून **शितारी** बांदतात. शितारी बांदप म्हळ्यार देळ्यांचें **तिरकाटें** करून आडव्यो वासल्यो बांदतात. भितरले वटेन कवळां म्हळ्यार झाडांचे खांदे मारून ताचेर रेबो ओडटात. रेबो लागीं आसल्यार अशी शितारी लावन आपणाक जाय जाल्यार पुरण वाडोवंक मेळटा.

## खाजन

मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत खाजन शेताक खण्णी घालपाक सुरवात करतात. खाजनाक **हातखण्णी** नाजाल्यार **ट्रॅक्टराची खण्णी** घालतात. खण्णी घातले उपरांत दिफळ्यांचे **आडे, मेरो** आनी **अकेरी** घालतात.

पयल्या पावसांत शेतांत पावलभर उदक जातकच शेताची चाळणी करून शेत रोयतात. खाजनाक **आजगो, बाबरी** वा **दामग्याचें** भात रोयतात. जमीन खारट आसल्यार त्या जाग्यार **करगूट** भात रोयतात.

लांडीर शेत लुंवोन थाम दाळून दवरतात. मुखार जानेवारी-फेब्रुवारी म्हयन्यांत मळणी घालून पोटल्यांनी वा मुडयो बांदून भात घरा हाडटात.

## शेताक जावपी वाको

शेत रोपून काडले उपरांत कांय दिसांनी थाम काळें कुळकुळीत जावन येता. मुखार ताका आडफागूर फुटून टणटणीत बेंट जाता. थामाचे वेगळेवेगळे वाडीर वेगळेवेगळे रोग जावपाची शक्यताय आसता.

तरणी पालय आसतना **तांबडो** वा धवो वाको जावपाची चड शक्यताय आसता. तांबड्या वाक्यान तांबसाळ पालय तर धव्या वाक्यान धवसाळ पालय जावन थाम मरूंक पावता. तेचपरी ह्या वगतार थामाक **कीड पडटा.** ही कीड कोरान पांचवी आसून ती फकत पालय कातरून घालपाचें काम बेस बरें करता.

पोटराक येवचे पयलीं थामाक पिशें लावपी वाको म्हळ्यार **पिसोळें पडप.** धव्या कोरांचीं हीं पिसोळीं पालयेचेर बसून मुततात. हें मूत इतलें खर आसता की ताची पिठी कशी पानार दाटून पालय मरपाक लागता.

शेताक **पिली पडप** हो असोच एक रोग. ह्या रोगान भात मरून येता आनी थामाक पोटूर धरना.

आनीक एक म्हाभयानक वाको म्हळ्यार **शीर पडप.** पिकेर कणशेर एक प्रकारची कीड पडून एका रातयां सगळ्यो केंसऱ्यो कातरून घालतात.

कुमेरीचो दोंगर चडटना हांव थोडोभोव खर्शेलों. मुटलो, तोराप, कास, सर्यो भोंवतना मन प्रफुल्लित जालें. शेळिची पुंजी नियाळटना मन होन्यांफाटल्यान थयथय नाचपाक लागलें. वांयगणाचो कुणग्यान-कुणगो माड्डयतना धिपरभर पांय थंड किरांव रेब्यांत मुंगरले... पुरणीची जल्मकथा आयकतना मन अजापीत जर जालेंच. तेच बराबर पुरण करतल्यांची काकळूत आयलेबगर रावलिना.

हे शेतांगण भोंवडेचो अणभव कोंकणी मनशाच्या मनांत एक अपूर्व **मुडी** **बांदले** बगर कसो रावत ?!

* * *

# दुवादस दुवे

□ रमेश भगवंत वेळुस्कार

पाडवो

ए ऽ
जाणा मरे
म्हाका मरे
तूं जाय
कित्याक ?
कित्याक मरे
हांव मरे
तुजेर मोग करतां

तूं खऱ्यांनीच
म्हजेर मोग करता ?

हय रे

काय तूं तुजेरूच
मोग करता गो ?

□ □ □

बी

आमी मिरामार या

मिरामार कित्याक

ऊंऽ... या रे
म्हजे खातीर येवंचो ना ?

येतलों.

कोणा खातीर ?

तुज्या मोगा खातीर

खरेंच म्हजे खातीर ?

खरेंच तुज्या मोगाखातीर
म्हज्या मोगाखातीर न्हय.

□ □ □

तय

ए ऽ
हांगा यो
म्हाका घट्ट धर

कशें धरूं ?

कित्याक ?

म्हाका कळना गो

म्हजीं फकाणां करनाका

ना गो, खरेंच सांगतां

कितें ?

म्हाका, तुका कशें घट्ट धरूं
तें कळना गो

फट... आमच्या मोगाचे
पयले रातीं
तूं सवन रात म्हाका
घट्ट वेंगेंत घेवन
रावंक नासलो ?

ना... हांवें तुका घट्ट
धरूंक नासलें
हांवें धल्लेली ती
फकत तुजी कूड आसली
तूं खंय आसलें ?

तुका कशें घट्ट धरप
तें म्हाका कळना गो

□ □ □

चवथ

म्हज्या हड्ड्याक तुजें हड्डें लाय
कित्याक जाणा मरे
थंय तुका तुजें रूप धड्डड्टा
तें आयकूंक येतलें!

आनी जाणा मरे
तुज्या हड्ड्यांत म्हाका म्हजें
रूप धड्डड्टा तें आयकूंक येतलें!

म्हज्या हड्ड्याक
कान मात ना गो...!

□ □ □

पंचम

आगो, कितें ?

तूं म्हाका नांवान
कित्याक उलो मारिना ?

कित्याक जाणा मरे ?

हं... सांग

कित्याक जाणा...?
तुजे असलीं नांवां
जायत्या जाणांक आसात

मागीर ?

मागीर आनी कितें ?
तुका नांव ना
आनी तूं...
फकत म्हजो...
जाय जाल्यार
हेंच... नांव समज

□ □ □

सश्ट

म्हाका तुज्या काळजांत रावपाक जाय
खरें म्हटल्यार म्हाका तुज्या मनांत रावपाक जाय
हांव मगो म्हज्या चिंतनांनी रावतां
म्हज्या चिंतनांक भितर घेशी
तुज्या मनांत

□ □ □

सप्तम

तुज्या दोळ्यांक
म्हज्या चिंतनांचे दुवाळे
आनी हांव
घुंवळ घुंवळ घुंवळटां

□ □ □

अश्टम

शाण्या
तुज्या आंगांत म्हाका घुसळूं दी
तुज्या दोळ्यांत म्हाका उचंबळूं दी
कित्याक असो प्रश्न करूं नाका
तुज्या आदारानूच हांव
म्हाका सोदचो यत्न करतां

□ □ □

नम

हें पळय
हें म्हजें शेत
म्हजे सगळे कश्ट
म्हजो सगळो घाम
म्हजी सगळी निश्ठा

हांतूंत म्हजें अशें कांयच ना
आसा तो फकत तुजो मोग
पूण हांतूंत
तूं खंयच
दिश्टी पडचें ना...

□ □ □

दसम

हो रस्तो
कित्याक झंजरता

काय तूं
रस्त्यावयल्यान चलत येता...?

□ □ □

एकादस

म्हाका तुजी याद येता
काय हो तुजो साद... साद... सा...

□ □ □

दुवादस

तूं फुड्यांत नासतनाच
तुजें पुराय चित्र
म्हजे नदरे मुखार घसघसता

तुज्या प्राणांतल्यान
प्रणवांकुरीत जावन आयल्लो
तुजो आवाज
म्हज्या अंतराळांत गाजूंक लागता

तुज्या स्पर्शाची हुर्हुरं
म्हज्या रुंवारुंवार
म्हाका आनारून वयता

तुका पळोवंचे पयलीं सावनूच
हें अशें तुज्या अस्तित्वाचें देणें
म्हाका आपणावन वयतालें
म्हाकाय नकळटाना

# सपन

□ मंगला शिवदास

सपनकळे निळे निळे
उगडटांच दोळे
जातात काळे काळे
पावशी कुपाचें कपयाळें

सपनसुखां –
सपनांतूच भोगचीं
सपन विरतकेर
विसरून वचचीं

सपन फकत
सपन म्हूण जगचें
जिणेचे धागे
सपनाभायर विणचे

सपन निद्राराणयेचें
मोगाळ कवन
निद्राराज्यांतूच गावचें
जिणेचे बेसूर सूर
जिणेंतूच आळवचे

सपनांतले हावेस
करूंक लागले जर
जीण धादोस –

सपनांतलीं सुखां
करूंक लागलीं उर्णी
जिणेंतलीं दुखां
जाल्यार –

सपनकळो बावून वतलो
सपनेवपाचोच विसरून वतलो
जिणेंतलो अर्थूच
शेणून वतलो.

# कविता

□ माधव बोरकार

१
न्हंयच्या पात्रांत उफेतात
एकसुरीं व्हडीं...

२
विसावलें माथें
रूंद खांदार तिचें
ताच्या मनांत मोगाळ
चान्नें चवथीचें...

३
तुजे पुजेक फुल्ली
म्हज्या पोशाची परडी...

# फास्क्यो

□ राजश्री महाबळेश्वर सैल

म्हजें घर
एके एके कुडिचें
एका एका दाराचें
एका एका जनेलाचें
दर एके कुडीक
दर एका दाराक
दर एका जनेलाक
एक एक फास्की
चौकोनी शटकोनी
ल्हव ल्हव ह्या फास्क्यांक
आतां राकेसी पाळां फुटूंक लागल्यांत
म्हज्या मेंदवांत पांयांच्या नाखटांत
ह्यो फास्क्यो घुसूंक लागल्यात
रक्तवर्णीत शिरांच्या सुतांत घुस्पूंक लागल्
म्हाका नकळत
हांव धांवतां मनांतल्या मनांत
ह्या फास्क्यांपसून पयस पयस
पूण त्यो म्हजी फाट सोडिनात
म्हाका थंडावन उडयतात
खिळावन धरतात.
कोणें घडयल्ल्यो काय ह्यो
चौकोनी शटकोनी आकाराच्यो
फास्क्यो
म्हजे आज्जेन, आवयन
काय म्हज्या पापाले काणयेंतल्या
त्या दिग्ग काळ्या काळपुरसान
तोडून फोडून उडोवच्यो
दिसतात ह्यो सगल्यो
फास्क्यो
वीट वीट येता ह्या
सगल्या फास्क्यांचो
हांव तांतुंतले खंयचेच
फास्कंत सारकें
बसना!

# काकासाहेबांच्यो दोन चिटी

नवी दिल्ली
२२-९-६७

प्रिय रवीन्द्र,

तुमचें १८-९-चें पत्र मिळालें.

जपान वरील पुस्तक पूर्ण केल्यानंतरच दुसऱ्या कामांत पडायचें हा तुमचा निश्चय उत्तम आहे आणि योग्यही आहे. तशांतही कोंकणी परिषदेसाठीं मुंबईला यावें लागलें तर वसंतरावांना भेटा. Cultural History of Japan हें पुस्तक मी वसंतरावांजवळ ठेवीन.

'राष्ट्रभारती'च्या पांच प्रती तुमच्या नांवे पाठवायला मी जगदीश वोरांना लिहिलें आहे. आणि तुमच्या 'मेहनताण्या'चा चेकही पाठवायला सांगितलें आहे. तुमी सध्या जपानचें प्रवासवर्णन लिहिण्यांत दंग आहांत हें ही मी त्यांना कळवून सांगितले आहे कीं रवीन्द्र तें आपल्या जन्मभाषेंत, कोंकणींत लिहीत असले तरी त्याचें मराठी हिन्दी गुजराती स्वत: तेच करून देऊं शकतील. तेव्हां त्याचें हिन्दी करायला तुम्ही त्यांना विनंती करा. नवजीवन, वोरा किंवा सस्ता साहित्य सारखे प्रकाशक घरचेच असले तरी अजमेरचे कृष्णा ब्रदर्सही घरचे प्रकाशक व्हावे !

तुम्हाला त्यांचे पत्र येईल.

मी तुम्हांला लिहिलें होतें की महाराष्ट्रवादी लोकांशी जुळवून घेतां येत असेल – त्यात गोव्याचे हित व्यवस्थित सांभाळलें जात असेल आणि कोंकणीला सन्मानपूर्वक मान्यता असेल – तर तुम्ही समन्वयवृत्ती धारण करून राजकीय संघर्ष मिटवावा. कवींशी या बाबतींत विस्ताराने चर्चा करा आणि माझी ही भूमिका तुम्हा लोकांना पटली तर जाहीर हीं करून टाका कीं काकासाहेबांनी असा सल्ला दिल्यामुळें आम्ही तो श्रद्धापूर्वक स्वीकारतों.

जपान सोडण्यापूर्वीं तुम्ही फुजीई गुरुजींना भेटलें पाहिजे ही माझी सूचना तुम्ही अमलांत आणली हें फार उत्तम केलें. त्यांचेशीं झालेल्या चर्चेचें 'गांधीवादी लोकांनी आपल्या सरकारचा विरोध केला पाहिजे' या एका वाक्यांत शरदने वर्णन केलें. शरदपेक्षां तुम्हीच जरा विस्ताराने लिहिलें आहे.

तुमचें जपानवरील पुस्तक पूर्ण झाल्यानंतरच मी जपानवर लिहीन. माझ्या पुस्तकांत प्रवासवर्णन फारसें असणार नाहीं. प्रजाकीय पातळीवर भारत जपान मैत्री कशी आणि कां वाढविली पाहिजे हेंच त्यांत अधिक येईल. तुमच्या पुस्तकांत आपण बरोबरीने केलेला प्रवास, निरनिराळ्या लोकांशी झालेल्या आपल्या चर्चा या गोष्टींबरोबर जपानचा इतिहास, आजची स्थिती, लोकजीवन वगैरे सर्व आलें पाहिजे. माझें पुस्तक सप्लेमेन्ट सारखें राहील. या रीतीनेच दोन्ही पुस्तकें आपापल्या स्थानीं शोभतील.

कोकणीच्या बरोबर त्याचें मराठी करीत जा आणि मराठी मला पाठवत जा.

चि. सरोजची 'इन दिनों' ही पत्रमाला तिनें आज पूरी केली.

काकांचे सप्रेम
वंदे मातरम्

नवी दिल्ली १९-११-६७

प्रिय रवीन्द्र,

भिक्खु वातानाबे, तोकुओ-सान आणि मात्सुए – जपानची ही त्रिपुटी तुमच्या पाहुणचारावर खुश होती. या लोकांचे हॉटेल बील आपण देण्याइतके आपण धनवान नाही याची खंत बाळगण्याचें कारण नाही. आपण असले स्टॅंडर्ड स्वीकारूंच नयेत. तुमच्याकडे आतां आणखीही जपानी येतील जातील.

जपानवरील तुमचें पुस्तक केव्हांही पूर्ण होवो, तुमचा जपान विषयक अभ्यास चालू राहिला पाहिजे. महायान पंथाचा प्रारंभ विचित्र काळीं झाला. त्याचे नऊ ग्रंथ आहेत. सदोष संस्कृत मध्यें, विचित्र शैलींत लिहिले गेलेले. त्यांत मंत्रशास्त्रही घुसलें आहे.

युरोप अमेरिकेंतील लोक बौद्ध धर्म स्वीकारतात तेव्हां कालग्रस्त आणि अनुपयुक्त Orthodox बाबी गौण करून किंवा टाळून प्राणवान प्रधान तत्त्वांचा पुरस्कार करतात. त्यासाठीं त्यांचे ग्रंथ पाहिले पाहिजेत. या सर्वांचा अध्वर्यु ख्रिस्मस हंफ्रेस हा आहे. त्याचें Via Tokyo पुस्तक अवश्य वाचावें. डॉ. सुझुकींची बायको अमेरिकन आहे. तीही चांगले लिहिते. आपले फुजीई गुरुजी कट्टर रुढीवादी. त्यांना सुधारणें सोपें नाहीं. त्यांना बुजवूनही चालणार नाहीं. आपण त्यांना समजावण्याचा प्रयत्न करूं की भारतांत तुम्ही तुमचा आग्रह मऊ केला पाहिजे. धर्मानंद कोसंबी स्वत: हिनयानी होते. पण त्यांना महायानाची कदर होती. म्हणून त्यांनी शान्तिदेवाचार्यांच्या 'बोधिचर्यावतार' या पुस्तकाचा पुरस्कार केला. धर्मानन्दांच्या गोव्याने गोव्यांत कोठें तरी स्तूप उभा केला तर त्याच्या आधारावर तेथें हिनयान-महायानाचा समन्वय करतां येईल. आणि पुढें वेदान्तदर्शन आणि बौद्धदर्शन यांचाही समन्वय करूं. तुम्ही एडवर्ड कान्झे आणि एलियट यांचीं पुस्तकें वाचावीत. म्हणजे तुम्हाला आत्मविश्वासाने लिहितां बोलतां येईल.

जीरो ओसारागीचें 'होम कमींग' मी वाचलेलें नाहीं. मी ७ ते १४ डिसेंबर मुंबईत असणार. तेवढ्यांत गोव्याहून मुंबईला येणारा कोणी सांपडावा. 'माकिओका सिस्टर्स' हेंही पुस्तक वाटल्यास पाठवा.

काकांचे सप्रेम
वंदे मातरम्

# अक्षतां आनी अंतरनाद

## केरळचे भुंयेंत फुलिल्ली कोंकणी कविता

**नागेश करमली**




बाब आर. एस. भास्कर आनी बाब शरतचंद्र शेणै हे दक्षिणेंत, केरळचे भुंयेंतल्यान वयर सरून नांवरुपाक आयिल्ले दोन कवी. दोगूय जाणांनी, आपणाले वैशिश्ट्यपूर्ण काव्यरचनेवरवीं, कोंकणी कवितेक आपणालें योगदान दिवपाचो प्रयत्न चलयला. हालींच तांच्या कवितांचे झेले उजवाडा आयल्यात.

### अक्षतां

ह्या दोगांमदले भास्करबाब हे फाटल्या कांय वर्सासावन कोंकणी कविता बरयत आसात. तांचो पयलो-वयलो कवितांझेलो **अक्षरां** १९९२ वर्सा उजवाडा आयलो. ते उपरांत १९९५त तांचो दुसरो झेलो **नक्षत्रां** प्रकाशीत जालो. आनी हालींच म्हळ्यार १९९७त तांगेलो तिसरो काव्यसंग्रह उजवाडा आयला ताचें नांव **अक्षतां**.

**अक्षतां**त वट्ट मेळून २० कविता आसात. ह्यो कविता वाचले उपरांत, **अक्षरां** आनी ते उपरांत **नक्षत्रां** ह्या झेल्यांनी कवितेच्या रुपान भास्करबाबान जी वाट चलपाचो यत्न केला तेच वाटेन ते आनीक इल्ले इल्ले फुडें गेल्यात, फुडें वचपाचो प्रयत्न करतात हें आपशींच जाणवता. ह्या कवितांनी जसो युगपरिवर्तनाच्या यात्रिकाक साद घाला तशेच तांचे मदल्यान समाजजिणे संबंधानूय कविचे उत्फरके उमाळे उकते जाल्यात. सैमाविशिंची कविची ओड आनी ताचेकडेन पळोवपाची कविची आपलिशी एक नदरय भास्करबाबाच्या कवितांचो एक खाशेलो गूणविशेश म्हणूंक जाय. केन्ना केन्ना हो कवी आत्ममनस्क जावन आपलेच भितर केंद्रित जावन रावता. कविची भास सादी, सोंपी. उतरावळ खूबशी चालंत आनी संवकळिची. हाका लागून खंयच शब्दांचे नाका जाल्ले खेळ दिसनात. कवी भायल्या भोवस्ताळ्यां परस अणभवांतल्यान तर्जून आयिल्ल्या भाव-भावनांक अदीक म्हत्व दिता. देखीक, **मा निषादा** हे कवितेंत सुरवेकूच कवी म्हणटा:

*अहो*
*बळवंत उतरांनो*
*येयात –*
*तुमी म्हज्या वांगडा रावात*

आनी कवितेच्या शेवटाक कवी बरयता:

*जे हांगा हिंसा वावुरतात*
*सगट भियेवन थांबूंक जाय*
*जे हांगा दुष्टबळ हाताळटात*
*सगट निकळून पडूंक जाय.*
*देखून हांव*
*भायर सरतां —*
*म्हज्या वांगडा*
*तुमी येयात —*
*अहो*
*बळवंत उतरांनो.*

कविची संवसाराकडेन पळोवपाची समाजीक जाणिवेची धार खूब खर. **युगपरिवर्तनाचो यात्री** हे पांच वांट्यांनी विभागिल्ले कवितेंत ही धार उकतेपणीं जाणवता. हे कवितेंत परिवर्तनाच्या सांगातांत कवी एक थीर असो आशावादी सूर प्रगटायता. कवी बरयता:






*युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या*
*तूं चल*
*अखेर तूं*
*आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पावतलो*
*थांगा नाळयेचो घुडघुडो पावचो ना*
*थांगा रक्ताचो व्हाळ व्हांवचो ना*
*सपन तुजें*
*रुप्या वाटले भाशेन मळबार सोबतलें*
*तूं चल*
*युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या.*

आपणाल्या भावविश्वाची तार सैमरुपांकडेन जुळयतना ''धतरेचीं सपनां / फांतोडेचीं ओंवळां / एक एक गळून पडून धतरेकच पांगुरतात'' अशें भाव-चित्र रेखाटपी कवी भास्करबाब, **कोगुळा गो** हे कवितेंत, कोगळ्याक लेखून ''तुज्या वांगडा उडूंक गो / मात हांव चुकलों — '' अशें म्हणटात खरे. पूण ''तुजो सूर / आपण्यान आपणायलो / तुजेच वरी / गायलो हांव'' हेंय आत्मविस्वासान ते सांगतात. भास्करबाब हांचो आत्मविस्वास, **अक्षतां** ह्या कवितेंतल्या —

*झोळी बोथट जावंचे फुडें*
*एक एक अक्षर शेणचे फुडें*
*ह्या भिकार्याल्या अक्षरांचीं*
*उडयतां हीं अक्षतां —*

ह्या उतरांतल्या सारको कांयसो वेरेतना दिसलो तरी तांची जिविताकडेन पळोवपाची तरा मात तशी न्हय. ''दीग दीग वाट म्हजी / चलून केन्नां / सोंपची न्हय'' ही तांची खरी आस्त. ही आस्त काळजांत घेवनच ताची कविता फुडें चलल्या. **अक्षतां**क शरतचंद्र शेणै हांची, तांतल्या कवितांवरीच काव्यमय अशी प्रस्तावना लाभल्या.

### अंतरनाद

शरतचंद्रबाब हांचो **अंतरनाद** हो तांगेल्या स्वतंत्रपणान रचिल्ल्या कवितांचो पयलोच संग्रह. संग्रह पयलोच आसलो तरी कवी म्हणून ते कोंकणी संवसाराक

फाटलीं कितलिंशींच वर्सांसावन बरे वळखिचे जाल्ले आसात. **अंतरनाद** फाटल्या वर्सा उजवाडा आयलो. ते आदीं, १९८७ वर्सा तांचें **मीरा–जीवन आनी कवन** हें पुस्तक प्रकाशित जाल्लें. ह्या पुस्तकांत मीरेच्या साठ भजनांचो कोंकणी अणकार आनी वांगडाच मीरेची जिवीत काणीय दिल्ली आसा. ह्या पुस्तकाची खूब तोखणाय जाल्ली. मदें धा वर्सांवयर काळ गेलो आनी आतां शरतचंद्रबाबान **अंतरनाद** आमच्या हातांत दिला.

**अंतरनादां**तल्यो कविता पांच भागांनी वांटिल्ल्यो आसात. दर भागाचे आदीं विशयाची सुचोवणी दिवपी अशी दुसऱ्या संवसारनामेच्या व्यक्ती, कवी वा लेखकांची अवतरणां दिल्यांत. देखीक, दुसरो भाग सुरू जावंचे आदीं ''तू असीम! मैं सीमा का भ्रम'' हीं महादेवी वर्मा हांचीं उतरां वाचूंक मेळटात. ताचे सकला महात्मा गांधी हांचो एक विचार दिला. ह्या संग्रहाक नामनेचे बरोवपी बाब गोकुळदास प्रभू हांणी प्रस्तावना बरयल्या. प्रस्तावनेंत गोकुळदासबाबान संवसारीक – विशेश करून पश्चिमी काव्यसाहित्याचेर धांवती नदर भोंवडायत भोंवडायत कोंकणी कवितेकडेन येवन शरतचंद्रबाबाचे कवितेचो मूल्यामापणेचे नदरेन थाव घेवपाचो प्रयत्न केला. हो थाव घेतना गोकुळदासबाबान, अंतरनादांतली कविता ''जीण आनी मर्णावयले विचार, मनीसकुळांतलो संघर्श, वैयक्तिक अणभव, दैव संकल्प आनी भक्तीभाव आनी खास करून कवितेची अनुभूति'' अशे तिचे विशेश सांगून वळख करून दिल्या. एका उतरांत सांगचें तर हे कवितेची पत, एके विशिश्ट अशे वैचारीक थरावयले कवितेची असोच ताचो अर्थ घेवंचो पडटा. हे कवितेंत मोग, सैम, समाजजीण, जिणेअणभव हें सगळेंच एका वैचारिक पांवड्याचो तोल सांबाळून प्रगट जाता अशें दिसता. सुरवेकूच कवी कवितेक राबितो सोदतना ''रसिका, तुज्या काळजांत मरे / जाय माका राबितो!'' अशे आंवडे प्रगटावन आपणाली भूमिका स्पश्ट करता.

तशें पळोवंक गेल्यार सगळेच कवी वा बरोवपी जें कितें उरपासारकें बरयतात तें ताका खंय तरी काळजांत सुवात मेळची अशी सुप्त आस्त बाळगूनच बरयतात अशें म्हणूंक जाय. म्हजें काम बरोवप्याचें. बरयलें सोंपलें अशें कोणें तरी निर्लिप्तपणान म्हळें वा फेर्नांद पेसोआसारको पुर्तुगीज कवी जेन्ना ''कवी जावप हो म्हजो हावेस न्हय, ती म्हजी एकसुरेपणांत रावपाची तरा'' अशें म्हणटा तेन्नाय तीय भास काळजांत सुवात सोदपाच्याच यत्नाचो एक वेगळो प्रकार आसता. शरतचंद्रबाब तें इल्लें उकतेपणीं सांगतात इतलोच फरक. कारण काळजांत राबितो मागपी हो कवीय मदें मदें निर्लिप्तपणाची भावना उक्तायताच. **प्रार्थना** हे कवितेंत कवी म्हणटा:

*वर मागीना, नाका प्रसाद*
*नाका कुंकूम, पुजे निवेद —*
*नाका पोरमळाचें गांद, विभूती*
*नाका संसाराची एकी संपत्ती —*

कवी चिंतनात्मक थराचेर उबो रावन कवितेक साद घालता तेन्ना कितलेशेच अंतरनाद शब्दरूप घेतात. कवी फाटीं नदर मारता, ताचे अंतरयामी नदरेक आमचो भूतकाळ दिसता. कवी म्हणटा:

*आदल्या पूर्विकांनी*
*उजो म्हणून पुजलो*
*सूर्य, चंद्र, भूंय, उदक*
*वारो म्हणून भजलो*
*नेति! नेति! म्हणून मागीर*
*दिलीं नवीं रुपां —*
*सारकीं जालीं नात!*
*तुजें सारकें जालें ना!*

कविचे नदरेक एक विशिश्ट अशी थरावीक शीम ना. ती देश-प्रदेशाच्या बंधनांत रावना. **यरूशलें** (झेरूझालें) ही कविता ताची नाट. कवी बरयता:

*यरूशलें!*
*काणी तुजी दुंखदिणी!*
*झुजांची, विनाशांची.*
*विलापाचे वण्टेची.*
*खूंट मारून, खणखणून*
*कुटके केल्ल्या वांट्याची.*

कविची नदर चार वशिंनी भोंवत आनी घुंवत आसा. **अपघात** हे कवितेंत कवी एक चित्र रेखाटता – परिस्थितिचें आनी सभावाचेंय. कवी म्हणटा:

*मार्गार ट्रॅफिक जॅम*
*खीटांतल्यान वचून पळय:*
*स्कुटरीचो अपघात.*
*माथें फुट्न*
*रगत व्हांवत एकलो*
*निर्जीव पडला तरनाटो.*
*स्कुटरीचो शब्द*
*थामलो ना*
*पेट्रोलूय व्हांवता —*
*सगळे जाण*
*पळयत स्तब्द.*

हें चित्र तशें हालिंच्या काळार सामकें चालंत. पूण कविची नदर ताका अचूक शब्दरूप दिता. सैमाकडेनय कविची सलगी वैचारीक थरारच जाल्ली दिसता. **गुलाब** हे कवितेंत कविचे शब्द फुलावरी नाजूक जायनात. रोखठोक उतरांत कवी बरयता:

*झाडार एक फूल...*
*कितलें सुंदर! कितलें सोबीत!*
*परमळीक, नाजूक, अप्रूप*
*नेणताशें हरदें ओडलां*
*ताजे लागीं वचून हांव राबलां*
*— तें म्हाका पळयना!*

कविच्यो भावानुभूती एका वैचारीक, चिंतनाची कडा आशिल्ल्या थराचेर अभिव्यक्त जातात तेन्ना **पाकळेचो कीर** हे कवितेंतल्या उतरांनी कवी सांगून वता:

*उरले नात ते खंयचेच खेळ*
*उरलो ना काळूय आतां*
*घूल, पेळ, भोंवर सगळे शेणून*
*घुसपलों आज जीणेच्या झुजांत!*

शरतचंद्रबाबाचे कवितेचो संबंद शेकीं जिणेच्या झुजाकडेन. हें झूज सामान्या भायलें. ह्या सामान्या भायल्या झुजांत झुजत रावपी कवितेक वैचारीक सामर्थ्या बराबर काळजाचे खोलायेंतल्या भाव-स्वरांचीय जाण सतत दवरपाची गरज आसा इतलेंच सांगीनशें दिसता.

**अक्षतां**
**आर. एस्. भास्कर**
**कोची १९९७**
**पानां ४४; मोल: रु. ५०/–**

**अंतरनाद**
**शरतचंद्र शेणै**
**कोची १९९७**
**पानां ९०; मोल: रु. ५०/–**

JAAG MONTHLY, JUNE 1998

REGD. No. GOA 13




# गोंय राज्याची




# २१व्या शेंकड्याकडेन घोडदौड

- लोककल्याणाखातीर बांधिलकी
- फुकट पूण सक्तिचें शिक्षण
- भलायकेच्या सुविधांचो दुर्गम भागांत प्रसार
- उंचेलें तंत्रज्ञान, प्रदूशण विरयत आनी पर्यावरणाक पोषक अशें उद्येग
- उंचेलें दरडोई उत्पन्न
- वर्सुकी अर्थीक वाडीचो वेग ८ टक्के
- जबाबदार आनी पारदर्शी भौशीक प्रशासन
- मुळाव्यो सोयी विकसीत करपाखातीर खाजगी आस्थांपनांच्या सहभागाखातीर प्रोत्साहन
- तंरूण विधवा आनी निसर्गीक आपत्तग्रस्तांक अर्थीक आदार
- समृद्ध परंपरा आनी संस्कृतायेची जपणूक ही एक उत्कृश्ट देख
- जातीय बरेंपण

## गोंय – एक अर्विल्लें कल्याणकारी राज्य

घटकराज्याचो ११वो वर्धापन दीस मनयता